# जाग

**वर्स ३५ : आंक ७ : एप्रील-मे, २००९**


## ह्या आंकांत :




जाग
वर्स ३५ : आंक ७ : एप्रील-मे, २००९


**चित्रां...**

भायलें चित्रः प्रदीप मरावी (गोंडी चित्रकला)
पानां : ७, ११, १७, १८, २२, २३
: आसावरी नायक
पानां : १९, २१
: डॉ. सुबोध केरकार
पानः ३२
: सिद्‌धार्थ केरकार
पानां : ४६-५६
: अदिती नायक

ब्रह्मास्त्र
ॲड. उदय भेंब्रे


* **संपादपी**
माधवी सरदेसाय
(मोबायलः ९४२११५७००७)

**संस्थापक**
स. सुमंत केळेकार

* **उजवाडावपी**
डॉ. जयवंत भा. सरदेसाय

* **छापपी**
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट प्रिन्टर्स,
वळवय, फोंडें-गोंय.

वर्सुकी पटी : रु. १५०/-
विद्यार्थ्यां खातीर : रु. १२५/-
तीन वर्सांची पटी : रु. ४००/-
पटी मनी ऑर्डरीन वा बँकेच्या मडगांव फांट्याचेर काडिल्ल्या ड्राफ्टान धाडची. ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

**वेव्हाराचो नामो :**
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमेंन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. २४/-

jaag04@yahoo.co.in

# नदर संपादप्याची

# माँ

'बाबू जाला' म्हूण आर्जेंटिना सावन म्हजे आवयची चीट आयली तेन्ना बाई (म्हजी आजी - आवयची आवय) दूद आटोवंक बसली. दुसऱ्या दिसा हांव इश्कोलाक वचूंक भायर सरलें तेन्ना दुदफेंड्यांनी भरिल्लो एक डबो तिणें म्हज्या हातांत दिलो आनी सांगलें, 'हे तुज्या वर्गांतल्या सगळ्या भुरग्यांक दी आनी सांग, तुका भाव जाला म्हूण.'



'म्हाका भाव जाला' म्हूण सांगून हांवें वर्गांत दुदफेंडे वांटले.

'तुका भाव जालो? केन्ना गो? कालूच हांवें तुजे माँक घरा भायर आंब्या मुळांत पळेल्ली मुगो!' एके मैत्रिणीन म्हळें.

हांव म्हजें नांव तेन्ना 'नानू रवीन्द्र केळेकार' लायतालें. ते भायर, घरांतलीं, सोयऱ्यांचीं सगळीं भुरगीं (माँचो एकलो एकसुरो पूत गिरीश पसून) माँक 'बाय' म्हणटालीं थंय हांव एकलेंच ताका 'माँ' म्हणटालें.

कितें जाप दितलें? ओग्गी रावलें...

म्हजी पिराय तेन्ना आठ वर्सांची. तेदेवेळार नंगरांत आमगेर म्हजीं मावशे भावंडां भारती आनी योगेशूय आसतालीं. तांचें घर लागींच आकारा, म्हाड्डोळा म्हऱ्यांत. मदीं मदीं तांणी थंय आवय-बापाय म्हऱ्यांत वचून येवचें. पूण रावचें नंगरांत-आजोळा.

'भाव'/'भयण' ह्यो कोंकणींतल्यो तश्यो हेर कितल्याश्या भारतीय भासांतल्यो संकल्पना खूब व्यापक. देखीक, आमचो 'भाव' म्हळ्यार खासा भाव तसो बापोल भाव, मावशे भाव, मामे भाव, आते भाव, तिपोल भाव, बापोल मामे भाव, बापोल आते भाव... बी. भारतांत तरेतरेचे भाव. इंग्लीशींतलो brother मात एकलोच -- फकत खासा भाव ('cousin brother' ही भारतीय निर्मणी!)

माँ विशीं येवजितां तेन्ना म्हाका 'आवय' हे संकल्पनेचो असो विस्तार दिश्टी पडटा –

गिरीशाची माँ 'खासा आवय'. म्हजी? 'पोसकी आवय'. जाय जाल्यार 'मामे आवय' वा 'आते आवय'. भारती योगेशाची 'मामे आवय'. माँच्या खासा भावंडांची तें 'भयण आवय' (माँ बारा-साडेबारा वर्सांचें आसतना ताची आवय भायर पडिल्ली. तेन्ना ताची सगळ्यांत धाकली भयण बेबी फकत तीन - साडे तीन वर्सांची. माँ सगळ्यांत व्हडली भयण. एके परीन धाकल्या बेबीची तशी माँ फाटल्या भावंडांची भुरगी आवयूच)...

म्हज्या भुरगेपणांत घरचीं भायलीं, आपलीं/पेलीं ह्या भेदाक पिरवळच्या आमच्या विश्वांत व्हडलोसो थारो नाशिल्लो. तातोक लागून आमच्या घराक संस्थेचें कशें रूप आयिल्लें. सकाळच्या धा-इकरांक घरांत भितर सरिल्लो मनीस जेवले बगर सामान्यतायेन केन्ना वचऽ नाशिल्लो. तिनसांजचो पावल्यार रातचो रावन सकाळीं भायर सरतालो. ते भायर हेर कोण कोण मदीं मदीं येवन रावन वचपी पावणे. तातोचे गोंया भायले इश्ट -- जपान सावन नरेश मंत्री, नागालँड सावन नटवर ठक्कर, दिल्ली सावन कृष्णा शर्मा... नरेश मंत्रीचे वर्ध्याक, बनारसाक रावन हिन्दी शिकपी जपानी विद्यार्थी सुटयांनी नेमान आनी हक्कान म्हयनो-देड म्हयनो पिरवळा घालोवन वताले. लक्ष्मणराव सरदेसायूय मदीं मदीं तीन - चार दीस रावन वताले. ह्या पावण्यांचे सरबरायेंत पुराय घर जीव ओतून वावुरतालें. सगलो भार माँ घेतालें अशें न्हय. पूण आज दिसता, माँक लागुनूच हें सगळें घडूंक पावतालें. ताकाच लागून पिरवळची येदी व्हडली संस्था घर कशी, घराबो कशी चलूंक पावली. ह्या घराब्यांतल्या कितल्याश्या जाणांक माँच्या आवयपणाचो अणभव मेळ्ळो. नुरुद्दीन मवानी तातोचो इश्ट. ताचें नाझू पयल्या बाळंतेराक नागपूर सावन कुळारा मडगांवां आयिल्लें. नाझूची आवय ताच्या ल्हानपणांत भायर पडिल्ली. माँन नुरुद्दीनभाईक सांगलें, 'नाझू सुट्टकच ताका आमगेरूच हाडपाचें आँ...!' तीन-एक म्हयने नाझू बायक घेवन आमगेर उरिल्लें.

म्हज्या ल्हानपणांत पिरवळचे रांदचे कुडीची मुखेल जाळवणदार बाई आशिल्ली. सकाळच्या च्याक खावंक कितें करप, शिताक कितले आठवे तांदूळ घालप, कितें रांदप - सगळें बाई थारायताली. माँन तिका काम सोंपें करप -- फांतोडेर उठून रांदनीक उजो करप, च्याक आदन दवरप, दूद तापोवप, रोटयांक पीठ कालोवप, रोटयो लाटप... -- असलें सगळें असिस्टंटचें काम. उपरांत घरांत रोहिणी (गिरीशाची घरकान्न) आयलें तेन्ना रांदचे कुडीचो चडसो भार रोहिणीन आपखोशयेन आपल्या आंगार घेतलो. देव-उपास-अनवाळपणांतूय बाईक रोहिणीचो सांगात मेळूंक लागलो. (हातूंत माँचो वांटो शून्य.)

बाई वतकच रांदचे कुडीच्या कारभाराची मुखेल जापसालदारकी रोहिणीन उखल्ली. माँ कांय वर्सां ताचें असिस्टंट कशें वावुरलें आनी उपरांत सामकेंच रिटायर्ड जालें. मांय म्हऱ्यांत माँ केन्ना सून कशें वावुरलें ना आनी सुने म्हऱ्यांत केन्ना मांय कशें चल्लें ना. 'तुमगेर मांय-सुनांच्यो तीन पिळग्यो आवय-धुवो कश्यो काय बऱ्यो एकाच मेजार वांगडा बसून जेवतात...' पिरवळा कांय दीस रावन गेल्ल्या एका ब्रिटीश भुरग्यान म्हणिल्लें...

'घरचे बायल-मनशेन संवसारीक आसचें, म्हळ्यार, चड फसफस करचो न्हय, आपलो फायदो पळोवन वांटपण करचें बी, हो मध्यम वर्गीय आदर्श माँच्या साद्या, मध्यम वर्गीय संवसारांत म्हाका केन्ना पळोवंक मेळ्ळो ना.

'आगो, ही नुस्तेकान्न तुका फटयता आँ... इतलोच वांटो? वांटपण तरी केल्लें मगो?' बाईन विचारचें आनी माँन जाप दिवची, 'हय गे, केल्लें.' मागीर हांसून म्हाका ल्हवू म्हणचें, 'इतली चलून येता बावडी. तिणें नुस्तें सवाय कित्याक दिवचें...?!' आनी माँन वांटपण खंय केल्लें तर? माँची मोलावपाची रीत थरिल्लीच आसताली. कोणूय येवं - भरेकारां, वरणकारां, सुपां पांटले विल्लीं विकपी - माँन म्हणचें, 'सारकें दिवपाचेंच सांग गे...' मागीर विकतलेनूच मोल उणें करून माँक म्हणचें, 'अमकेच दी... बाय, तुकाच म्हूण इतल्यांक दितां आं...' माँन मोन्यांनी भितर वचून पयशे हाडून तिका दिवचे. केन्ना केन्ना च्या आनी खावंकूय हाडून दिवचें. ती वतकच हांसून म्हणचें, 'हिणें म्हजेर भोव जीव दवरला!'

दनपारच्या जेवणा उपरांत आड पडूंक भितर येतना बाईन सदां कोठये कुडीक चावी करची आनी चावी आपणाल्या उश्या पोंदा दवरची. एक दीस बाई चावी करूंक विसरली. म्हाका उलो करून आपोवन तिणें सांगलें, 'गोदू दार उकतेंच घालून येतलें. मातशें चावी करून यो कोठये कुडीक.' हांव माँकूच घेवन गेलें भितर. माँन चावी करतना म्हळें, 'हिका बावडेक दुबाव वावराडेचो... तिणेंय व्हेल्यात केन्नाय एक-दोन नाल्ल आमकां विचारी नासतना. पूण गरजेक व्हरता ती. व्हरून विकता व्हय तर?'

आनीक एक खबर केन्नाय म्हाका याद जाता -

एक दीस माँ सांजची च्या करतालें. म्हज्या भुरगेपणांत पिरवळा सांजच्या वेळार दोन-एक लिटरांच्या तोपांत च्या जाताली. दूद घालून च्या सारकी करतकच च्यांत साकर घालचे बदला माँन चुकून धव्या मिठाचो डबो उकतो करून धाकलें कुलेर भर मीठ घालें. हांव म्हऱ्यांत उबें आशिल्लें. 'आगो, मीठ तें!' हांवें म्हळें. माँन मीठ खिरयलें. उपरांत साकरूय घाली. पयलीं आपणें रूच घेवन पळेली, मागीर कुलेर भर च्याची म्हाका रूच दिवन विचारलें, 'कशी लागता?' म्हाका खऱ्यांनीच च्या बरी लागिल्ली. मातशी वेगळे तरेची खरी. पूण बरी. माँन सांगलें, 'हिमालयांत मीठ आनी तूप घाल्ली च्या मेळटा...' त्या दिसा आमी सगळीं मीठ आनी साकर घाल्ली च्या पियेल्लीं. म्हाका एकल्याकूच हें खबर आशिल्लें, हेरांक नाशिल्लें... त्या दिसा माँ म्हाका आमचे बशेनूच भुरगें कशें दिशिल्लें.

माँक हांवें सगळ्यांत खोशी, रमिल्लें पळेलां तें भुरग्यांच्या सांगातांत, भुरग्यांचे 'सेवें'त. ल्हानपणांत आवयची माया मेळूंक पावंक नाशिल्ल्यान जावंये, माँ ताच्या संपर्कांत आयिल्ल्या भुरग्यांची इल्ली चडूच 'चाकरी' करतालें. लायल्यार दोन उणयो पोटांत चड वतल्यो म्हूण मुद्दाम खबरी काणयो सांगीत लावप (म्हाका माँन णव वर्सांचें जाय सर लायलां. तेंय बी कशें? म्हाका जाय ते रितीन. शीत, वन्न, लोणचें म्हजें आवडटें जेवण. केन्नाय बाईन लावचें तेन्ना 'नुस्तेंय खावंक-शिकूंक जाय' म्हूण तिणें ल्हवूच एक तळिल्लें सुंगट बी उणयेंत लिपोवन म्हज्या तोंडांत घालचें. माँन अशें केन्ना केलेंना.



***रवीन्द्रबाबां वांगडा*** *(फोटोः र. वि. पंडित)*

बाईच्यो उणयोय व्हडल्यो आसच्यो. माँच्यो म्हाका जाय आसताल्यो तसल्यो, धाकल्यो धाकल्यो...); न्हाल्ल्या केसांची जटा सोडयता आसतना पयलीं हाताच्या बोटांनी केंस मेकळे करप, मागीर फणी ओडप; शिंयां दिसांनी सकाळीं तोंड धुतना आमकां उदक चड थंड लागत म्हूण हून उदकाचे तांबये बासये कडेन भरून दवरप... कितली सेवा! आमी फकत **भुरगीं** म्हूण माँचे नदरेन हे सेवेक पात्र जातालीं.




कितल्याश्या भुरग्यांक माँन आपणाल्या आंगा-खांदार खेळयल्यांत. आनी, भुरग्यांच्या सांगातांत जें कितें होलमलां ताच्या आधारान कोंकणी सरस्पतीच्या पांयांर ताणें एक सोबीत झेलो ओंपला, *'फुलत्या कळयां'*चो.

हालींच *फुलत्यो कळयो* परतेंय वाचून काडलें. थोडें भोव माँच्यां उगडासान... तीन मेक माँ गेल्यार वर्स जालें...

भुरगें आडांगपणां कित्याक करता? तें रडवें कित्याक लागून जाता? मोठ्यान कित्याक किळच्यो मारता? फट कित्याक उलयता? सर्तीचें, दुस्वाशी कित्याक लागून जाता? झगडाळ कशें जाता? 'तकलेन अपंगूळ' - आत्मविस्वास नाशिल्लें - कशें जावन पडटा? परतें परतें त्योच चुकी कित्याक लागून करता? ताच्यांत वसवस कसो येता? भंय कसो मूळ धरूंक लागता? ताचे जिणे-दिश्टींत कुड्डे विस्वास कशे रिगतात? भुरगें आपणाल्या घरांत रावंक सोदिना - अशें कित्याक जाता?

...कितलेशे 'सनातन' प्रस्न. ह्या प्रस्नांच्यो जापो भुरग्या भोंवतणी जाणटेल्यांनीच निर्मिल्ल्या वातावरणांत आसतात. *फुलत्यो कळयो* पुस्तकांत गोदूबाय ह्यो जापो सोदपाचो यत्न करता.

ह्या पुस्तका फाटली प्रेरणा गिजुभाई बधेका (१८८५-१९३९) हांगेलीं बरपां. गिजुभाई मादाम माँतिस्तोरीचे एक भक्त आनी शिश्य. एक आगळे वेगळे भारतींय (गुजराती) शिक्षणतज्ञ. तांणी गुजरातींत दोनशां वयर पुस्तकां बरयल्यांत. चडशीं भुरग्यां खातीर काणयांचीं. हातूंत कांय आवय-बापाय खातीर बरयल्लीं पुस्तकां आसात. हांतलीं *माबाप थवुं आकरूं छे ("आवय-बापूय जावप कठीण'), माबापोने* ("आवय-बापायंक"), *आ ते शी माथाफोड ("ही कसली कटकट")* हीं पुस्तकां वाचून गोदूबायक कोंकणी आवय-बापा खातीर अशे तरेचें कितें तरी बरोवचेली इत्सा जाली. गोदूबाय सांगता, 'भुरग्यांचे कुडिची आनी बलायकेची जतनाय घेतली आनी तांची अपुर्बाय केली म्हूण भागना. आवय बापायन भुरग्यांचें उलोवप करप, चलप खेळप सगळें बारकायेन लक्ष दिवन पळोवंक जाय आनी तांकां 'समजून घेवन' तांचे वाडीक आपणाली आडखळ येवंक दिनासतना हातभार लावंक जाय म्हणपाचें पयलेच फावट ह्या पुस्तकांनी म्हाका समजावन सांगलें'. *(फुलत्यो कळयो,* दुसरी उजवाडावणी, जाग प्रकाशन १९९७:४.) आनी मुखार म्हणटा, 'भुरग्यांचेर बरोवपाचो म्हाका कसलोच 'अधिकार' ना. पुणून, म्हज्या भांवडां पसून नातरां मेरेनचे जिविताचे यात्रेंत म्हज्या आंगार खांदार खेळून ल्हानाचीं व्हड जाल्लीं कितलिंशीच भुरगीं आसात. गिजुभाईंकडल्यान हांव शिकलां ताचेकूय चड ह्या भुरग्यांनी म्हाका शिकयलां.' (पान ५.)

*फुलत्यो कळयो* पुस्तकांत गोदूबायन गिजुभाईंनी आपणाल्या बरपांत दिल्ले कांय प्रसंग वेंचून ते कोंकणी वातावरणांत बसयल्यात.

ह्या पुस्तकाक दिल्ल्या 'आशीर्वादां'त बाकीबाब सांगतात, 'गोदूबाय म्हणटा ते प्रमाण ताणें मानसशास्त्रावेले ग्रंथ वाचल्यात जातीत. अणभवी लोकांले अणभवूय आयकल्यात जातीत. पूण ताजे लिखणेंतल्यान जें प्रकट जालां आनी जे तरेन प्रकट जालां तें पळेतकूच ह्या पुस्तकांतलें भांडवल जायांचें वा आडगत हाडिल्लें दिसना. खाशेल्या खरेल्या अणभवाचो नाद हातूंत घुमता.' (पानां: ६,७.)

देखीक, *फुलत्यो कळयों'*तलो हो एक प्रसंग —

'रमा खंय वता?'

'हे थंय.'

'थंय कित्याक?'

'बाबान म्हाका थंय बसून खेळ म्हूण सांगलां.'

बाबा हो रमाचो व्हडलो भाव.

इतल्यांत बापूय घरांत येता, तो रमाक पळेता आनी विचारता, 'थंय कितें करता रे तूं?

'हांव खेळटां' रमा जाप दिता.

'खेळटा म्हूण तोंड घेवन सांगता? चल, कुडींत भितर बसून अभ्यास कर... तूं कांय शिकना अशें सर सांगतालो.'




रमा खेळ बंद करता आनी कुडींत वचून अभ्यास करता. इतल्यांत रमाची व्हडली भयण कुडींत येता. रमा अभ्यासाक बसला-सो पळोवन तापता, 'तुका अभ्यास केन्ना करचो, खबर ना? ऊठ, उदक काडलां. न्हावन यो पयलीं. इकरा जालीं.'

रमा अभ्यास बंद करून न्हांवक वता.

इतल्यांत बापूय येता. रमाक एक ऑर्द सोडटा, 'हाका मात्शें पुंडीदादालें घर दाखोवन यो.' कोण एकलो पुंडीदादालें घर सोदीत आयिल्लो.

'हांव न्हावन येतां पयलीं.'

'मागीर न्हा. हाका पयलीं घर दाखय'.

(पानां: २७, २८.)

असल्या वातावरणांत भुरग्याची सारकी वाड कशी जावंक पावतली?

गोदूबाय सांगता,

'रमा सगल्यांत ल्हान. बाकिचीं सगलीं जाणटीं. जाणटीं जल्मा येतनाच ल्हान भुरग्यांक ऑर्दी करपाचो हक घेवन येतात. रमा एकल्याची ऑर्द आयकता. तितले म्हणसर दुसऱ्याची ऑर्द सुट्टा. पयलें काम अर्दकुटें सोडून तो दुसरें काम करूंक लागता. म्हणटासर तिसऱ्याची ऑर्द सुट्टा आनी रमाक दुसरेंय काम अर्दकुटेंच सोडून तिसरें काम करचें पडटा.

रमा कडल्यान एकूय काम सारकें जायना. काम केल्ल्याची खोसूय ताका केन्ना मेळना. तो मागीर निर्शेता. तो ल्हान जाल्ल्यान ताका 'ना' म्हणूंक येता. तो भितरले भितर कुचमता.' (पान २८)



*गिरीशा वांगडा*

*फुलत्यो कळ्यो* पुस्तक पयलेच खेपे १९५६ त उजवाडा आयिल्लें. ते आदीं १९५३ ते १९५५ मजगतच्या काळार हीं बरपां रवीन्द्रबाबांल्या 'मीर्ग' नेमाळ्यांत उजवाडा आयिल्लीं. ह्या बरपांतली सामाजीक फाटभूंय थोडी-भोव पन्नास वर्सां फाटली - पुस्तकाच्या प्रसंगांतल्यो चडश्यो आवयो घरांत वावुरपी (साडयो न्हेसून), आदोळेचेर बसून बी भाजयो शिनपी, बापूय नोकऱ्यो-धंदे करपी, भुरगीं चडशीं दोगा-तिगां भावंडांच्या सांगातांत, केन्ना केन्ना रासवळ कुटुंबांत, ल्हानांचीं व्हड जावपी. ह्या प्रसंगांनी घरचीं खंय खंय पाटार बसून बी जेवतात. पुराय पुस्तकांत टीव्ही-सिनेमा बी खंयच ना. गोदूबायल्या संवसारांतल्या ह्या मनशांक अजून व्यक्तिवादी जिणेदिश्ट व्हडलीशी आफडूंक पावंक ना... पूण इतलेंय आसून हें पुस्तक 'पोरणें' दिसना.

बाकीबाब म्हणटात ते भाशेन, 'भुरग्यांचो खाशेलो म्हूण एक संवसार आसता आनी तांकां खाशेलें म्हूण व्यक्तित्व आसता हाजें भान आमी दवरूंक जाय आनी तांचो मान राखूंक जाय हो ...सार ह्या पुस्तकांतल्यान येता...' (पान ७.)

एके जागरूक आवयचे नदरेन गोदूबाय आवय-बापायंक भुरग्यांच्या संवसाराची भोंवडी घडयता आनी पुस्तकाचे निमाणे कडेन तांकां सांगता, चलात, आतां कांय सोपूत घेवंया.

कसले हे सोपूत?

एक -

'भुरग्याचेर आमचो केन्ना हात उखलचोना'... (पान ८७.)

कित्याक?

'... मारान भुरगें भियेता. भियेलें म्हणटकूच तें फट उलोवपाक लागता. मेकळेपणान कितेंय करपा वांट्याचें चोरयां करता. हेंच भुरगें जाणटें जातकूच समाजाक भियेता, सरकाराक भियेता, सगळ्यांक भियेता. भुरग्यांक मारून समाजांत आमी भिजूड लोकांची एक जात निर्माण करतात.' (पान ८७.)

दुसरो सोपूत -

'भुरग्यांक आमी हँच फँच केन्नाच करचीं नात म्हणपाचो...' (पान ८८.) 'हँच फँच करतकूच भुरगें आमचे पसून पयसावता. ते भायर, ताच्यांत एके तरेचो न्यूनगंडूय आमी निर्माण करून दवरतात. असलें भुरगें मागीर जाणटें जातकूच सदांच फाटीं फाटीं उरता. धाडसान पावलां घालूंक पावना.' (पान ८८.)

तिसरो -

'भुरग्यांक फुसलावन तांचेकडल्यान आमी कसलींच कामां करून घेवचीं नात... फुसलावप म्हळ्यार लांच दिवप. लांच घेवन कामां करपाची भुरग्यांक संवय जाली जाल्यार जाणटीं जातकूच तीं लांच घेवनूच कामां करतलीं. लांच घेतलीं तशीं लांच दितलीं आनी दुसऱ्यांकडल्यान कामां करून घेतलीं.' (पान ८९.)

चवथो -

'भुरग्यांक आमी केन्नाच सर्तींत देंवोवचीं नात... सर्तींत देंवयलीं म्हणटकूच तीं मुखार वतात खरीं. पुणून सभावान अंदुखी जातात. दुसरो मुखार गेल्लो तांकां सोंसना... जाणटीं जातकूच लेगीत ...दुसऱ्यांक सकल ओडपाचीं कामां करूंक लागतात.' (पान ८९.)

उपरांत गोदूबाय ल्हवूच सांगता -

'भुरग्यांक नितिचो उपदेस केन्ना करूक फावना. उपदेसान केन्नाच कोण नितीवंत जायना... नीत उपदेसांत ना. कर्मकांडांत ना. ती आवय-बापायच्या जिवितांत भुरग्यांक दिश्टी पडूंक जाय. आवय-बापायचे देखिनूच भुरगें नीत शिकतलें. आवय बापायच्या जिवितांत नीत नासत जाल्यार भुरग्याक नीत शिकोवन तीं ताका दंभीच करतलीं.' (पान ९०.)

कितली समृद्ध नदर ही!

एका समृद्ध जिविताल्यानूच उपजल्ली!

म्हजेंच भुरगें न्हय, सगळ्यांचीं भुरगीं बरीं जावंक जाय हे उदार भावनेन बरयल्लें हें पुस्तक जण एकल्या कोंकणी आवय-बापायन मुजरत वाचपा सारकें.

# अंक संग्रह करपा सारको जाला...

फेब्रुवारी १३, २००९

प्रिय बाय माधवी,

मायेमोगाचो नमस्कार.

'जागा'चो दिवाळी-नाताळां अंक भोवच सोबीत-सुंदर जाला. रवीन्द्रबाबाचें भाष्य - देशाच्या फुडारा विशीं आश्वासक आशिल्ल्यान उमेद वाडली. शिक्षक म्हूण हांव सदांच आशावादी नदरेन संवसारा कडेन पळेतां. आमच्या जिविताक काळाची शीममेर आशिल्ल्यान आमकां सगळें ताकतिकेन आनी आमचेच हयातींत जावचें अशें दिसता हें सभाविकूच. पूण संवसाराक काळाचें बंधन मातूय ना. काळ अमर्याद आसता ह्या परिमाणांतल्यानूच आमी आमचे भोंवतणच्या सगल्या घडणुकांकडेन पळोवंक जाय.

मुकेशाची 'दोरेमीफा सासेनिसा' ही कथा बेस बरी जाल्या. ती खूब आवडली. मुखपृष्ठ पेजाद जालां. अंग संग्रह करपा सारको जाला.

बरें मागून,

तुजो

सुरेश आमोणकार

पडसाद

# डॉ. सुनीति कुमार चटर्जींचे सारकें मत...

फेब्रुवारी १३, २००९

मानेस्तांनू, नमस्कार.

'जागा'चें मार्च २००९ (३५-६) अंक पावलें. भोव आनंद भोगलो. तुमी तांतल्या २८ पानांतल्यान मोलादीक विचार मांडले!

Probal Dasgupta हांचें पत्र (पान ६) पळयलें आनी कोंकणीचेर तांचें मत डॉ. सुनीति कुमार चटर्जींचे सारकें दिसलें.

३५ वर्सांक कोंकणी भास आनी संस्कृतायेचे विशीं महत्वाचें काम करून येवचे तुमकां आनी तुमचे पुराय जनांक देव चड बरें करूं अशीच मागून घेतां.

केन्नाय तुमचो,

एन्. आनन्दन (कोची-केरळ)

---

# साहित्य-समीक्षाशास्त्रांतल्यो संकल्पना

### अभिहितान्वयवाद आनी अन्विताभिधानवाद

अभिहितान्वयवाद म्हळ्यार वाक्याच्या अर्थाचो बोध कसो जाता हें सांगपी एक उपपत्ती. शब्दांच्या अभिधा, लक्षणा आनी व्यंजना ह्या तीन अर्थबोधक शक्तीं भायर 'तात्पर्य' नांवाची चवथी वृत्ती कांयं विद्वानांनी मानल्या. भाट्ट (मीमांसक), नैयायिक आनी वैशेशिक हे तात्पर्यवृत्ती मानपी मीमांसक. तांच्या मत्ता प्रमाण शब्दांचे शब्दशक्ती वेल्ग्नान आमकां वस्तूंचें (पदार्थाचें) गिन्यान जाता. उतरांनी खबर जाल्ल्या पदार्थाचो अन्वय जावन त्या अन्वयाक लागून आमकां वाक्यार्थ कळटा. देखीक, 'हुंदीर धांवलो' ह्या वाक्यांत दोन पदां आसात. हुंदीर ह्या पदान (शब्दान) हुंदीर जातीचो बोध जाता जाल्यार 'धांवलो' ह्या पदान सामान्य क्रियेचो बोध जाता. हांगा हे अर्थ शब्दाचे अभिधावृत्तीक लागून कळ्ळे. तितल्यान अभिधेचें कार्य सोंपलें. ह्या दोन पदां मदलो संबंध दाखोवपी उतर ह्या वाक्यांत नासुनूय आमकां तांचे मदलो संबंध समजलो. तो समजुपाचें कारण तात्पर्य नांवाची वृत्ती. ही तात्पर्यवृत्ती योग्यताय, आकांक्षा आनी संगत (सान्निध्य) हांकां लागून समजता. आनी पदांनी (शब्दांनी) बोधीत जाल्ल्या वस्तूं मदल्या संबंधाचो बोध करून दिता. ह्या अर्थाक 'तात्पर्यार्थ' म्हणटात. कुमारिलभट्ट आनी ताचे अनुयायी अभिहितान्वयवादी तात्पर्यवादी विचारांचे समर्थक आसले.

**अन्विताभिधानवादः** तात्पर्यवृत्ती न मानतल्यांक अन्विताभिधानवादी म्हूण वळखतात. प्रभाकर ह्या विद्वानाच्या मत्तान, आमकां शब्दांचो जो अर्थ कळटा तो स्वतंत्रपणान कळच ना. दरेक उतर दुसऱ्या खंयच्या तरी उतरा कडेन संबद्ध अशा स्वरुपांतूच कळटा. देखून पयलीं वस्तूचो बोध स्वतंत्रपणान घेवप आनी उपरांत ते वस्तूचो परस्पर अन्वय कळपाक तात्पर्यवृत्ती अशी प्रक्रिया जायना. आमकां कळपी पदांचो अर्थ हो अन्वित अवस्थेंतूच कळटा. हे खातीर ताणें एक देख दिल्या. ती अशी: 'अनिरुद्ध, बैल हाड' अशें एक जाणटेलो एका तरणाट्याक सांगता. हें वाक्य एक ल्हान भुरगोय आयकता. अनिरुद्ध एक विशिश्ट प्राणी (सावद) घेवन येता आनी ते क्रिये वेल्यान त्या धाकटुल्या भुरग्याक त्या वाक्याचो पुराय बोध जाता. म्हळ्यार, भाशेचो बोध, वाक्यांतलीं उतरां एकामेकां कडेन अन्वित आशिल्ल्यान, वाक्यांच्याच आदारान जाता. आदीं वस्तू कळून मागीर तिचो अन्वय कळना तर वस्तूचो बोध अन्वीत अवस्थेंत जाता अशें प्रभाकराचें मत्त.

**- प्रियदर्शिनी तडकोडकार**

# मनशांच्या गांवांत



दामोदर मावजो

रामनगर पावतासर आगळें अशें कांयच घडलें ना. सगले बैल बरे लायनींत चलताले. मदीं मदीं धांवताले. बुद्दूल्या गळ्यांतल्या घुंगरांच्या मधूर आवाजाच्या तालार हातांतली निगडयाची बडी वावडीत फाटसून हलसिद्धू धांवतालो.

आनीक एकच दीस. मागीर गोंयां. दरेका बैला फाटल्यान चाळीस तरी मेळटलेच. गोरवां एक फावट खतालाचे सुवादीन केलीं म्हणटकीर दुडू मेजून घेवपाचे आनी परती खातीर सामान घेवपाचें.

हाचे ताचे सांगणेन आयकल्लो पांचवोचार गोंयचो वाठार दोळ्यां मुखार आयलो. भुल्लशिल्ल्या हलसिद्धू हातांतली शिपटी चिम्म करून बुद्दूचे फाटीर ओडली. बुद्दू उडकी मारून धांवपाक लागलो तेन्ना फुडल्या बैलाच्या भोंकाक ताची तकली आपटली. फुडल्या बैलान शेंपडी वयर काडली आनी तो कुशीक धांवलो. तितल्यान फाटल्यान येवपी ट्रकान ताका फाटसून धपको मारलो. व्हडली हांबेट मारून बैल रस्त्यार आडवो पडलो. ट्रक रावनासतनाच गेलो.

सिद्धूचेर आकांत आयलो. आतां करप कितें? ताणें हेर बैलांक बेगबेगीन आमडून रस्त्याचे कुशीक उकत्या मळार देंवयले आनी तो परतो रस्त्यार आयलो. बैल काकुळटायणे नदरेन सिद्धू कडेन पळयतालो. ताच्या कमराचीं हाडांच मोडिल्लीं. फुडले पांय हालयत तो आपूण जितो आसां म्हूण दाखयतालो इतलेंच. सिद्धून थंयच ताचे कुशीक बसकण मारली.

वाटे वाटसुरे खीणभर रावताले. चुरचुरताले. आनी आपले वाटेन वताले. फाटल्यान येवपी एका ट्रक ड्रायव्हरान तर ट्रक खीणभर थांबोवन गाळ मारीत सिद्धूचेर थेंकणो घालो — ओडून कुशीक काड ताका. दिश्टी पडना, ट्राफिकाक आडखळ जाता ती?

घरा कडल्यान भायर सरचे पयलीं बापायन जायत्यो मोलादीक सुचोवण्यो केल्ल्यो. खतालाच्या मनशांनीय अनेक गजालींची शिटकावणी दिल्ली. पूण वाटेर असो अपघात जाल्यार कितें करपाचें तें सांगूंक नासलें.

हा ऊ करून येत्यावेत्याच्या हातापांयां पडून सिद्धून बैलाक ओडून रस्त्याचे कुशीक काडलो. बैल अर्दपोटार दीस काडून बडकेल्लो तरी तिगांक भारी जालो. बैलाचे काकुळटायणे नदरेक नदर दिवपाचें सिद्धू टाळूंक लागलो. हेवटेन तेवटेन पळयलें. पयस एक खोंपूटशें घर दिश्टी पडलें. हेर बैलांक रस्त्यार पावचे नात अशे दवरून सिद्धू त्या घरा वटेन गेलो. एक जाणटेलो भायरच बशिल्लो. सिद्धून उदक मागलें. मागिल्लें बैला खातीर. पूण जाणटेल्यान वाडग्यांत दिलें. तें पियेवन सिद्धून बैलाची खबर सांगली. तेन्ना ताणें एक प्लास्टिकाची बाटली भरून दिली.

सिद्धून बाटली बैलाच्या तोंडांत रिती केली. पूण ताच्या पोटांत कितलें गेलें काय सगलेंच भायर पडलें, कळ्ळें ना.

— गोंयां व्हरता बैलांक?

जाणटेलो बगलेक येवन उबो राविल्लो. सिद्धून मान हालयली.

— खताल कोण?

— काशीम.

— आतां कितें करतलो तूं?

सिद्धू वग्गी रावलो.

— म्हगेलें आयक. हो बैल आतां उबो जावचो ना. तो मरचे पयलीं कोणाक खाटकाक विकल्यार चार पयशे मेळटले. हांगाच्यान अर्द वराचे वाटेर करीम रावता. ताका आफोवं?

पर्थून सिद्धू वग्गी रावलो. बैलान तकली जमनीक लायिल्ली. पूण पडिल्ले कडेन लेगीत आपणाली काकुळटायणी नदर सिद्धू कडेन लावन पळयतालो. घडये 'सोंपय म्हगेल्यो यातना' म्हणटालो.

— काशीमाक हांव वळखतां. हांवूय पयलीं गोरवांक व्हरून पावोवपाचें काम करतालों. म्हगेलो खताल नबी. ह्या नबी कडेनच काशीम तयार जाला. गोंयां गेल्ले कडेन मेळटालोच म्हाका. आतां म्हज्यान जायना.

सिद्धू आपणाल्याच चिंतनांनी घुसपल्लो.

— आप्पा! खतालाक कितें सांगूं? तो म्हाका...

— काशीमाक सांग, दरग्या कडल्या अशरूमियान सांगलें म्हूण आपणाक. येतलो तो हेवटेन. हांवूय सांगीन ताका. चूक तुजी न्हय. आनी अशीर रस्त्यांर अशें घडटा हें ताकाय बरें खबर आसा.

अशरूमियांल्या उतरांनी सिद्धूक थाकाय मेळ्ळी. करीम आयलो तेन्ना आमोरी जावन गेल्ली. तो येतना धाकलीशी ऑटो रिक्षाच घेवन आयिल्लो. ते येदेशे रिक्षेंत तो येदो व्हडलो बैल ताणें चेपून भरलो.

— त्रास जातले ताका. दुखतलें.

सिद्धू कळवळ्ळो तें पळोवन करीम कुच्छित्री हांसलो.

— पोसूंक व्हरना ताका. मारूंक व्हरतां.

करीम वचपाक लागलो तेन्ना सिद्धून ल्हवच जाणटेल्याक विचारलें.



— आनी दुडू?

— तुवें दुडू मागल्यार तो मातयेमोलाक व्हरतलो. हांवें सांगलां ताका काशीमाकच दी म्हूण. काशीमाली सदची वाट ही. तोय वळखता ताका. काशीमाक सांग तूं हांवें अशें सांगलां म्हूण.

सिद्धूक सूऽ जालें.

ती रात हलसिद्धूक थंयच सारची पडली. अशरूमियां कडेन मागून हाडिल्ल्या कद्यांत थोडी पेंड फुगयली. यल्लमाचो प्रसाद वांटचो तशें तें कदें सगल्या बैलां मुखार भोंवडायलें. मागीर कद्यांत उदक ओतलें. एकामेकांक धोंगशीत बैलांनी मेळटा तितलें चाटून घेतलें. उपरांत बैलांक कंवडाळें करून बसयले. मर्दी तागेलो बुद्दू बसलो रवंथ करीत.

आम्मान सिद्धू खातीर दिल्ली भुती लुगटाचे पोतयेंत घालून बुद्दूच्या शिंगांक खुंट्याळ्याक हुमकळावची तशी लायिल्ली. सिद्धून ती काडली. बैलाक पिवयिल्लेच बाटलेंत उदक घेवन आयलो. आनी कुशीच्या घोडगेरुखा मुळांत ताणें बस्तान मांडलें. बरोच फोंड पडिल्लो जावंये पोटांत. लसणीचे चेटणेक लावन तीन जोंधळ्याच्यो भाकऱ्यो खावन लेगीत आनेक खायन दिसली. पूण वानसा मारून ताणें भुती धांपली. तश्यो भाकऱ्यो आजून अर्द्यो उरिल्ल्यो. पूण परतीचे वाटेक पावोवन खावपाक जाय न्हय? उदक पियेवन धेंकर दीत तो घोडगेरुखा मुळांत लवंडलो.

असलोच घोडगेरूख तागेल्याय दारांत आशिल्लो. हाचे परस इलो व्हडच. पूण पोरूं शिंयाळ्यांत सगळो पतरो झड़यले उपरांत आतां धा म्हयने सरले तरी आजून आंकरी धरूंक नाशिल्ली. पावसच ना ताका तो कितें करतलो? हजार खांदयो ताका, पूण आसबास काडून सुकिल्ल्यो. थंय सगलेभरच सुकाड पडिल्लो. हांगाच्या ह्या रुखाक काय बरीं पानां आसात पळय. आनी गोंयां वतकीर तर चोंयदिकांनी पांचवेंच पांचवें खंय!

— व्हड जातकच गोंयां वचून राव आनी मनीस म्हूण जिये.

आप्पून सिद्धूक सांगिल्लें. आप्पूक जमलें ना तें पुतान करचें अशी ताची इत्सा आसली.

खानापूर काडून हाय वे कडसून सात मैल भितर आशिल्ल्या तांगेल्या गांवांत एक्क शाळा नाशिल्ली. आप्पूल्या बापायन खंय बाबासायब आंबेडकरालीं भाशणां आयकल्लीं. ताणें आप्पूक सांगिल्लें,

— शीक आनीक मनीस जा.

आप्पू शाळेक गेलो. मुळावें शिकप घेतलें. पूण तो मनीस जावपाक पावलो ना. उपरांत म्हारवाड्या वयलीं जायतीं भुरगीं शाळेंत गेलीं. हायस्कुलांतूय पावलीं. पूण गांवांत रावलीं तांतलीं कोण्ण मनीस जावंक पावलीं नात. खानापूरा-बेळगांवां गेल्ले भुरगे गांवच्यां परस बऱ्याक पावले. पूण आप्पून तेय परस वेगळें जग पळयलें. तागेले वळखीचे चौग गोंयां राबितो करून आशिल्ले. ते निमतान आप्पू चार वेळा गोंयां वचून आयिल्लो. थंयची जीण पळोवन आप्पून सिद्धूक सांगिल्लें,.

— सिद्धू, चड शिकना जाल्यार जाता. पूण व्हड जातकच गोंयां वचून राव आनी मनीस जा.

गोंयां वचून रावतलों आनी मनीस जातलों हें सपन पळयत सिद्धू व्हड जाल्लो. पूण तें साकार जावपाचीं कसलींच चिन्नां दिसनासलीं.

खताल गांवांत पावलो तेन्ना सिद्धूले आशेक कोमरी फुटली. गांवांत दुकळ पडिल्लो. शेतकामत्यांलीं पोटां फाटीक तेंकिल्लीं. खात्यापित्या घरांनी लेगीत एकेच वेळेची रांदन पेट्टाली. मनशांची ही गत्त जाल्यार गोरवांची वासपूस कोण करतलो? जाणट्या गोरवांची गजाल सोडच. तरण्या बैलांचीं लेगीत हाडां मेजूंक मेळटालीं. तार्वूत पावस पडटलो हे आशेन ह्या बैलांचे मानेर जूं दवरिल्ल्यान तांचे मानेक खिणां पडून चवनां जाल्लीं. हे गळो लागिल्ले बैल कोणाक उपकरा पडपाचे? पोरां भाशेन वाडयिल्लीं हीं गोरवां आतां जड जाल्लीं.

शेतकामती गळसणलो, हवालदील जालो म्हणटकच खतालांचें फावतालें. तांचें कामूच तें — अडिल्ल्या अडचल्ल्यांचीं गोरवां सवाय दरेन घेवपाचीं आनी पयसुल्ल्या गिरायकांक म्हारगे दरेन विकपाचीं. माथ्यार पगडी घालून खाडयो कासीम गोंयच्यान मोटरसायकल घेवन झेतान गांवांत आयलो. पयलीं ताणें गांवच्या गरजेवंतांक जोखले आनी मागीर बैलांक मोलायले. हातार पडटा तें मोल लोकांनी चड मानून घेतलें.

सिद्धूलोय बैल आशिल्लो. सिद्धूक तो दिल्लो नाका आशिल्लो. आप्पू ताका कसोच दवरचो ना हेंय तो जाणा आसलो. पूण अजाप म्हळ्यार, आप्पूनच बैल दिवपाचो ना म्हूण सांगिल्लें.

खतालाक गोरवांक आमडून गोंयां व्हरपाक एका मानायाची गरज आसली. कासीम गांवांत आयलो तेन्नाच आप्पून तें पारखिल्लें.

— हो हलसिद्धप्पा! जिवान पळय कसो आसा. हो करतलो तें बैलकाराचें काम.

आनिकूय चौग जाण बैलकार जावपाक फुरफुरताले. पूण जुवान सिद्धूलो आंगलोट आनी ताची उमेद पळोवन खतालान ताकाच वेंचून काडिल्लो. उपरांत आप्पून सिद्धूक आपणाली येवजण सांगिल्ली... त्या खतालाक बैल विकचे परस ताणें घेतिल्ल्या बारा बैलां वांगडा बुद्दूकय सिद्धून गोंया व्हरपाचो. कासीमाले बारा ताचे सुवादीन करतकच बरें गिरायक सोदून थंयच लाटपाचो. थंय मोल दुपेटीन तरी मेळटलें... आप्पूली तकली काय बरी चलता तें पळोवन सिद्धू खूश जाल्लो. खतालान गोरवां-वैजा कडल्यान बारांचेच पेपर करून हाडिल्ले. पूण आप्पून म्हणिल्लें — बारा कितें आनी तेरा कितें! कोणाच्याच लक्षांत येवचें ना.

बैलांच्या खुरांक नाल मारून घेवप, तांच्या शिंगांक कुरवेचो पांचवो रंग सारोवप, वेटर्नरीचें सर्टिफिकेट तयार करप — हीं सगलीं कामां खतालाच्या मनशानच करून दिलीं. लोकांनी बैलांक खतालाचे सुवादीन करतना बैलाच्या गळ्यांतलीं घुंगरां, घांटी बी काडून दवरिल्ल्यो. सिद्धून मात बुद्दूल्या गळ्यांतलीं घुंगरां तशींच दवरिल्लीं. विकच्या वेळार मागीर काडचीं म्हूण.

आम्मान रासभर जोंधळ्याच्यो भाकऱ्यो थापिल्ल्यो. लसणीची झणझणीत चेटणी तयार केल्ली. करतना तोंडान बडबडत आशिल्ली.

— सौंदत्ती येल्लमाची जात्रा बगलेक पावल्या. पांच राती थंय रावपाक जाय. काम जायनाफुडें तुका येवचें पडटलें. जात्रेक ते अनशीकूय व्हरुंया येल्लमाच्या पांयां कडेन. तूं परतुपाक कळाव करूं नाका. हे भोंवडेर बरे दुडू जोडले जाल्यार जात्रा उलगनाफुडें लग्न करून हाड अनशीक घरांत.

अनशीक सून म्हूण हाडपाचें निमाणें मानून घेतलें आप्पून आनी आम्मान हातुंतच सिद्धू खुशाल जाल्लो.

पोरूं येल्लमाचे जात्रे पयलीं एक दीस मांगवाड्यार पाविल्ले कडेन. दोनूय हातांनी

शेणयो थापतना ताणें पयले खेपेक तिका पळयिल्ली. घागऱ्याचो कासाटो मारिल्लो. पिंदकऱ्या पोलकांतल्यान जुवानपण भायर उडकी मारतालें. पिसुडिल्लें केंस दोळ्यांर देंविल्ले. हलसिद्धूची खिळिल्ली नदर पळोवन ती सावचीत जाल्ली. शेणाच्याच हातांनी कपलार देंविल्ले केंस वयर काडटना पोल्यांकूय शेण लागिल्लें. तें पळोवन सिद्धूक हांसो आयिल्लो. आनी तें पळोवन अनशी लजेल्ली. उपरांत येल्लमाचे जात्रेक दोंगुल्लेचेर राबितो करून राविल्ल्या वेळार ताणें पर्थून अनशीक थंय पळयिल्ली. पयलीं दोगांय दोळ्यांनीच उलयिल्लीं. निमणे राती सिद्धून तिका ओडून कडेक झिलींनी व्हेल्ली. घट्ट दामिल्ली आनी सांगिल्लें, – तूं तुगेले आम्माक सांग. हांवूय घरा सांगतां.

पूण ताणें घरांत सांगलें तेन्ना आप्पान सट्ट करून म्हळें,

– अशें कशें जातलें? ती मांग. आमी म्हारां.

आम्मान फुडें ताणलें,

– मांग आमचे परस उणाक. पूण तीं मात आमकां उणाक लेखतात.

सिद्धून मर्मार बोट दवरिल्लें,

– बाबासाहेबान हेंच शिकयलां आमकां?

आनी सोयरगत जावन पडिल्ली. आतां चार पयशे गांठीक लागले म्हणटकच लग्न.

ट्रकान बैलाक मोखलो तेन्ना दिशिल्लें, आतां खतालाक वयल्यान हांवें फारीक करचे पडटलें. जावं! हो अशरूमियां मेळिल्ल्यान माणसुकी. दर्ग्या कडलो अशरूमियां! आं, हांगा दर्गो आसा तर लागीं. फांत्यार उठनाफुडें दर्ग्यार वचून पांयां पडूंक जाय. पीर कोणूय आसूं, ताचे लागीं मागणें करूंक जाय - बेगीन लग्न जावंदी. अनशीक घेवन पांयां कडेन येतलों.

ते राती अनशीक घट धरीत सावन दर राती हें अशें जातालें... ताणें कूस परतिली. दोनूय पांय दोडून पोटा कडेन घेतले. दोनूय हात जांगडां मर्दी घाले आनी पोशेत, सोंशेत रावलो.

चंद्रीम चकचकीत आसतनाच तो उठलो. दर्ग्यार वचून भायल्यानच पांयां पडून आयलो. गोठेल्ल्या बैलांक उठायले. शेणामुताचो वास नाकांत भरलो. गांवांत आसल्यार हें इतलें शेण पुंजायल्यार पंचवीस तीस शेणयो थापून जातासल्यो अशें येवजीत फांतें जावचे पयलींच ताणें बैलांक आमुडले.

गोंय लागीं पावता तसो वाठार पांचवो जायत वतालो. सिद्धू वरी बैलांकूय केन्ना कांय गोंयां पावताशें जाल्लें जावंये. तांचीय चाल सडसडीत जाली. वाटेर अशीर मोडण आयलें जाल्यार सिद्धू चतरायेन गोरवांक कडेक काडटालो. इतलें आसुनूय फाटल्यान येवपी कांय ट्रक बेठेच स्लो करून दोन गाळी संवून वताले.

दनपार देंवता म्हणसर रस्तो तापलो. आप्पून दिल्ली जोत्यां पार बैलाच्या शिंगाक खोयिल्ली आसली. सिद्धून ती काडून पांयांत घाली. डांबरी रस्त्यांचेर चलपाची ताकाय संवय नासली आनी बैलांकूय. पूण बैलांचे पांय ह्या मार्गाचेर निसरचे न्हय म्हणून तांच्या खुरांक पयलींच नाल मारिल्ले. सिद्धू कडेन जोतीं नासलीं. ताका संवयूच नासली. आप्पू कडेन एक पार आशिल्ली. तीय चामड्याचीं. ती ताणें खंयच्या तरी देवळांतल्यान फारायिल्ली. तोय ती घाल नासलो. मात नेमान ती घासून पुसून तेल लावन दवरतालो. वर्सांतल्यान एक फावट केन्ना तरी घालून मिरयतालो. हरशीं मागल्यार लेगीत सिद्धूक पातये नासलो. आतां मात ताणें आपूण जावन काडून दिल्ली. रस्तो तापता तेन्ना घाल म्हणिल्लें. पूण वरभर चलनाफुडें जोतीं लागूंक लागलीं. बैलां वयलें लक्ष घडये घडयेक जोत्यां कडेन वचूंक लागलें. तेन्ना ताणें जोतीं काडलीं. परतीं ते प्लास्टिकाचे पोतयेंत घालीं आनी पोती शिंगाक खोयली. कर्नाटकाच्या मेटार पेपर तपासले.

– कोणालीं? कासीम खतालालीं? बारा आसात न्हय? वच.

गोंयच्या मेटार प्रत्येक बैलाक वासिंनां मारलीं. एक एक करून बैल मेजले. काशीमान बारांचेंच कमिशन खावोवन दवरिल्लें. तेरा आसल्यार घडये त्रासांत पडटलो आसलो. तो एक बैल मेल्ल्यान बुद्दू सुटलो.

जालें. पावलों गोंयां. हांगाच खंय तरी काम सोदूंक जाय. बिराड पळोवंक जाय. मनीस जावंक जाय.

आप्पून सांगिल्लें खताल दितलो ते पयशे घेवन रितो येवं नाका.येतना त्या पयशांच्यो सोन्याच्यो बाटल्यो हाड. गोंयां सोरो सवाय. खानापूराक व्हरून विकल्यार दुडू दोबरात जातले.

आप्पूली वेव्हारी वृत्ती देख घेवपा सारकी. पूण थोडे पयशे खर्चुंकच जाय. आप्पू-आम्मी खातीर आनी अनशी खातीरूय कितेंय तरी व्हरूंक जाय गोंयच्यान.

कासीम खताल ताका तिस्कार मेळपाचो आसलो. मेटार सावन चार वरांची वाट म्हूण सांगिल्लें ताका. पावता म्हणसर मध्यान जायत येतली. तेपरस हांगाच खंय तरी रातीचो राबितो केल्लो बरो.

सिद्धून मार्गा कुशीक उकती सुवात सोदून काडली. पर्थून बैलांचें कंवडाळें घालें. मर्दी बुद्दूक बसयलो. भुती सोडली. आनी मागीर कालचे वरीच पांय दोडून पोटा कडेन घेवन अनशीची याद काडीत न्हिदलो.

फांतें जावचे पयलींच बुद्दूच्या गळ्यांतलीं घुंगरां चालीच्या तालार किणकिणूंक लागलीं. चोंयवटेन पांचवोचार वाठार. वाटेवाटेर उदकांच उदकां. वाड्या कणकणी गौशीक नळ. अनशीक हांगा कसलोच त्रास जावचो ना. हांगचो लोक खूब बरो खंय. हांगाच रावप. मनीस जावप.

एका देवळा कुशीक सभा चलिल्ली. कोण तरी सदरो घाल्लो फुडारी तावातावान भाशण करतालो. लोक ताळयो पेटयताले. सिद्धून चाल उणी केली. वोत दोळ्यांर मारूंक लागिल्लें. पोटाक भूक लागिल्ली. हांगाच सोडोवंया भुती आनी खावंया एखादरी भाकरी? काय पावतकीर मागीर खावची?

कसली काय सभा? वेंचणुकेची काय?

– मोनजातीचो मोग करात. जनावरांक पिडापीड करूं नाकात. दुसरो करता जाल्यार आडायात. कायदो तुमचे वटेन आसा. लिपचोरयां कास करतात तांकां लावन दियात. जिबेचे लाड करतना जनावरांकूय दुखता हें आमी विसरतात. कुकडां-बोकडांक बळी दिवप बंद जावंक जाय. गायो-बोकडां मारून खातात ताकाय आळाबंद जाय.

सभेक आयिल्लो कोण तरी ताळो सरांटून आड्डलो, – तेवटेन रस्त्यार पळयात. गोरवांक खाटिकखान्यांत व्हरतात तें.

मायकार उलोवपी फुडाऱ्याक नेट आयलो.

– पळयात. गोमातेक आमी देव मानतात. बैलाक नंदी लेखतात. हीं गोरवां आमचीं शेतां नांगरतात देखून आमकां पोटभर खावंक

जेवंक मेळटा. आनी आमी? ह्या बैलांक मारूंक व्हरतात तें पळोवनूय हात कामरून वगी रावतले?

सिद्धूक तांची भास कळ्ळी ना. सभेंतले लोक चाळवल्ले वरी उठून धांवंक लागले. खंय धांवतात काय म्हूण पळयतासर ते रस्त्यार आयले. कोणें बडी घेतली, कोणें बेठोच बोवाळ घालीत गोरवांक आमुडलीं. बुद्दूय धांवंक लागलो तेन्ना व्हडा येत्लांनी सिद्धून ताका आडायलो. म्हणसर लोक धांवन आयलो. सिद्धूक ओडून कुशीक काडलो आनी बैलाक धांवडायलो. बुद्दू धांवतना ताच्या शिंगाक लायिल्ली भुतयेची पिशवी शेंवटून सकयल पडली. सिद्धू पिशवी काडपाक धांवलो. पूण लोकांनी ताका ओडलो.

— बैलांक मारूंक व्हरता? तुमकां बुद्द शिकोवंकच जाय. सण्ण करून एक थापट सिद्धूल्या कानसुलाचेर पडलें.

— गाय बैलों की कत्तल करता है? तुजी पयलीं करुंया.

पर्थून एकल्याली खोंट सिद्धूचेर पडली. मागीर दुसऱ्याली. चाळवल्ल्या म्होंवामुसां भाशेन लोक ताका पेटूंक लागले. मोनजातीचो मोग करपी ह्या लोकांनी सिद्धूक येतिश्ट पेटयलो.

सिद्धूक मात ह्या मनशांनी आपणाक कित्याक मार घालो हें निमाणे मेरेन समजलें ना.



# घुस्मटमार

**नागेश नायक वडिये**

सकाळची च्या पितां पितां दोतोर आमोणकार सोफाचेर बसून खबरेपत्रांचेर नदर मारतालो. मुखावेल्या पानाचेर ताका आपलो फोटो छापून आयिल्लो दिसलो. गांवांतल्या संगळ्या सामाजीक संस्थांनी दोतोराक परबीं दिल्ल्याच्यो जायराती पयल्याच पानार आयिल्ल्यो. दोतोरान पान परतिलें. भितल्ल्या पानाचेरूय ताच्या फोटया सयत लेख छापून आयिल्लो. सोयऱ्या, इश्टांनी आनी बरें मागप्यांनीय ताच्या फोटया सयत जायराती दिवन दोतोराक हुनहुनीत परबी दिल्लीं.

ही शुभेच्छांची वळेरी पळोवन दोतोराक खोस जावपाची. पूण अजापाची गजाल म्हळ्यार दोतोराच्या मुखामळार तशे कांयच भाव नाशिल्ले. उरफाटो दोतोर आयज चडूच चिंतेस्त दिसतालो.

दोतोराचे बांळटीचे उस्पिसेक आयज पंचवीस वर्सां पुराय जाल्लीं. फाटल्या पंचवीस वर्सांत हे उस्पिसेंत शेंकड्यांनी भुरग्यांचो जल्म जाल्लो. विशेश म्हळ्यार, थंय जल्मल्लें भुरगें जावं भुरग्याची आवय एकाय बांळटेरा वेळार भायर पडिल्ल्याचो कावज आयज मेरेन तरी घडूंक नाशिल्लो. दोतोराचे कुशळटायेक लागून आयज मेरेन सगळे बांळटेर बरे भशेन जाल्ले. पार्ताच्या वेळार दोतोरूय बांळटीची खूब काळजी घेतालो.

दोतोराली फी लेगीत साप उणी आसताली. गरीब दुबळ्यां कडसून तो फियेचे पयशे घेना आसलो. हाका लागून गांवच्या लोकांक तो देवा समान जाल्लो. दोतोराक लागुनूच त्या गांवचें नांव बरेंच फामाद जाल्लें. शेजारच्या गांवांतल्यो गुरवार बायलोय बांळटेरा खातीर हेच उस्पिसेंत येताल्यो.

दोतोरा विशीं आपणाक दिसता तो आदर उकतावपा खातीर गांवांतल्या सामाजीक संस्थांनी एकठांय येवन गांवच्या सगळ्या लोकांचे वतीन दोतोराचो सन्मान करचो आनी त्याच वेळार ताका 'धन्वंतरी' हो पुरस्कार भेटोवचो असो निर्णय घेतिल्लो.

आयज हे उस्पिसेचो पंचवीसावो वर्सुकी दीस. ते निमतान आयजच हो पुरस्कार दिवपाचो थारायिल्ल्यान आयच्या खबरेपत्रांतल्यान दोतोराक खूब प्रसिद्धी मेळिल्ली.

दोतोर मात पुरस्कार घेवपाक राजी नाशिल्लो. पूण गांवच्या लोकांच्या आग्र्हा मुखार ताचें कांयच चल्लें ना. आपणाचेर गांवच्या लोकांचो इतलो विस्वास आशिल्लो पळोवन ताका खोस जाल्लीच, ना न्हय. पूण पुरस्कार आपणें घेवंक फावना अशें ताचें मन ताका सांगतालें.

च्याचो घोंट मारून दोतोरान लांब सुस्कारो सोडलो. दोळे धांपून तो चिंतीत बसलो. पंचवीस वर्सां फाटीं घडिल्ली एक घडणूक ताच्या दोळ्यां मुखावेल्यान फुडें सरकत वचूंक लागली.

एम्. डी. करून दोतोरान नवजात अर्भकतज्ञ ही पदवीय जोडिल्ली. उपरांत तागें मुंबयचे एके फामाद बांळटीचे उस्पिसेंत गायनकॉलॉजिस्ट म्हूण पांच वर्सां काम पळेल्लें. थंय तो बांळटीच्या विभागाचो मुखेल आशिल्लो.

त्या काळार गोंयांत दोतोराच्या गांवांत बांळटीची उस्पीस नाशिल्ली. गुरवार बायलांच्या बांळटेरा वेळार वैजिणीक हाडून घरचे घराच बांळटेर करचे पडटाले. लोकांची गरज पळोवन दोतोरान गोंयांत येवन आपल्या गांवांत उस्पीस सुरू केली. आपल्या शिक्षणाचो आनी अणभवाचो फायदो गांवच्या लोकांक जावचो अशें ताका दिसतालें. ताचे उस्पिसेक लागून गुरवार बायलांची तपासपाची आनी पार्ताची सोय त्या गांवांत जावंक पाविल्ली.

दोतोराची उस्पीस बरी चलताली. गांवच्यो गुरवार बायलो दीस गेले म्हण कळनाफुडें दोतोरा फुड्यांत वचून तपासून घेताल्यो आनी त्यो बाळांत जाय मेरेन दोतोर तांची वेवस्थीत काळजी घेतालो.



एके बांळटीचे बाबतींत मात ताचो अदमास सामको चुकिल्लो... गेल्लीं पंचवीस वर्सां ही खंत ताका सतायत राविल्ली.

दोतोराची उस्पीस सुरू जावन पांच स म्हयने जाल्ले तेन्नाची ही गजाल. दीस गेल्यात म्हण कळिल्ल्यान एक बायल दोतोरा फुड्यांत तपासपाक आयिल्ली. तपासून जातकीच दोतोरान तिका म्हयन्यान परती आपयिल्ली. णववो म्हयनो लागऽ मेरेन ती बायल नेमान येवन तपासून घेताली आनी दोतोरान दिल्लें वखद वेळावेळार घेताली. पयलोच गुरवाचार आशिल्ल्यान बायलेच्या मनांत सभावीक भिरांत निर्माण जाल्ली. पूण, भियेवपाचें कांयच ना, सगळें नॉर्माल आसा, अशें सांगून दोतोर तिका धीर दितालो. दोतोरान तिका तारीक दिल्ली. आठवो सोंपतकीच तिका तपासच्या वेळार तिच्या पोटांतल्या गर्भाची हालचाल सारकी जायना असो दोतोराक दुबाव दिसलो.

दोतोरान तिका एडमीट करून घेतली आनी तपासली. सिझेरियन करचें पडटलें अशें ताका दिसलें. ताणें तिच्या घरच्यांक तशें कळयलें. आठ दीस अशेच गेले. नॉर्मल डिलिव्हरी जावपाचीं चिन्नां दिसना आशिल्लीं. पूण फोर्सेप्स लावन डिलिव्हरी करपांत दोतोराक येस मेळ्ळें आनी सिझेरियन करपाची गरज पडली ना.

चलो जाल्लो. पूण चिन्नां पळेल्यार तो वांचुये सो दिसना आसलो. ताका पळेना फुर्डे दोतोराकूच शेळो घाम सुटलो. कितें करचें, ताका येवजना जालें. 'हो भुरगो वांचून उपेग ना' ताणें मनांत चिंतलें.

भुरगो चार-चवगां भशेन जावूंक नाशिल्लो. ताची कूड नॉर्माल भुरग्या परस खुबूच ल्हान आशिल्ली. तकलीय सामकीच ल्हान दिसताली आनी मानय सारकी धरना आशिल्ली. ताची कात काळी निळी दिसताली. एक हातूय दुखाविल्लो आशिल्लो.

हीं चिन्नां पळेल्यार तो वांचत सो दिसना आसलो. डिलिव्हरी वेळार फोर्सेप्स लायिल्ल्यान भुरग्याक सीव्हियर ब्रेन डॅमेज जालो काय? दोतोर चिंतूंक पडलो. कितेंय आसूं! हो भुरगो वांचपाची शक्यताय साप उणी आशिल्ली. तो वांचुनूय कांयच उपेग नाशिल्लो. वांचलोय जाल्यार ताका जिवीतभर परावलंबी जावन जियेवचें पडपाचें.

असोच एक भुरगो मुंबयचे उस्पिसेंत जल्मल्लो. दोतोरान पयलीं पळेल्लो. वैजकी शास्त्रांत अशा भुरग्याक 'मेंदूचो पक्षाघात' (cerebral palsy) आशिल्लो, जावं बहुविकलांग (multiply disabled) ह्या नांवांनी वळखतात. अशीं भुरगीं बरीं जावपाचो कसलोच उपाय नाशिल्ल्यान तीं जितीं आसऽ मेरेन तांची सगळी सेवा तांच्या आवय बापांयक करची पडटा. अश्या भुरग्यांक आपल्या हातान खावपा-पिवपाक लेगीत कळना म्हणपाची म्हायती दोतोराक आशिल्ली. असलो भुरगो जगप म्हळ्यार तिगां जाणांच्यो जिणो उध्वस्त जावपाच्यो. एक खुद त्या भुरग्याची आनी, ताचे बरोबर ताचे संगतींत आशिल्ल्या ताच्या आवय-बापायची...

भुरग्याचोच न्हय, भुरग्याच्या आवय बापायचोय फुडार आतां दोतोराच्या हातांत आशिल्लो.

ही गजाल घडली तेन्ना दोतोराले उस्पिसेक वर्स लेगीत पुराय जावंक नाशिल्लें. पार्ता वेळार थंय जल्मल्ल्या भुरग्याक मर्ण आयिल्लें जाल्यार ती खबर गांवभर जावपाक वेळ लागचो नाशिल्लो. दोतोराक उस्पिसेचें नांव पेड्डेर जाल्लें नाका आशिल्लें. कशेय भशेन ह्या भुरग्याक वाटावंकूच जाय! दोतोराचो निर्णय थारलो...

दोतोरान भुरग्याक बेगोबेग अतीदक्षता विभागांत हालयलो आनी कृत्रीम श्वास दिवन ऑक्सिजनाचेर दवरलो. ताच्या यत्नांक येस मेळ्ळें आनी भुरग्याचो जीव वाटावलो.

चलो वाटावलो तें पळोवन आवय बापायक खोस जाली. 'आमच्या चल्याक तुमी नवो जल्म दिला. देव तुमचें बरें करूं,' तांणी म्हळें. दोतोरान फकत मातशें हांशिल्ले भशेन केलें.

चल्याक घेवन बांळटीण घरा परतली. कांय दीस गेले. चल्याच्यो हालचाली हेर भुरग्यां भशेन जायनाशिल्ल्यो. म्हयनो दोन म्हयने मेरेन तो दोळेच उकते करना. आवयचें दूद पियेना, बोमूय घेना... हाका लागून ताका पोटाक घालतना, कोन्नाडो करून एक एक कुलेर तोंडांत घालचें पडटालें. कूस परतिता, उमथो पडटा म्हणल्यार सात आठ म्हयने गेले. अजून ओंठांर हांसोय ना. तागेलीं चिन्नां पळोवन आवयक चिंता जाताली. ही गजाल दोतोराच्या कानार ती घालीत आसताली. 'सुदारतलो तो, तेंप वतलो, देवाचेर विस्वास दवरात' दोतोर तिका धीर दितालो.

वर्स जालें, दोन वर्सां जालीं. तो आजून उबो रावना. दोतोर ताचेर लक्ष दवरून आसलो...

आपलो चलो बरो जातलोच हे आशेर चल्या आवय दीस धुकळटाली. दिसूयभर देव देव करीत आसताली. तो बरो जावपाचो ना म्हण तिका स्पश्ट सांगपाचो दोतोराक धीर जाय नासलो ताचे जाताले ते हाल दोतोराच्यान पळोवं नजऽ जाताले. चल्या खातीर आवय-बापूय कश्ट काडटालीं तेंय पळोवन ताच्या काळजांत चर्र जातालें.

हो भुरगोय आतां पंचवीस वर्सांचो जाल्लो. आजून ताका आपल्या हातान खावपा जेवपाक येना आसलें. ताची सगळी सेवा आवय बापायकच करची पडटाली. आतां तींय दोगांय जाणटीं जाल्लीं. बायलेक आदार करपाक लागून आतां चल्या बापायन सिर्वीस सोडिल्ली. दोगांय जाणां सगळो वेळ चल्या फाटल्यानूच घुसपून उरतालीं.

दोतोराक हें सगळें दिश्टी पडटालें. चल्या आवयची दैना ताच्यान पळोवं नजऽ जाताली. हे अवस्थेक आपुणूच जापसालदार अशें ताका दिसतालें. त्या वेळार आपणें ह्या भुरग्याचो जीव वाटावपाचे यत्न करूंक नासले जाल्यार... दोतोर येवजितालो.

दोतोराच्या दोळ्यां मुखार आज परतो परतो तोच भुरगो येतालो...

"दोतोर परबीं", दोतोराच्या कानांर उतरां पडलीं. त्या भुरग्याक घेवन ताचीं आवय-बापूय आपले मुखार रावन आपणाक परबीं दितात असो ताका भास जालो. ताणें दोळे उकते केले.

टीव्ही चॅनलाचो फोटोग्राफर कॅमेरा घेवन दोतोरा मुखार उबो आसलो.



# राष्ट्रमत: मतपरिवर्तनाच्या यज्ञाचो माटोव

**उदय भेंब्रे**

'राष्ट्रमत' दिसाळ्याची उजवाडावणी १ सप्टेंबर १९६३ दिसा सुरू जाली. हांव त्याच अदमासाक मुंबय सोडून गोंयां येवपाचो आशिल्लों. तें कळटकूच चंद्रकांत केणी हांणी म्हळें, 'तुजो दुसरो कसलोय बेत नासत जाल्यार 'राष्ट्रमतां'त यो.' हांवें फुडलो कांय विचार करुंनाशिल्लो. देखून 'आं' म्हळें आनी सहसंपादक म्हूण रुजू जालों.

'नवगोमंत प्रकाशन' हे भागिदारी संस्थेन 'राष्ट्रमत' सुरू केल्लें. ते संस्थेंत ७ भागिदार आशिल्ले: वासुदेव साळगांवकार आनी रामकृष्ण साळगांवकार हे साळगांवकार भाव; गुरुदास तिंबले, पांडुरंग तिंबले आनी मधू तिंबले हे तिंबले भाव आनी शांतिलाल गोसालिया तशेंच बापालाल गोसालिया हे गोसालिया भाव. 'राष्ट्रमत' कित्याक आनी कशें सुरू जालें तें हांव आयकून जाणा तें अशें: महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षान विलिनीकरणाची चळवळ सुरू करतकूच कांय जाणांक ते चळवळीक विरोध करपाची गरज आसा अशें दिसलें. चौगुले घराब्यान सुरू केल्लें 'गोमन्तक' हें दिसाळें विलिनीकरणाचो खर पुरस्कार करतालें. त्या प्रचाराक विरोध करपाक एक मुखपत्र जाय अशें त्या स्वाभिमानी गोंयकारांक दिसलें. स. श्रीपाद घार्से हे तांचे मदीं मुखेल आसले. तें नेमाळे पंद्रशी आसचें काय सप्तकी आसचें हाचेर विचार जालो. पूण अखेरेक दिसाळेंच आसचें अशें थारलें. श्रीपाद घार्से आनी तांचे सांगाती हांकां नेमाळें उजवाडावपाचो वा छापखानो चलोवपाचो अणभव नासलो. तांणी चंद्रकांत केणी हांचो सल्लो आनी आदार मागलो. चंद्रकांत केणी हांचो कृष्ण करवार नांवाचो एक इश्ट मुंबय आसलो. तो छापणावळीच्या विशयांत तज्ञ आसलो. केणी तांकां मेळ्ळे आनी गोंयांत एक दिसाळें सुरू करपाचो विचार तांकां सांगलो. करवार हांकां छापणावळीचें तंत्र बेस बरें खबर आसलें; पूण पत्रकारितेंतलो अणभव नासलो. तांचो एक इश्ट आसलो विष्णु महादेव फणसे वा अण्णा फणसे. तांणी 'मराठा' दिसाळ्यांत आनी हेर कांय दिसाळ्यांनी काम केल्लें. करवार केणीक घेवन अण्णा फणसे सरीं गेले. फणसे तेन्ना पत्रकारितेच्या मळार क्रियाशील नासले. ते मुंबय महापालिकेच्या शिक्षण विभागांत एक अधिकारी आसले. तांणी विशय समजून घेतलो आनी सल्लो, पालव दिवपाचें मान्य केलें.

**कोंकणी चळवळींत ५० वर्सां तिगून उरिल्ल्यो यादी**

### आगळो अणभव

फणसे कडेन जाल्ले चर्चे विशीं केणी एक खबर सांगताले. दिसाळ्याचें धोरण कितें आसतलें असो प्रस्न अण्णान विचारलो तेन्ना केणी मुखार प्रस्न उप्रासलो. अण्णा एक महाराष्ट्रीय. तातूंत, आचार्य अत्रे हांच्या 'मराठां'त काम करून आयिल्लो मनीस. 'राष्ट्रमता'चें विलिनीकरण-विरोधाचें धोरण सांगत जाल्यार अण्णा फाटीं सरपाची भिरांत आशिल्ली. केणी सांगताले, आपणें गुळमुळीत अशी जाप दिली. खर विरोधाचो उल्लेख केलो ना. पूण अजापाचें म्हळ्यार अण्णान म्हळें, विलिनीकरण? शी: तें केन्नाच जावंक फावना. ताका खर विरोध करपाक जाय. हें आयकतकूच केणी हांचें मन हुस्क्या मेकळें जालें. इतलेंच न्हय, तांचो धीर वाडलो.

मागीर अण्णा फणसेन 'घोडे' (टायपाचे खिळे दवरपाचे लाकडी स्टँड), टायप हें सामान हाडून घेतलें. कांय पत्रकार तांणी महाराष्ट्रांतल्यान हाडले. तांचे मदीं प्रफुल्ल कुमार मोकाशी, जगन फडणीस हे आसले. तेन्नाच्या छापणावळीच्या तंत्रांत खिळे जुळोवपाक कंपोझिटर गरजेचे आसले. चडशे कंपोझिटर महाराष्ट्रांतल्यान हाडिल्ले.

नवगोमंत प्रकाशनान 'राष्ट्रमता'खातीर बड्डेचीं दोन पोरणीं घरां भाड्यान घेतिल्लीं. बिशप रेबेलो हांच्या घरा शेजारच्या घरांत छापखानो घाल्लो. संपादकी विभाग, व्यवस्थापकी विभाग त्याच घरांत आसले. कांय जाणांक रावचे खातीर पोरण्या बाजाराक तेंकून आशिल्लें एक घर वापरताले. थंय जेवण करपाचीय वेवस्था केल्ली. ह्या घराक ल्हवुल्हवू 'राष्ट्रमठ' अशें नांव पडलें. ह्या घरांतले एके कुडींत शंकर भांडारी रावताले. ते म्हजे आदीं मुंबय सोडून गोंयां आयिल्ले. तांचें आनी राष्ट्रमताचें नातें म्हाका केन्नाच सारकें कळ्ळें ना. राष्ट्रमतांत तांकां कसलेंच पद नाशिल्लें. संपादकी खात्यांत ते कसलेंच काम करिनाशिल्ले. पूण मराठीवाद आनी महाराष्ट्रवाद हांकां विरोध करपाचे चळवळींत मात क्रियाशील आसले.

### संपादकाक भेश्टायलो

स. वसंत वैकुंठ कारे हे 'राष्ट्रमता'चे पयले संपादक. तेन्ना चंद्रकांत केणी हेवूय थंय वावुरताले पूण तांचें पद कसलें तें स्पश्ट नासलें. श्रीपाद घार्से हे प्रकाशक आसले. ते चिकित्सक आसले आनी सगल्या गजालींचेर तांचें बारीक लक्ष आसतालें. सद्दां 'राष्ट्रमतां'त येताले, गरजेच्या विशयांचेर चर्चा करताले. 'राष्ट्रमतां'तली टिका महाराष्ट्रवाद्यांक सोंस नाशिल्ली. ते 'राष्ट्रमता'क 'राष्ट्रमूत' म्हणूनय हिणसायताले. कांय वेळा तांणी वसंत कारे हांच्या घरा कडेन वचून घोशणा दिल्यो, तांकां धमक्यो दिल्यो. कारे मोव सभावाचे आशिल्ले. ते उबगले. तांणी सांगलें, आपूण संपादकी विभागांत काम चालू दवरतां; पूण संपादक म्हूण आपलें नांव काडचें. ते प्रमाण तें काडलें आनी चंद्रकांत केणी संपादक जाले.

अण्णा फणसे आपणाल्या कार्यालयांतल्यान रजा घेवन आयले आनी आरंभाक कांय म्हयने रावले. तांच्या आंगांत एक खेरीत गूण आसलो. ते कदेलार आसन मांडी घालून बसताले आनी वरांचीं वरां बरयत रावंक शकताले. तांचो अणभव, चिकाटी, भंया विरयत

बरोवपाची आनी वावुरपाची रीत हांची देख 'राष्ट्रमतां'त काम करतल्या सगल्यांकूच मेळ्ळी.

### कर्तव्याची भावना

संपादकी विभागांत आमी गोंयकार तरणाटे आसले तांकां पत्रकारितेंतलो कसलोच अणभव नासलो. पूण कोंकणीक तिची मानाची सुवात दिवप आनी गोंयची अस्मिताय राखप हें व्रत आशिल्लें आनी ते खातीर नवें शिकून घेवन तें आपणांक जमत तितले बरे रितीन करपाचो उत्फर्को आशिल्लो. चडशे कोणूच त्या कामा कडेन नोकरी म्हूण पळय नाशिल्ले. सहसंपादकाचो पगार म्हयन्याक ३०० रुपया आशिल्लो, हाचे वयल्यान ताची कल्पना करूंक जातली. सुटकेच्या झुजा उपरांत सुरू जाल्लें हेंवूय एके तरेचें झूज आनी तातूंत आपणालो वांटो उखलपाचें कर्तव्य करप ही काळाची गरज हे भावनेचोच चड प्रभाव आसलो.

हांव सहसंपादक म्हूण वावरूंक लागलों. 'ब्रह्मास्त्र' हो स्तंभ सोमार ते शेनवार असो दिसपट्टो बरयतालों. रशियन वकिलातीचें एक वार्तापत्र दर सप्तकाक येतालें. ताचें कागद हळडुव्या रंगाचें आनी बरोवपाक सुलभ अशें आसतालें. तें एकेच वटेन छापिल्ले आनी फाटल्यान कोरें आसतालें. त्या पानांचीं अर्दां करप आनी सकाळीं कार्यालयांत वतकूच बरोवपाक सुरवात करप. एक पान बरोवन जालें की फोरमन येवन तें कंपोज करपाक व्हरतालो. पर्थून तें पान पळोवपाक वा कितेंय बदलपाक छापणावळ विभागांत वचचें पडटालें. पूण म्हाका तशें करचें पडलें ना. विशय शिजून मनांत तयार आसतालो आनी खाडाखोड नासतना बरोवप जातालें. मनांत विशय तयार नासत जाल्यार बरोवपाक आरंभ करपूच कठीण जातालें. अमूक पानां म्हणचे स्तंभाची अमूक लांबाय हें थारिल्लें. पूण विशया प्रमाण केन्ना केन्ना स्तंभ ल्हान-व्हड जातालो.

> **''ब्रह्मास्त्र' हो स्तंभ सोमार ते शेनवार असो दिसपट्टो बरयतालों... सकाळीं कार्यालयांत वतकूच बरोवपाक सुरवात करप. एक पान बरोवन जालें की फोरमन येवन तें कंपोज करपाक व्हरतालो. पर्थून तें पान पळोवपाक वा कितेंय बदलपाक छापणावळ विभागांत वचचें पडटालें. पूण म्हाका तशें करचें पडलें ना. विशय शिजून मनांत तयार आसतालो आनी खाडाखोड नासतना बरोवप जातालें.''**

### कातर रे भाजी!

आरंभाच्या वर्सांनी मराठीवाद्यांचे आनी महाराष्ट्रवाद्यांचे मुद्दे खोडून काडून तांकां सोलून वा कातरून काडप हो 'ब्रह्मास्त्रा'चो सबाव आसलो. मराठीवादी आनी महाराष्ट्रवादी अशीं दोन उतरां हांवें वापरल्यांत ताका कारण आसा. सगलेच मराठीवादी महाराष्ट्रवादी नाशिल्ले. जाणटे पिळगेंतले कांय जाण मराठीवादी आसले; पूण तांका विलिनीकरण नाका आसलें. म्हजी भास खर आसताली. ती पोटतिडकेंतल्यान येताली. एखाद्रें गैर उतर येवंये हाची भिरांत आसताली. देखून संपादक चंद्रकांत केणी आनी प्रकाशक श्रीपाद घार्से हांकां आदींच एक सांगून दवरिल्लें, खंयचेंय उतर वा वाक्य गैर दिसलें जाल्यार तांणी तें काडून उडोवंक लावचें; म्हाका विचारपाची गरज ना. तांकां तशें केन्नाय करचें पडलां जाल्यार ताचो आज म्हाका उगडास ना. पूण 'ब्रह्मास्त्रां'तल्या बरपाक लागून केन्नाच कोर्ट-केस जाली ना, वा कोणाचीय माफी मागपाचो प्रसंग म्हजेर वा 'राष्ट्रमता'चेर आयलो ना.

ओपीनियन पोला उपरांत गोंयांतली दुसरी वेंचणूक जाली. ते वेंचणुके उपरांत १९६८ वर्साच्या फेब्रुवारी म्हयन्यांत हांवें 'राष्ट्रमत' सोडलें. सुमार साडे चार वर्सांच्या काळांत 'ब्रह्मास्त्र' हो स्तंभ चडसो हांवेंच बरयलो. पूण हांव रजेर आसतना वा हेर कसल्याय कारणाक लागून बरोवंक पावलोंना तेन्ना दुसऱ्यांनीय तो स्तंभ बरयला. तातूंत चडशें बरोवप केलां तें स. जनार्दन फळदेसाय हांणी.

'ब्रह्मास्त्र' स्तंभांतलें बरप आरंभा सावन अखेर मेरेन वाचलें जाल्यार वाचप्याक एक अणभव येतलो. भास बदलत गेल्या. मुद्दे तेच उरल्यात; पूण ते मांडपाची तरां बदल्ल्या. हाचें कारण गोंयांतली बदलत गेल्ली परिस्थिती. आरंभाक हाणप, कातरून काडप अशी तरा आसली. ओपीनियन पोलाचो प्रचार सुरू जातकूच दिसून आयलें की कांय जाणांचो भावनेचो हुंवार देंवला आनी बरो फुडार कित्यांत आसा तें समजून घेवपाची उमळशीक वाडल्या. तेन्ना 'ब्रह्मास्त्रा'ची भास समजावणेची जांल्या. 'राष्ट्रमता'भायलो जो वावर चलतालो ताचो आदार थंय मेळ्ळा. त्या वावरांत लोकांची नाडी पारखुपाची संद मेळ्ळ्या.

आमकां - राष्ट्रमतांत काम करतल्या तरणाट्या गोंयकारांक - राष्ट्रमतांतलें काम म्हणचे पत्रकारितेच्या मळा वयली नोकरी नासली हें आदीं सांगलां. संघटनाचो, प्रचाराचो वा विलिनीकरणाक विरोध करपाचो जो वावर भायर समाजीक मळार चलतालो. तातूंतय आमी वांटो घेताले. लोक कसो विचार करता, कित्याक तसो विचार करता, खंयचो मुद्दो तांचे बुद्दीचेर प्रभाव घालता हें कळटालें आनी स्तंभ वा लेख बरयतना सबावीक रितीन ताचो परिणाम जातालो.

### समजावणेची भास

ह्या संदर्भांत एक अणभव सांगपा सारको आसा. ओपीनियन पोला आदीं जाल्ल्या प्रचारांत उसगांवां आमची एक सभा जाली. ती जाली रातच्या ११ वरांचेर. शेतांत सभा. शेतकार, गांवचो लोक मेरेर बशिल्ले. सभा ९ कांय ९.३० वरांचेर जावची आसली; पूण उलोवपी थंय पावपाक वेळ जाल्लो. तरी लोक बसून राविल्ले. तांकां कोणेंच बळजबरेन हाडूंक नाशिल्ले वा पयशे दिवन आपोवंक नाशिल्लें. तरी ते बसून राविल्ले. विलिनीकरण नाका कित्याक, तातूंत लुकसाण कसलें आसा, गोंय वेगळें उरल्यार लाब कसले हें तांकां समजून घेवचें आशिल्लें. असल्या अणभवांचो प्रभाव सबावीक रितीन

लिखणेचेर पडटालो.

'ब्रह्मास्त्र' स्तंभा खातीर बरयतना व्यक्ती परस मुद्दो म्हत्वाचो मानप हो नेम हांवें जाता तितलो पाळ्ळो. व्यक्तीचेर टिका जाताली, तिका सोलून काडप, कातरून काडप जातालें; पूण वैयक्तीक जिणेंतल्या गजालीं विशीं न्हय. ते व्यक्तीच्या मतां विशीं आनी भौशीक चलणुके विशीं. महाराष्ट्रवादी फुडारी मुखेल मोख आसताले. तांचे मदीं भाऊसाहेब बांदोडकार ह्यांचेर धार चड. ते मुख्यमंत्री आसले आनी म.गो. पक्षाचेय मुखेली आसले. पूण म्हज्या बरपाचो तांचे वैयक्तीक जिणे कडेन कसलोच संबंद नासलो. देखून मराठीवादाच्या विशयांत दयानंद बांदोडकार आनी लक्ष्मीकांत भेंब्रे हांचे मदीं हांवें कसलोच फरक केलो ना. 'ब्रह्मास्त्रां'त एक दीस हांवें स. लक्ष्मीकांत भेंब्रे हांच्या मराठीवादी मतांचेर टिका केली. उपरांत कांय दिसांनी पणजे गेल्ले कडेन स. गोपाळ आपा कामत हांची भेट जाली. तांणी म्हळें, आरे, बापायचेर कित्याक बरयलें? तें टाळूंक जायनाशिल्लें? हांवें सांगलें, बांदोडकार मराठीवादी विचार मांडटात तेन्ना हांव तांचेर टिका करतां; तशेच विचार लक्ष्मीकांत भेंब्रे मांडटात तेन्ना तांकां कित्याक सोडचे? नातें कितेंय आसूं, म्हाका लागतात ते विचार आनी मुद्दे. ताका लागून नात्यांत बादा येवपाची गरज ना. म्हजी जाप आयकून स. कामत कांय उलयलेनात; पूण तांकां ती पटली ना अशें दिसलें.

ब्रह्मास्त्र

अॅड. उदय भेंब्रे

### म. गो. फुडाऱ्यांक हुस्को

'राष्ट्रमत' सुरू जावचे आदीं गोंयांतल्या हिंदू समाजांत मराठीवाद आनी महाराष्ट्रवाद हांचोच प्रभाव दिसतालो. कोंकणीचो दिश्टावो जाल्ले कांय जाण आशिल्ले; पूण तांचो आंकडो ल्हानच आशिल्लो. देखूनूच लोहिया मैदानाचेर कोंकणींतल्यान भाशण करतात म्हूण फातर शेंवटून मारपाची धिटाय कांय जाणांनी केल्ली. 'होऽऽ तो कोंकणीवादी' म्हूण कांय जाणां कडेन बोट दाखोवपाचो तो काळ. ही परिस्थिती वळखुनूच 'राष्ट्रमत' सुरू करतल्यांनी तें मराठींत उजवाडावचें अशें थारायल्लें. कोंकणीचो पुरस्कार करप आनी गोंयची खेरीत अस्मिताय राखप हें ताचें धोरण स्पश्ट आशिल्लें. पूण माध्यम आशिल्लें मराठी भास. ताका लागून हिंदू समाजांत आनी भौव करून दक्षीण गोंयांत तें वाचप जातालें. ल्हवुल्हवु वाचप्यांक 'राष्ट्रमत' मांडटालें ते मुद्दे पटूंक लागले. मराठीवादी आनी महाराष्ट्रवादी मांडटाले त्या मुद्द्यांतलें पोकेपण तांकां कळूंक लागलें आनी 'राष्ट्रमता'च्या वावरांतल्यान विलिनीकरणाक विरोध करपी हिंदूंचो आंकडो वाडटा म्हणपाचो हुस्को म.गो. पक्षाच्या फुडाऱ्यांक दिसूंक लागलो.

पयले वेंचणुके आदींच गोंयकार समाजांत धर्म आनी जात ह्या मुद्द्यां वयल्यान ध्रुवीकरण जाल्लें. महाराष्ट्रवाद हें दाखोवपाचें रुप आसलें तरी म.गो. पक्षाचें धोरण आरंभा पसून धर्म आनी जात हांच्या आदारान गोंयकारां मदीं फूट घालपाचें आसलें आनी तातूंत ताणें येस जोडलें. पयली फूट धर्माच्या आदारान जाली. मागीर हिंदू समाजांत जातीच्या आदारान फूट जाली. बामण आनी बहुजनसमाज अशे ताचे वांटे जाले. म.गो. पक्ष आशिल्लो हिंदू बहुजन समाजाचो; यु.गो.पक्ष जालो क्रिस्तांवांचो. उरिल्ल्यां मदीं कांय जाणांनी कॉंग्रेस प्रणाली मानून घेतली तर हेर कांय जाणांनी दुसरी. हेच फुटीक लागून १९८० मेरेन गोंयांतलें राजकारण १६-१२ चें जालें. म्हणचे, वेंचणुकेंत म.गो.क १६ जागे मेळप आनी यु.गो.क १२. हेर सगले कुशीन पडप. एक मतींत धरूंक जाय, आज भाजपा वा शिवसेना उकतेपणीं जसो धर्माचो बावटो नाचयतात, तसो उकतेपणीं म.गो. पक्षान नाचयलो ना. पूण तसो थोडोच प्रचार उकतेपणीं जालो. मात् बोवाळा विरयत केल्ल्या प्रचारांत धर्म आनी जात हींच शस्त्रां चलतालीं.- ती फूट तशीच उरची हें. म.गो.चें धोरण आशिल्लें. हिंदू बहुजनसमाज हो आंकड्यान सगल्यांत मोटो घटक आशिल्लो. तो आख्खो महाराष्ट्रवादाक दसून रावल्यारूच म.गो.चें सपन खरें जावं येतालें. देखून गोंयकार समाजाचें तें चित्र तशेंच उरचें असो ताचो यत्न आशिल्लो.

### बांदोडकार हांचें आमंत्रण

हातूंत 'राष्ट्रमत' ही म.गो. पक्षाक आडखळ कशी दिसूंक लागली. हिंदू समाजांत मतपरिवर्तन जावंक लागलां हाचो ताका हुस्को जाल्लो. अशा वेळार भाऊसाहेब बांदोडकार हांणी 'राष्ट्रमता'च्या एका प्रतिनिधीमंडळाक आपणागेर जेवणाचें आमंत्रण दिलें. त्या मंडळांत आशिल्ले प्रकाशक श्रीपाद घार्से, संपादक चंद्रकांत केणी आनी हांव. जेवणाक भाऊसाहेब येजमान आनी तीग आमंत्रीत अशे चौगूच जाण आशिल्ले. आपणाली भुमिका स्पश्ट करची हे खातीर आपणें हो बेत केला अशी प्रस्तावना करून भाऊसाहेबान आपणालें धोरण विसकावन सांगलें. थोडे भितर तें अशें: महाराष्ट्राचें चेपण म्हाकाय नाका. गोंयकारांक व्हड करून तांणी महाराष्ट्राचेर वर्चस्व गाजोवचें अशें म्हाका दिसता. वेगळें रावन तें साध्य जावचें नां. देखून महाराष्ट्रांत विलीन जावचें हें गरजेचें थारता.

आमी भाऊसाहेबां विशीं पुराय आदर बाळगून थंडपणान तें सगलें आयकून घेतलें. मागीर म्हळें, तुमचें धोरण आमी समजून घेतलें.

आतां आमी विलिनीकरणाक विरोध कित्याक करतात तें सांगलें जाल्यार तुमी आयकून घेशात? भाऊसाहेबान म्हळें, सांगात सांगात. आमी सांगलें तें थोडे भितर अशें: तुमचो हेतू बरो आसत. पूण वेव्हारांत तो साध्य जावपा सारको ना. गोंय महाराष्ट्रांत विलीन जालें जाल्यार गोंयचो १ वा चडांत चड २ आमदार आसतले. सुमार २५० आमदारांचे विधानसभेंत ते नगण्य. महाराष्ट्रांतले फुडारी आज तुमकां मुख्यमंत्रीपदाचीं सपनां दाखयत. पूण वेव्हारांत जाचे कडेन चड आमदार आसात तोच मुख्यमंत्री जातलो. तुमकां जर मुख्यमंत्री ह्या नात्यान लोकांची सेवा करची इत्सा आसा तर तें गोंयांतूच घडुंयेता आनी ते खातीर गोंय वेगळेंच उरचें पडटलें. जेवणा उपरांत आमी भायर सरतना भाऊसाहेबान म्हळें, आपणें सांगलां ताचेर विचार करात; तुमी सांगलां ताचेर हांवूय विचार करतां.

भाऊसाहेब बांदोडकार विलिनीकरणा विशीं प्रामाणीक नाशिल्ले; ते मना पासून वावुरलेनात असो एक आरोप तांचेर कांय जाण करतात. तो खरो नासत. पूण ओपीनियन पोलाच्या निकाला उपरांत तांणी तो रोखडोच मानून घेतलो आनी वेंचणुके उपरांत पर्थून मुख्यमंत्री जातकूच तो विशय सोडलो. हाचे वयल्यान आमी मांडिल्लो तो विचार तांच्या काळजांत रिगिल्लो अशें म्हणपाचो मोह म्हाका जाता.

### आनी हांवें चुकयलें!

राष्ट्रमतांत काम करतना हांव मडगांवांत चंद्रकांत केणी हांचे वांगडा रावतालों. आक्यां एका भाड्याच्या घरांत केणी आनी तांचो व्हडलो भाव गुरुदास रावताले. घर व्हड आशिल्लें. कोणूय संवसार-प्रपंचांत पडूंक नाशिल्लो. उपरांत आनीक एक-दोग जाण थंय रावंक लागले. तांचे मदीं एक म्हाबळू कामत धाकणकार. ताचें घर म्हापश्यां. काम करतालो तिंबले कंपनींत. तो पाककलेंत हुशार! पूण कितलोय जाल्यार सुशेगाद गोंयकार! हांव सांगूंक सोदतां ते गजालीचो कोंकणी चळवळी कडेन वा राष्ट्रमताच्या वावरा कडेन कांय संबंद ना. पूण त्या काळांतल्या तणावांत असली घडणूक म्हळ्यार उबाळांत आयिल्ले पावसाचे दडके प्रमाण. देखून ती यादींत उरल्या.

आकेंच्या त्या 'मठां'त आयताराक सगले घरा उरताले. म्हाबळू कामतीच्या आंगांतली पाककला मतींत घेवन जेवण रांदपाचो बेत जातालो. सकाळीं मेनू करताले तेन्ना तो व्हड आसतलो. दनपार जातां जातां शीत-रोस पानार पडल्यार पुरो अशें जातालें. तो आयतार पावसाळ्यांतलो. बाजारांत अळमीं येतालीं. अळमीं हाडून तोंडाक करचें अशें थारलें. हुमण, तळप बी थारिल्लें. अळमीं हाडलीं. म्हाका रांदनी कडलें कांय कळना. देखून म्हाबळून म्हाका काम दिलें अळमीं निवळ करपाचें. हांवेंय तें घोस्तान आंगार घेतलें. तोपांत उदक घेतलें. तातूंत अळमीं घालीं. आंगशाचो एक कुडको घेतलो. अळम्यांक लागिल्ली माती काडली. तें उदक रकोवन दुसरें घेतलें अळमीं आनीक निवळ केलीं. मातयेचो वास दवरलो ना. सामकीं धवीं फुल्ल केलीं. आनी घेवन गेलों रांदचे कुडींत. म्हाबळू अळमीं पळोवन म्हाका शाबासकी दितलो अशें धरिल्लें. पूण घडलें विपरीत. अळम्यांचो तोप म्हाबळू मुखार दवरून हांवें म्हळें, 'हीं अळमीं, सामकीं निवळ केल्यांत.' आनी हांव शाबासकेक रावलों. म्हाबळून अळमीं पळयलीं. मागीर म्हज्या तोंडाक पळयलें. पर्थून अळमीं पळयलीं. आनी म्हाका पळोवन तापलो: 'अळम्यांची वाट लायली. इतलीं म्हूण निवळ करतात? माती उरल्यार तांकां सुवाद उरता. सगलो सुवाद गेलो.'

हांव तोंड आं करून ताका पळयत रावलों!

आनीक कितें करतलों आसलों?!



---

## साहित्य-समीक्षाशास्त्रांतल्यो संकल्पना

**अभिव्यक्तिवाद: १**

रतमुनीचो *'नाट्यशास्त्र'* आनी आनंदवर्धनाचो *'ध्वन्यालोक'* ह्या ग्रंथांचेर भाश्य बरोवपी अभिनवगुप्त हाणें अभिव्यक्तिवादाची सिद्धांतीक मांडावळ केली. ताचो हो अभिव्यक्ति सिद्धांत शैव तत्त्वगिन्यानाचेर निंबून आसा अशें मानतात. मनशाच्या मनांत स्थायीभाव हे वासनारुपान आसतात. तांकां लागून रसांची प्रतीती आडमेळ्यां विरयत जाता. ह्या विचाराचेर शैवमत्ताचो प्रभाव आसा अशें म्हणतात. शिवाचे आंतरीक इच्छेंतल्यान सृश्टीची निर्मणी जाता. ताची इच्छाशक्त निर्विघ्न आसता. सह्रदयाच्या (रसिकाच्या) अंत:करणांत वासनांच्या रुपान आशिल्ले स्थायीभाव निर्विघ्न जावन (आडमेळ्यां विरयत) रसांच्या रुपान उकते (अभिव्यक्त) जातात. भरतमुनीच्या *'नाट्यशास्त्रां'* तल्या रस सिद्धांताचेर विंगड विंगड विद्‌वानांनी जीं मतां मांडल्यात तांचो परामर्श घेवन अभिनवगुप्तान आपणाले विचार हांगा मांडल्यात. ताच्या मत्तान, विभाव, अनुभाव आनी व्यभिचारी भाव हांचो संयोग प्रेक्षकांच्या चित्तांत जातकच रसाची निर्मणी जाता. रस हो नटाचे वा सवंगाचे (पात्राचे) ठांय आसता अशें न्हय तर ताचो निखटो आविर्भाव तांच्या चित्तांत जाता. प्रेक्षकांचें चित्त हें रसाचें अधिष्ठान. रसाची निष्पत्ती जायना जाल्यार आस्वादाची निर्मणी जाता. रस ही वस्त आस्वादाचो विशय आशिल्ली आनी आस्वादाच्या काळांतच अस्तित्व आशिल्ली वस्त. नट हो रसाच्या आस्वादाचें एक साधन आसता. रसाची उत्पत्ती, प्रतीती आनी अभिव्यक्ती जाता हें अभिनवगुप्ताचें मत्त आशिल्ल्यान ताचे मीमांसेक अभिव्यक्तिवाद अशें म्हणतात.

**- प्रियदर्शिनी तडकोडकार**



# तुकोबाराय - एक सामाजीक क्रांतीवीर

सुरेश गुंडू आमोणकार

संत तुकारामांची चवथी जल्मशताब्दी अंदू आमी मनयतात. ताच्या जिविताचें मुल्यांकन आजून मेरेन शास्त्रशुद्ध नदरेन जावंक नासलें तरी फाटल्या दोन दसकांत ताचे जायते चरित्रकार आनी संशोधक तें नव्यान करूंक लागल्यात. एकविसाव्या शतमानाचे नदरेंतल्यान आमी संत तुकारामाचें जिवीत कार्य पळेतात तेन्ना सतराव्या शतमानांत महाराष्ट्रांत एक व्हड प्रबोधनकाराची भुमिका ताणें वठयली आनी महाराष्ट्राचे समाजीक जिणेचेर ताणें व्हड प्रभाव घालो हें सत्य मुखार येता. तुकारामान प्रस्थापीत वर्गा आड बंड केलें आनी ताका जाल्ल्या विरोधाची पर्वा करिनासतना, प्रस्थापीत समाजांत आशिल्ले विशमते आड आनी समते खातीर तो झगडलो.



तुकारामाचें समाजीक आनी संस्कृतीक कार्य भोव मोलादीक आशिल्ल्यान कालांतरान समाजानूच ताका संतपद दिलें. विसाव्या शतमानाच्या उत्तरार्धांत भारत देशाच्या संविधानान सगल्या नागरिकांक समाजीक न्याय, विचार स्वातंत्र्य आनी संधीची समानताय दिली, ताचीं बिंयां तुकोबारायांच्या विचार-आचारांत दिसून येतात अशें म्हणल्यार अतिताय जावचिना.

तुकारामान वयल्या वर्गा आड बंडाचो बावटो उबारलो आनी, त्या काळाच्या वर्णाश्रमाचेर आधारिल्ल्या समाजा आड, विस्थापीत समाजाक ताचेर जावपी अन्यायाची तशेंच ताच्या हक्कांची ताणें जाणविकाय करून दिली.

तुकारामान आपले उत्कट अणभव आपणाल्या अभंगांतल्यान उकते केले. हें करतना ताणें सुमारा भायर कश्ट काडले आनी त्या काळच्या वर्णाश्रमांत आपूण शुद्र आसुनूय, आपणाक वेदांचो अभ्यास करपाचो हक्क तर आसाच तसोच वेदांचेर भाश्य करपाचो अधिकारय आसा हें सिद्ध केलें.

तुकारामाच्या चडश्या चरित्रकारांनी रंगयल्ली ताची प्रतिमा ताच्या मूळ व्यक्तित्वा कडेन सुसंगत ना. तुकारामाक निर्शेणी येवन आनी तो असहाय जावन ईश्वरभक्त जाल्लो, दीसभर टाळ कुटत बसतालो, तो वेव्हारशुन्य, भोळो आनी अजागळ आसलो; आपले बायले कडेन सदांच झगडीं करतालो, अशें ताचें चित्र तांणी उबें केलां. पूण ही वस्तुस्थिती न्हय. कित्याक, तुकारामान आपलो समाज बारकायेन नियाळिल्लो आनी त्या काळचे समाजवेवस्थेक, आनी धर्माच्या नांवाचेर अनितीचो वेव्हार करपी धर्मसत्तेक खर आव्हान दिवन, आपूण एक क्रांतीकारी झुजारी हें दाखयल्लें.

तुकारामाच्या घरांत कितल्याश्या पिळग्यां सावन सावकारी चलत आयिल्ली. गांवांतल्या जायत्या गरीब दुबळ्या लोकां कडल्यान ताच्या बापायक कर्जाचीं येणीं आसलीं. तुकारामाची आस्पत थीर आसली आनी ताचीं कांय एकरांचीं शेतांय आसलीं. पूण पिरायेचे विशींत आसतना, सावकारीच्या वेवसायाक लागून आपूण गरीब लोकांचो आपल्या सुवार्था खातीर गैरफायदो घेतां, तांचें शोशण करतां अशी ताची भावना जाली. हो 'साक्षात्कार' वा जाणविकाय ताका विचारान्तीं जातकच ताणें बापाय कडल्यान आपल्या वांट्याक आयिल्लीं कर्जखतां इंद्रायणींत बुडोवपाचो निर्णय घेतलो. पूण कान्होबा ह्या ताच्या भावान ह्या निर्णयाक विरोध केल्ल्यान, तुकारामान कर्जखतांचे दोन समान वांटे करून, तातुंतलो एक वांटो कान्होबाक दिलो आनी आपले वांटणेक आयिल्लीं कर्जखतां इंद्रायणी न्हंयंत बुडयलीं.

हो साक्षात्कार तुकारामाक आत्मनिरिक्षणांतल्यान जाल्लो. हो क्रांतीकारी निर्णय घेवचे पयलीं ताणें आपली समाजीक परिस्थिती खोलायेन नियाळिल्ली. ताचे कांय चरित्रकार ताणें हो निर्णय निर्शेणेंतल्यान घेतलो, ताका वैराग्य आयिल्ल्यान अशें घडलें अशें मत मांडटात. पूण कर्जखतां बुडयतकच तुकारामान भगवी कफनी घालून संन्यास घेतलो ना, तर अखेर मेरेन संवसार केलो. तो संवसार फकत आपल्या घराब्याचो नासलो तर समाजाचें प्रबोधन करून, आपल्या समाजाचोय संवसार ताणें केलो अशें दुबावा विरयत म्हणचें पडटलें. तुकारामाचे भौतेक चरित्रकार, ताका जाल्ली ही जाणविकाय आध्यात्मीक साक्षात्कार आशिल्लो अशें चित्र उबें करतात, तें खरें न्हय. तुकारामान आपले भोंवतणची समाजीक परिस्थिती उकत्या दोळ्यांनी नियाळिल्ली. समाजांतलें शोशण आनी अन्याय कसो पयस करचो आनी नितीमुल्यांचेर आधारिल्लो समाज कसो निर्मुचो हें ताणें नित्शयान थारायल्लें.

तुकाराम निखटो प्रतिभावंतूच नाशिल्लो, तो प्रज्ञावंतूय आशिल्लो. समाज वेवस्थेंतलें उणेपण ताच्या संवेदनशील मनाक जाणवूंक लागलें. ब्राह्मणवर्गाच्या मुखेलपणा खाला दपटिल्ल्या समाजांतल्या दुबळ्या लोकांचेर धर्माच्या नांवान जावपी अन्याय, शोशण आनी प्रस्थापितांनी

चलयल्ली नितीची विटंबना ताणें अणभविल्ली आनी अचूक पारखिल्ली. कुटील समाजवेवस्था बदलूंक जाय अशें ताका खरेपणान दिसूंक लागलें आनी भरडिल्ल्या - चिरडिल्ल्या सामान्य मनशाक न्याय दिवपा खातीर ताणें ताचें प्रबोधन करपाचो निर्णय घेतलो.

तुकाराम *''बोले तैसा चाले, त्याची वंदावीं पाऊलें''* हे म्हणणे प्रमाण वागलो. सर्वसामान्य लोकांचें शोशण करपी सावकारीचो धंदो ताणें आपखोशयेन सोडून दिलो. ताका लागून समाजांत ताका भोवमान लाभलो. तुकाराम धर्माच्या नांवाचेर चलिल्लो अनाचार पळोवन सामको अस्वस्थ जालो देखून प्रस्थापीत ब्राह्मणांच्या हातांत आशिल्ली अन्याय करपी समाजवेवस्था बदलून उडोवपाचो ताणें निर्धार केलो.

हे किडिल्ले समाजवेवस्थेंत जें कितें अन्याय करपी दिसलें, त्या सगल्या आड आनी हितसंबंधी लोकां आड तो जल्मभर झुजलो, ह्या लढ्याचो इतिहास तशेंच आपलें आत्मचरित्र तुकारामान आपल्या अभंगांतल्यान उकतायलां. आपल्या जिविताचो संदेश दियात हे विनंतीक गांधीजीन जाप दिल्ली: *''आमार जीवन, आमार वाणी''* - 'म्हजें जिवितूच म्हजो संदेश' ही म्हणणी तुकारामाच्या जिविताक तंतोतंत लागू पडटा. तुकारामाच्या काळांत समाजांतलो प्रस्थापीत ब्राह्मणवर्ग मनुस्मृती, वेद, वर्ण, यज्ञयाग हे सारकेल्या कर्मकांडांच्या नांवांचेर सर्वसामान्य लोकांचें शोशण करतालो. हें ताका कळिल्लें. धर्माच्या मळार आशिल्ल्या सगळ्या अन्यायांचें मूळ वेद आनी मनुस्मृती ह्या शास्त्रां मदीं लिपिल्लें आशिल्ल्यान, तुकारामान ह्याच शास्त्रांक आव्हान दिवपाचें थारायल्लें.

प्रस्थापितांनी वेदांचो हत्यार म्हण उपेग करतना 'वेदांचो अधिकार' नांवांची क्लप्ती सोदून काडली. ब्राह्मण, क्षत्रीय आनी वैश्य ह्या तीन वर्णांतल्या दादल्यांकूच वेदांचो अधिकार आसता अशें तांचें मत आसलें. सगल्या वर्णांतल्या बायलांक आनी शूद्र हांचे भितल्ल्या कोणाकूच वेदांचो अधिकार नाशिल्ल्यान शुद्रांनी हेर वर्णांची सेवा करप होच तांचो धर्म अशी तर्का पेली भुमिका प्रस्थापीत वर्गान घेतली. कालांतरान, कलियुगांत क्षत्रीय आनी वैश्य हे वर्ण शिल्लक उरूंक नाशिल्ल्यान ते दोनूय शूद्र जाल्यात आनी देखून ब्राह्मण आनी शूद्र अशे दोनूच वर्ण उरल्यात, देखून ब्राह्मण सोडून हेर कोणाकूच 'वेदांचो अधिकार' ना अशी भुमिका प्रस्थापीत ब्राह्मण वर्गान घेतिल्ली.

तुकारामान ह्या मता आड आपली भुमिका आनी म्हणणी आपल्या अभंगांतल्यान मांडून समाजप्रबोधन केलें. वेदाचें रक्षण करचे पासत वैदिकांनी वेद जरी तिगयले, तरी काळाचे व्हांवतेंत तांणी वेदार्थाची उवेखणी करून ते निखटी घोकंपट्टी करूंक लागले. वेदांनी सत्य आनी ज्ञान हांचे विशीं कितें सांगलां, हाचो पुराय अभ्यास नाशिल्ले लोक, घोकंपट्टीच्या नेटार आपणाक विद्‌वान आनी ज्ञानी मानूंक लागले, आनी हेरांची उवेखणी करूंक लागले. तुकारामान शब्दांचें म्हत्व जाणिल्लें. शब्द म्हणचे रत्नां, शस्त्रां, जिवाची जीण, इतलेंच न्हय तर शब्द म्हणचे साक्षात देव अशी भुमिका ताणें आपल्या अभंगांतल्यान मांडली. तो म्हणटा: *अर्थेविण पाठांतर कासया करावे। व्यर्थचि मरावे घोकूनिया ॥१॥ घोकुनिया काय वेगी अर्थ पाहे । अर्थरूप राहे होऊनिया ॥२॥ तुका म्हणे ज्याला अर्थी आहे भेटी ॥३॥ नाही तरी गोष्टी बोलो नका ॥४॥*

''शब्दज्ञाने देवा नाश केला'' अशी भुमिका घेवन तुकाराम वैदिकांक आव्हान दिवपाक लागलो. आनी *''तुका म्हणे मोला गुणा, मिथ्या फिके बोल''* अशें म्हणूत उरफाटो ब्राह्मणाक हिणसावपाक लागलो. निखटे पंडीत उकतेपणान तिका आव्हान दिवपाक शकलेनात. ते शिवाय तुकाराम प्रज्ञावंत शब्दप्रभू आशिल्ल्यान तो शब्दांची निवड जिस्ताक जिस्त करतालो. देखून ताचे विचार लोकांच्या अंतस्करणाक भिडून, प्रभावीपणान आनी नेटान समाजप्रबोधन घडलें. हाकाच लागून तुकारामान प्रस्थापितांचें वैर आपूण जावन ओडून घेतलें. समाजवेवस्ता सुधारची हीच भुमिका आशिल्ल्यान, ताची नदर व्यापक आशिल्ली अशें सिद्‌ध जाता.

जात, वर्ण हांचें व्हडपण ताणें मानलें ना. तुकाराम आपल्या अभंगांतल्यान सांगता, शास्त्रांचीं मतां जाणून मेळचें ना अशें उच्च प्रतीचें सत्य आपणाक मेळ्ळां. विठ्ठलाची भक्ती करात, अशें कुणब्याचो तुका तुमकां विनयता असोय विचार तो मांडटा: *विष्णुमय जग वैष्णवांचा धर्म । भेदाभेदभ्रम अमंगळ ॥; तुका म्हणे भेदाभेद । गेले वाद खंडोनि ॥; तुका म्हणे वर्णाधर्म । अवघे आहे सम ब्रह्म ॥; मुंगी आणि राव ॥ आम्हा सारखाचि जीव ॥; जळो ते समूळ : धन संपत्ति उत्तम कुळ ॥; वर्ण कुळ जाति याचा अभिमान । त्यजावा सन्मान लौकिकाचा । बरा देवा कुणबी केलो । नाही तरी दंभेचि असतो मेलो ॥*

तुकारामान सगळ्यांचो आत्मो एक आसता हें समतायेचें तत्त्व आपल्या अभंगांतल्यान मांडलें आनी प्रस्थापीत ब्राह्मणांक निरुत्तर केले. तुकारामाचो दृष्टीकोन समाजसुधारणा करपाचो आसलो. *''जे का रंजले गांजले । त्यांसी म्हणे जो आपुले । तोचि साधु ओळखावा ॥ तेथेचि देव जाणावा ॥* अशी भुमिका ताणें सदांकाळ घेतिल्ल्यान, तुकोबाराय आयच्या वर्तमानकाळांतूय बरी वाट दाखयता. ताचे जिणेंतल्यान आमी सगळ्यांनीच स्फूर्त घेवन नवो समाज घडोवपा खातीर वावुरपाक जाय.



# केंगदी वेळे वयल्यो घुलो - २

**मनोहर पै धुंगट**

वेरें बाजारांतल्यान दर्या वेळेर वचचे वाटेरूच तेतेचें घर आशिल्लें. तेते म्हळ्यार म्हज्या आज्याची - बाप्पाची - पोसकी आवय. लग्न जावन बरींच वर्सां भुरगें ना म्हणून तेतेन धाकटे जावेच्या चल्याक, म्हळ्यार बाप्पाक, पोसको घेतलो. ताचो सुगुर्वो म्हणून तेतेची कूस उजवली. तिगेर पूत जालो. पुताच्या जल्मान सगळ्यांक आनंदी आनंद जालो. पुणून सुखा फाटल्यान दुख्ख म्हणटात ते भाशेन तेतेचेर अरिश्ट कोंसळ्ळें. कसल्याश्या एका झगड्यांत तेतेच्या घोवाक एका दुश्टान किंवाट्यान घांस मारलो. त्या घांसाच्या विखारान तेतेचो घोव भायर पडलो. आमी भुरगीं भुरगीं झगडटना एकामेकांक घांस काडीत जाल्यार ही खबर आमकां आयकुची पडटाली. मनशाचो घांस कुत्र्याच्या घांसा इतलोच वायट आनी घातक!



तेतेचो घोव वतकच तेतेक अनवाळी जावची पडली. माथ्यार पदर घेवन वावुरचें पडलें. पुताक बापायची माया आनी छत्र मेळूंक पावलें ना. तेतेच्या नशिबान पूत करतो सवरतो जालो. ताणें बरो संवसार केलो. गांवांत नामना मेळयली. बाप्पाक तो व्हडल्या भावाचो मान दितालो. ताका 'दादा' म्हणटालो. तो दुडवांकार जालो, भाटां-बेसां घेतलीं. बाप्पा आपलो ल्हानसो पसरो घेवन बसलो आनी नीज आवयच्या घरांत रावलो. शेंताच्यो विडयो, चिकणमातयेच्यो गणपतीच्यो मुर्ती बी करून संवसार चलयतालो. ताचो चड वेळ घरच्या देवांची, शाळिग्रामाची बी, पुजा करपांत वतालो. पोसके आवयचेर - तेतेचेर- ताची खूब माया आनी तेतेचीय ताचेर सुमारा भायर माया आशिल्ली.

सांजवेळ जाली म्हणटकीर मांड पुतणयाच्या ताब्यांत दिवन तो घरा येतालो आनी आमकां नातरांक घेवन तेतेगेर च्या पियेवंक वतालो. आमकां *'वितू माझा लेकुरवाळा...'* स्टायलीन व्हरतालो. म्हळ्यार, म्हजो व्हडलो भाव भाई आनी धाकलो बापोलयो आनू मुखार, फाटल्यान हांव आनी दाजी, खांद्यार प्रेमू अशी भुरावळ. बाप्पा मोटवो विठोबा कसोच आशिल्लो. माथ्यार घेरो आनी जटा जाल्ली लांब शेंडी आशिल्ली. ती तांबडे तोपये पोंदा सारकी बरी लिपोवन दवरतालो.

तेतेगेर पावनाफुडें आमी कानांत वारें भरिल्ल्या पाडकां भाशेन आंगणांत खेळटालीं. तेतेचें घर व्हडले माळयेचें. सकयल तेतेची कूड वेगळी आशिल्ली. आमच्या धुमशेणांचो तिणें केन्ना त्रास मानलो ना. चले भुरगे तिका आवडटाले. आमी आपले खेळत आसताले आनी बाप्पा तिचे कडेन वरांचीं वरां कितें उलयतालो, कोण जाणा! बाप्पा तिचे म्हऱ्यांत बसतकच तेती खुशालभरीत जाताली इतलें खरें. करतो सवरतो पूत गेलो. उपरांत नातूय गेलो. आपूण फाटल्यान उरल्यां हाचें दुख्ख तिका जातालें. तिचो एक कर्तबगार पुतणयो सगळो वेव्हार पळेतालो. कांय उणें नाशिल्लें. पूण ती दुख्खान बुडून वावुरताली. पुतणयो तर हुकूमशहा कसो आशिल्लो. घरच्यो बायलो गुलाम कश्यो वावरूंक जाय ह्या मताचो. तांकांय भाव-भावना आसतात हें ताणें केन्ना मतींत घेतलें ना. देखून तेती बी बाप्पा कडेन उलोवन मन मेकळें करताली. बाप्पाय तांकां देवाधर्माच्यो चार गजाली सांगून तांची रिझवण करतालो. देखून तेती बाप्पाचे वाटे कडेन नदर लावन आसताली. एक दीस तो पावलोना जाल्यार सकयल वयर जातली आनी कोणाक तरी बाप्पाचे खबरेक धाडटाली. वेगळ्याच भावबंधनांनी जोडिल्लें तांचें नातें आशिल्लें.

बाप्पा तिचे कुडीच्या दारांत पावनाफुडें ती म्हणटाली, 'राणू, आयलो रे पुता? यो बस म्हजे म्हऱ्यांत.' खबरांचे मदीं माथ्या वयलो पदर सांबाळीत जिरे कोथमिरीची च्या करताली आनी हे वटयां ते वटयां शिंपडिल्ल्या आमकां भुरग्यांक आपोवन जर्मन सिल्वरच्या वाड्यांतल्यान ती च्या दिताली. केन्नाकेन्नाय लाडू ना जाल्यार खटखटें आमच्या हातार पडटालें. कितें मेळटा तें आमी रुचीन खातालीं. त्या वेळच्या खटखट्याची रूच उपरांत बऱ्यो बऱ्यो चॉकलेटी खाल्यो तरी मेळ्ळी ना. बाप्पाकूय तेतेच्या हातची च्या प्रिय आशिल्ली. आमोरे पयलीं तो आमकां घेवन परततालो. काळोख पडटकच ताका बरें दिश्टी पडनाशिल्लें. दिसा उजवाडे भुरग्यांक घेवन घरच्या घरा यो अशी आजयेची ताका शिटकावणी आसताली.

आमी घरा पावतकच हात पांय धुवन आमकां परवचा म्हणपाक बसयतालो आनी तो देवाकुडींत दिवो लावन भजन म्हणपाचे तयारेक लागतालो. बाप्पाच्या घराची शेकानशेक देवाची वासरी. ताका तेंकून



एके वेटेन गर्भकूड आनी दुसरे वेटेन सवळी रांदची कूड आशिल्ली. घरांत शाळिग्राम आशिल्लो. निवेद्याचें शीत ते रांदनीर जातालें. बाप्पाचो वैश्वदेव बी थंयच करपाचो आसतालो. शाळिग्रामाचे पुजेंत बाप्पाचो दिसांतलो कितलोसोच वेळ वतालो. गर्भकुडींत शिसवी लाकडाच्या व्हडल्या देवाऱ्यांत खंयच्या खंयच्यान एकठांय केल्ल्यो देवाच्यो मुर्ती आशिल्ल्यो. तांकां फुलां घालप बी काम बाप्पाक आसतालें. शाळिग्राम एका रुप्याच्या संपुटांत आसतालो. आमकां गर्भकुडींत वचूंक मेळऽ नाशिल्लें. देवाचे वासरेंत रावून साश्टांग नमस्कार घालप. सकाळी फुडेंच पुजेची तयारी जाताली. फुलां खातीर एक सोबीत पांटुलो आशिल्लो. तो भरून बाप्पाक फुलां लागतालीं. तीं एकठांय करपाचें काम आमचे कडेन आशिल्लें. आनू वांगडा वचून आमी चांफो, दशणी, कणेर बी जायतीं फुलां पुंजावन हाडटाले. पांटुलो भरून फुलां हाडलीं जाल्यार बाप्पा खूश जातालो. एक खेपे पांटुलो घेवन हांव एकटोच फुलां हाडपाक गेल्लों. म्हाका थोडींशींच फुलां मेळ्ळीं. पांटुलो घेवन येतना म्हाका एक सोद लागलो. पांटुलो वेगान स्वता भोंवतणी घुंवडायलो जाल्यार फुलां भायर पडनात. नव्या सोदाचे तनरेंत पांटुलो घुंवडायत रस्त्या वयल्यान घरा येतालों. एक सायकलस्वार आयलो आनी म्हजो पांटुलो ताचे गियेक शिरकलो. हांव सकला पडलों आनी फुलां रस्त्या भरवण जालीं. घरा पावतकच आजयेचीं उलोवणीं खावचीं पडलीं. 'ह्या जडबापूक एक काम धड करूंक येना. नांवरूप करून येता.' म्हाका ती अपुरबायेन 'जडबापू' म्हणटाली. हांव म्हज्या भावां परस फाटीं उरतालों हें तिचे शिटूक नदरेंतल्यान सुटूंक नाशिल्लें. म्हज्या भावांचे तुलनेंत म्हजी मुखावयली प्रगती पळयत जाल्यार तिची ती भविष्यवाणीच म्हणूंक जाय! नांवरूप हो शब्दूय म्हाका आवडलो. 'नांवरूप करलो, नांवरूप करतलो' अशें हांव म्हणत रावलों. आवयन म्हजेर धेंगसो घालो.

न्हावन धुवन सवळें न्हेसून बाप्पा देवाकुडींत वतालो तो बद्द वरा-देडवरान भायर येतालो. कपलाक तांबडो गंधाचो तिबो आनी उबो आंगारो! जेवण जातकच तो पुतणयाक घरा धाडपाक मांडार





वतालो. शेंताच्यो विडयो वळटां वळटां झेम काडटालो. पुतणयो म्हळ्यार बाप्पाचो व्हडलो भाव, काकूआप्पाचो एकटोच चलो. ताका भुरगें-बाळ नाशिल्लें. बाप्पा आनी म्हजी आजी-द्वारकीमावशी-हांचो संवसार ताणें आपलो मानलो. तांच्या संवसाराक आधार दिलो. द्वारकेमावशेच्या पांच पुतांक आनी दोगी धुवांक तांचो व्हडलो भाव जावन सांबाळ्ळीं. घर उबें दवरलें. एकट्या बाप्पाच्यान तें जावचें नाशिल्लें. तो आशिल्लो भोळो देव मनीस. ताचो वावर देवाकुडींत चड, पसऱ्यार लक्ष थोडें. कितें जाय नाका ते पुतणयान पळोवप. तिनसांजच्या वेळार बाप्पान देवाचे वासरेंत बसून भजन करप. अभंगाचे सूर घरभर पातळटाले. आमी परवचा म्हणटाले थंय आमच्या कानार येताले. बिरेस्तारा ताचें भजन चड रंगतालें. *'धन्य हो प्रदक्षिणा सद्‌गुरुरायाची'* बी कानार पडलें म्हणटकीर आमी वासरेंत हजर जाताले. बिरेस्तारा पंचखादाय आसताली! 'दिव्यांत वात आनी पोटांत हात' हे भाशेन रातचीं बेगीन जेवणां जातकच आमी न्हिदपाक वताले तेन्ना बाप्पा फाटल्यान आमी काणयो सांग म्हूण लागताले. बाप्पाची सदां एकूच काणी आसताली. कोलो आनी कोली, कोली कोल्याचे शेपडेक कोलती लावन व्हडलो फोड कसो काडटा, 'नेवऱ्यो वडे कुरंय कुरंय शेपडी जाता चुरंय चुरंय' अशें पद म्हणत कोलो तो कसो फोडटा हें सगळें रंगोवन सांगतालो. 'सगळो पूं मडक्यांत भरता आनी तूप म्हणून विकूंक व्हरता, आनी जाणा मरे, तो बद्द हांगा आमच्या घरा पावता आनी बापूक तूप दिता.' म्हाका तिडोवपाक बाप्पा काणयेंत भर घालतालो. 'शी रे बाप्पा. दुसरी काणी सांग' हांव म्हणटालों. आनी बाप्पा टोळंभटाची काणी सुरू करतालो. आमी न्हिदेचे सुवादीन जावन राजाच्या दरबारांत पावताले.

सकाळीं उठ्ठकच बाप्पा आपणेंच शेणी तंबाकू भाजून बी केल्लें दंतमंजन आमच्या हातार दिवन दांत घासूंक लायतालो. मागीर आजयेन थापिल्ल्यो तांदळाच्यो भाकऱ्यो खावंक मेळटाल्यो. उपरांत शाळेंत आनी इश्कोलाक वचप जातालें.

आमी बाप्पाक शाळिग्राम म्हळ्यार कितें, वैश्वदेव म्हळ्यार कितें, अर्दपडीचो निवेद्य कित्याक करूंक जाय अशे हजार प्रस्न विचारताले. आमकां शाळिग्राम पळोवंक दी म्हणून आमची मागणी आसताली.

बाप्पा कडेन आमकां भुरग्यांक सांगपा सारक्यो जापो नासताल्यो. व्हडले जातकच कळटलें सगळें अशें म्हणटालो. शाळिग्राम मात आपशींच आमका भेटलो. बाप्पाक दोळ्यांनी बरें झळकऽ नाशिल्लें. एकदां पुजा जातकच पडग्यांतल्यान निर्माल्या बरोबर शाळिग्रामूय हाडून आंगणांत झाडाच्या मुळांत उडयलो. आमी आंगणांत खेळटना भाईक एक काळो फातोर दिसलो. ताणें तो धाडावपाक घेतलो. हाच्या पिठाची स्लेट पेन्सील बेस बरी जातली अशें ताका दिसलें. तो कसोच फुटना म्हणून ताणें तो नाद सोडून दिलो. आमी तो फातोर बारकायेन पळेलो आनी आंगणांत आशिल्लो तसो उडयलो. दुसऱ्या दिसा अभिशेक करच्या वेळार बाप्पाक शाळिग्राम मेळ्ळो ना. ताचेर कोण आकांत आयलो! सगळे कडेन सोदासोद सुरू जाली. आमचे आकू वावराडेन सांगलें, काल आंगणांत भुरगे एक काळो फातोर घेवन खेळटाले, तेन्ना आंगणांत पळेयात. आंगणांत शाळिग्राम मेळ्ळो आनी बाप्पाक सूऽ जालें. ताणें त्या दिसा देवाचे उपकार मानूंक बरोच वेळ पुजा केली, आनी अभिशेक केलो. आमकां शाळिग्रामाचें आपशींच दर्शन घडलें. त्या फातरार चक्रां चक्रां आशिल्लीं आमकां दिसलीं. उपरांत केन्ना तरी ताचें शास्त्रीय नांव कळ्ळें आनी तीं चक्रां गंडकींतल्या उदकांत आशिल्ल्या जिवांनी केल्लीं आसतात तेंवूय कळ्ळें. बाप्पा शाळिग्रामाचे पुजेंत हिसपा भायर रंगतालो. इतलेंच न्हय तर आपले फाटल्यान ही पुजा घराण्यांत कायम चलची अशी ताची इत्सा. 'बापूची मूज बांदतकच ताका ही पुजा शिकयतलों' अशें तो म्हणटालो. म्हजे आवयक भंय दिसतालो. आपलो चलो देव देव करीत बसचो हें तिका पुटव नाशिल्लें. भुरग्यांनी शिकून दोतोर, आदव्होगाद, इंजनेर बी जावचे अशीं सपनां ती पळेताली.

बाप्पा खरो उमेदीन वावुरतालो तो चवथीच्या वेळार. घरांत देवाची शेकानशेक वासरी आशिल्ली खरी. पुणून आमी गणपती पुजतालीं भायले माळयेर. थंय आरास बी करून देड दिसाचो गणपती पुजतालीं. आमचे उमेदीक शीम सर्त नासताली. गडबड कितलेशे दीस पयलीं सुरू जाताली. आरास करप, माटोळी बांदप, फुगेट्यांचे माराण जमोवप. तये दिसा कागदाचेर चित्रायल्ल्यो गौरी, गणपती आनी शेलाण्या नाल्लाचो म्हादेव पुजपाची प्रथा आमगेर आदीं सावन आशिल्ली. मुर्ती बाप्पाचो पुतणयो करतालो. बाप्पाक सगळी पुजा यथासांग जावंक जाय आशिल्ली. पटये वयल्यान पुतणयो पुजा सांगतालो आमी भुरगे आरती गडगडायताले. विसर्जनाच्या वेळार आमकां खुब्ब वायट दिसतालें. दोळ्यांत दुकां येतालीं.



नवरात्रां आयलीं काय बाप्पा देवाचे वासरेंत गुरुचरित्र सप्ताह करतालो. कडक अनवाळपण. व्हडा भक्तीभावान गुरुचरित्राचें पारायण करतालो.

दिवाळी आनी तुळशीचें लग्न जायनाफुडें काल्याचे वेध लागताले. शांतादुर्गेच्या देवळांत तीन राती नाटकां, एक दीस गौळणकालो अशी भरगच्च कार्यावळ आसताली. आमकां भुरग्यांक नाटकाच्यो एसायो बी मारताले त्यो पळोवपाचो बोवाळ. आमकांय तीं भाशणां पाठ जातालीं. बाप्पाक बोवाळ म्हळ्यार दशावतारी काल्याचो. तो दशावतारींतलो गणपती. गणपतीचें रुपडें घालून स्टेजीर येतालो आनी मृदंगाच्या तालार नाचतालो. उपरांत भट ताची पुजा करतालो. आमकां बाप्पाचो तो नाच आनी संकासुराचीं धुमशेणां चड मानवतालीं. कितलो वेळ हो कालो चलतालो. देवतेची सेवा म्हणून बाप्पा सगळें करतालो. आमकां संकासुराचें सवंग चड आवडटालें. सण आनी उत्सवां भोंवतणीच बाप्पाची आखखी जीण घुंवताली. घरच्या देवांची पुजा, गुरुचरित्र पारायण, काल्याचो गणपती नाचवप, आपल्या मनशांचेर माया करप इतलेंच सादें ध्येय आशिल्लो हो मनीस. वैजणणाचें थोडें-भोव ज्ञान आशिल्लें त्या म्हालवजार पदरचे पयशे मोडून लोकांक ओखदविसर्द करप.

ताचें श्रद्धास्थान आशिल्लें तेतेचें घर आता उरूंक ना. पयर 'पडकी घरें' ह्या सुमेधा कामत देसाईच्या निबंधाचें कात्रण हातांत आयलें. तातूंत ताणें बरयतां, ''वेरेंला माझ्या बहिणीच्या घरी जाते, नाके सोडून थोडे पुढे गेल्यावर सात आठ पडकीं घरे लागतात, एका घराचे छप्पर उडालेले तर दुसऱ्याच्या भिंती कोसळलेल्या... एक घर तर माझ्या डोळ्यांसमोर अजून तरळते.''



सुमेधा सिद्धहस्त बरोवपी. ताणें ज्या घराचें हुबेहूब वर्णन केलां तें वाचून हांवें म्हळें, हें तेतेचें घर आसूंक जाय. घराच्यो वणटी अजून दणकट आसात. पावसा पाणयाचो मार खावन लेगीत उब्यो आसात. आंगणांत हें रान मातलां! पोरसांत खंती उदास कशीं चार पांच झाडां आसात. रस्त्या वयल्यान तीं वळखीचीं दिसनात. तेती माळ ओडीत राणूची वाट पळेत बसताली ती कूड, आमी आपालिपांनी खेळटालीं ती माळी, आंगण, सगळें काळाचे भकीक पडलां. उरल्यात त्यो यादी.

# दर एकलो गोंयकार एक तियात्रिश्त

**सॉर्तेर बॉर्त**

गोंयकारांक मेल्ल्यांतलो जिवो करतलो जाल्यार ताच्या कानांत वचून हळू 'तियात्राक येता रे?' म्हूण विचारचें. चड करून तो क्रिस्तांव गोंयकार जाल्यार. तो कॉमांत पसून आसल्यार हात पांय दोळे हालोवंक लागतलो. आतां हें तियात्राचें दुर्येस फकत क्रिस्तांव गोंयकारा इतलेंच मर्यादीत उरूंक ना. ताचो वसो हिंदू गोंयकाराकूय बरोच लागूंक लागला. आनी ही तर गोंयकार आनी तांच्या एकवटाचे बाबतींत बरीच आशावादी गजाल.

तियात्राचेर म्हजो इतलो विस्वास आसपाक जायतीं कारणां आसात. पूण मुखेल कारण म्हळ्यार, तियात्र गोंयच्या आत्म्या कडेन, ताच्या अस्तित्वा कडेन, अस्मिताये कडेन, ताचे आवय-भाशे कोंकणी कडेन जोडून आसा. गोंयचे दोनूय समाज तियात्राच्या मळार पसून एकठांय जावन कितलें जैत जोडूंक शकतात तें बाब एम्. बॉयर आनी बाब उदय भेंब्रे हांणी एका वेळार दाखयलां - बॉयराचो पंगड आनी उदयबाबाच्या मुखेलपणा खाला कोंकणी भाशा मंडळाच्या कलाकारांचो पंगड एकठांय जावन 'एकूच रस्तो' हो तियात्र येशस्वी तरेन कितलेच पावटी माचयेर हाडलो तेन्ना.



आयज गोंयकार,खास करून क्रिस्तांव गोंयकार, चड करून पोटा खातीर इंग्लेज भाशे कडेन चड लागीं येयत आसा. आनी जितलो तो इंग्लेज भाशेक लागीं येता, तितलोच आपले आवय-भाशे कोंकणी कडचो पयस वचत आसा. तो कोंकणी भाशे कडचोच पयस वता अशें न्हय, तर गोंयचे मातये कडचोय तो पयस वचत आसा. अमेरिकेंत, येवरोपांत, कॅनडांत, ऑस्ट्रेलियेंत, न्यूझिलँडांत आनी दुसऱ्या भायल्या देसांनी जो पावता तो आनीक परत येवपाचें चिंतिना. हातूंत आखाती देस मातशे अपवाद आसात. पूण असल्या निराशीपणाच्या वातावरणांत तांकां मांडे-दुल्पदां आनी, चड करून, तियात्र आवय-भाशे कडेन आसलल्या बोंबले-देंटा संबंदीं जागे दवरूंक आधार दितात. म्हणून म्हज्यान तियात्राक चेपें काडले बगर रावूंक जायना.

तशें पळोवंक गेल्यार, संगीत (तुका जाय जाल्यार कांतार म्हणल्यार जाता), माचयेर नट/नटी जावन कलाकाराचें काम करप, हें सगल्या गोंयकारांच्या रगतांतूच आसा. कांय ना जाल्यार तियात्र पळोवपाचें पूण पिशें आसतलेंच. म्हणून आमी गोंया भायर, म्हणजे मुंबय, पुणें, कराची हांगासर शेंबर अदीक वर्सां फाटीं पोटा खातीर गेल्ल्या गोंयकारांचे उपकार आठोवपाक जाय. ते गोंयांत आसले जाल्यार पुर्तुगेज सरकार तांकां कोंकणी भाशेंतल्यान ही कला वयर काडूक दितलो आसलो जाल्यार दुभाव आसा. हाकाच लागून गोंयांत तियात्र माचयेर नियमीत तरेन दिसूंक लागलो तो १९५० उपरांत. कलाकार तियात्रिश्त पयलीं नांव मुंबयंत जोडटाले आनी उपरांतूच गोंयां येताले. तेंय बी, पुर्तुगेज सरकारान 'visado pela censura' ही परवानगी दिल्यारूच. तेन्नाच तियात्र पाल्कार हाडूंक जाताले. म्हणून सगल्या गोंयकारांनी, चड करून आतांच्या वेवसायीक धर्तेच्या तियात्रिश्तांनी, बाब लुकाझीन्य रिबैर आनी उपरांत पाय तियात्रिश्त जुआंव आगुस्तीन फेर्नांदीस, तांचीं बायल-भुरगीं आनी दुसऱ्या सांगात्यांक दिनवासूंक जाय. लुकाझीन्यबाबान सगळ्या आडखळींक तोंड दिवन १८९० वर्सा मुंबय शारांत 'इतालियान भुरगो' हो पयलो तियात्र माचयेर हाडलो. म्हाका दिसता, लुकाझीन्यबाब, जुआंव आगुस्तीन आनी तांचे सांगाती मांयभुंये आनी आवयभाशे कडचे पयस आशिल्ल्यान तांकां उमळशिकेचे चिमटे येताले आसतले.

म्हाका माचयेर चडपाची संदी ल्हान आसतानाच मेळ्ळी. लोटले आवयच्या घरांत पुर्तुगेज प्राथमीक शाळा आसली. आमची शिक्षिका बाय दॉरॉनी मोंतैरू साहित्यीक कार्यक्रम उमेदीन करताली आनी आमकां, पांच-स वर्सांच्या भुरग्यांक, तातूंत वांटो घेवंक लायताली, मागीर तो नाच जावूं, गीत जावूं वो नाटकुल्यांत भाग घेवन जावूं. तियात्र पळोवपाची पयली संदी मेळ्ळी ती म्हज्या व्हडल्या भावा बराबर गेल्लों तेन्ना, इगर्जेच्या फेस्ता निमतान हाडलल्या तियात्राक. आनी परत मडगांवां पावतच, तियात्र सामके लागींच्यान पळेवंक मेळ्ळे. म्हजो भाव आनी ताचे सांगाती घरांतूच व्हडल्या सालांत, मेजाची स्टेज करून आनी चादरांचे पड्डे करून तियात्र करूंक लागले. शेजारी, इश्ट जायते येताले आनी इंटरवालाक भोंवडायलले थाळयेंत कितेंय पडटालें. ताच्या खुस्तार मागीर पार्टी जाताली.

### वेवसायीक तियात्र

म्हज्या बापायक आनी आवयक एकदम बरो ताळो आसलो. प्रिमेर आनी सेगूंद बेस बरो घालून कांतार करतालीं. तीं मांडे आनी दुल्पदां गायतालीं तेन्ना जीव सामको भुल्लुसतालो. म्हजे आवयचेर तर गायताना थोडे पावटी सामको भार कसो येतालो आनी तेन्ना तिका सांबाळूंक नाका शेवट जातालें. म्हज्या भावाकूय ताळो बरो आसलो. पूण व्हडली भयण आनी हांव मात सामकीं 'desafinado' आसलीं. म्हणचे, सामकीं बेसूर ताळ्याचीं. म्हजो बापूय काजार जावंचे पयलीं तियात्रांत भाग घेतालो आनी बेस बरो नट आसलो हें म्हाका उपरांत कळून आयलें. तें १९३० च्या अदमासाक जावंक जाय. आनी बापाय बरोबर काम करपी एकलो शेजारी आसलो. ताचें नांव रॉक आफोंस. पूण माचयेर तो 'रॉक

पाटान' हें नांव घेतालो. तोय बरी पार्त करी. आनी तिसरो आसलो तो आनीक कोण न्हय पूण ए. आर्. सौझ फेर्रांव. तेन्ना तो फकत आंतोनियु सौझ हेंच नांव घेतालो. उपरांत, घरच्यांनी आडखळ हाडटच, ताणें कळना जावूंक आवयचें आडनांव फेर्रांव लायलें आनी 'ए. आर. सौझ फेर्रांव' केलें. ही खबर खास फेर्रांवबाबान म्हाका आनी फेलीस्युबाबाक, तो आमगेर आयललो तेन्ना सांगलली. आनी म्हज्या बापायन तियात्रांत काम करपाचें कित्याक सोडलें तेंय ताणेंच सांगललें. म्हज्या बापायचें काजार १९३६ वर्सा जाल्लें. काजार जातच पापान आपले होंकलेक (म्हणचे म्हजे मामाक) व्हडे उमेदीन आपूण पार्त करतालो त्या तियात्राक व्हेली. पापा सामक्या दळडीरपणाक पावलल्याची भुमिका करतालो. सामके पिंजके कपडे, खाड केंस भिकाऱ्याचे धरतेचे आनी कामूय तसलेंच. तें पळोवन मामा जी रडूंक लागली ती कशीच थांबना जाली. घरा पावतकूच तेंच चित्र तिच्या दोळ्यां मुखार येवंक लागलें. पापान तिका समजावपाचे जायते प्रयत्न केले. तसली पार्त करपाक बरेंच कठीण, तें सगल्यां कडेन जायना आनी अशें जायतें सांगलें. उपरांत, ती कशीच आयकना तें पळोवन ताणें तियात्रांत काम करपाचेंच सोडून दिलें. हें नियाळटच, म्हजो बापूय कितलो बरो नट आसलो ताचें इल्लेंशें गर्व भोगता.



उपरांत पयलेच पावट फेलीस्युबाब कार्दोजाक चोयलो तो तियात्राचे माचयेर. पूण तियात्रिश्त कसो न्हय. जादुकार कसो. कोयसांव सायबीणीचें फेस्त आसलें काय दिसता म्हाका. आनी वर्स १९५३ जावंक जाय. माळ्ळार (माडेलांत) तियात्र आसलो. म्हजो व्हडलो भाव एक तियात्र सोडी नासलो. आनी हांव शेंपडी कसो ताचे फाटल्यान रोखडोच तयार जातालों.

१९५० उपरांत मडगांवांत वेवसायीक तरेन तियात्र जातालें ते चड करून कोंबांत आसलल्या विद्या भुवनांत. भुरगो जाल्ल्यान तिकेटीचो प्रस्न येनासलो. कोणाच्याय हाताक धरूंक मेळ्ळें जाल्यार बरें आसलें. ना जाल्यार इस्कोलांतले आनीक दोग-तेग इश्ट आसले. तेय बी कोंर्बातलेच. विद्या भुवनाच्या खंयच्या जनेलाक खिळी ना, फाटल्यान इस्कोल चलता ताचें खंयचें दार उगडूंक मेळटा, ही सगली खबर ते पयलींच काडून दवरताले. हो प्रयोग करतना जायते पावटी पुलिसेचे एक-दोन सोटेय खावंचे पडल्यात.

मुंबयचे तियात्र आयल्यार लोक चड जातालो. तेन्ना तियात्र चड करून व्हडल्या उकत्या मळार, पत्रीं लावन बंद केल्ल्या माटवांत जातालें. एक जागो मडगांवच्या काम्राची आतांची आगा खान बाग आसा थंय आसलो. किड-यंग-रॉड आसल्यार लोकाची सामकी गर्दी जाताली. किड म्हळ्यार किड बॉक्सर, यंग म्हणचे यंग मिनेझीस आनी रॉड म्हळ्यार ल्हान व्हडांक पिशें लावपी मिगेल रॉड. यंग मिनेझीसाचीं नॉन-स्टॉप, शेंबरांनी उतरां आसललीं कांतारां आयकून लोकाचीं तोंडां उकतींच उरतालीं. आतांचे भुरगे अमेरिकन गावप्यांचें 'रॅप' आयकून अजाप जातात. पूण आमच्या यंग मिनेझीसान कोंकणी रॅप १९५० च्या दसकांत सुरू केल्लें. इतलेंय आसून आतांच्यावून कितलींशीं लांब लांब आनी भरपूर अर्थ आसललीं कांतारां, किड बॉक्सराचीं ओपारींनी भरललीं कांतारां लोकांक शाणे करतालीं. आनी चड लोक येतालो तो मिगेलाक आयकूंक आनी, तें जायना जाल्यार, ताका दोळेभर पळोवंक तरी. कारण मिगेल जायते पावटी 'आलॅग्र' जावन इस्टेजी पोंदा न्हिदललो आसतालो आनी आवय बाबडी ताका उठावपाची खटपट करताली. लोक मागीर बोवाळ घालीत तिकेटीचे पयशे परत मागताले. एक पावटी म्हाका घट उगडास जाता. तियात्र मडगांवचे नगरपालिकेचे बागेंतूच घाल्ल्या माटवांत आसलो. नांव 'Bail de Tarvotti' काय दिसता म्हाका. मिगेल स्टेजीर येता तो पळेवन लोकान फिवण्यो आनी बोवाळ घालूंक सुरू केलें. हांव आनी म्हजो इस्ट क्रूझ मिगेल खंय आसा काय म्हूण सोदूं लागले. जाल्यार ताची मांय बाबडी तो स्टेजी फाटले वटेन न्हिदललो आसलो ताका उठायताली. इतल्यान जाझ वाजयतल्यान (ड्रमरान) कांसाळेचेर दोन-तीन बडयो मारीत, धोल-काश वाजोवंक सुरू केली. तो आवाज कानार पडना फुडें मिगेल कसो तरी उबो जालो. कोणें तरी कलसांव चडयलें, दुसऱ्यान कास्तर, तिसऱ्यान माथ्यार तोप आनी चवथ्यान ताका स्टेजीर लकयलो. एक पावट स्टेजीर पांय दवरिना फुडें दुसरोच मिगेल स्टेजीर आसा काय दिसूंक लागलो. ताका पळोवन लोकांच्यो बोबो, हुयेली आनी फिवण्यो चालूच उरल्यो. केदो वेळ पासून. ताका कितले पावटी परत आपयलो आसतलो ताचो आतां उगडास जायना. लोकांचे तिकेटीचे पयशे भरून ओतले. मिगेल रॉडाचो जादू होच आसलो.

उपरांत किड-यंग-रॉड त्रिकुटाचेर आनीक एक माणीक येवन बसलें. तें म्हळ्यार जासींत व्हाज, किड-यंग-रॉड त्रिकूट आसलें ती किड-यंग-रॉड-व्हाज चौकट जाली. आयज पासून जासींत व्हाजाचें नांवूच घेतल्यार लोकांक हांसूक येता. पाल्कार पळोवपाची गरज पडना.

### १९६१ उपरांत

१९६१ त गोंय स्वतंत्र जालें. आतां कसलीच आडखळ नासतना मुंबयच्यान गोंयां येवपाक जातालें. मुंबयच्या तियात्रिश्तांनी तेन्ना जायती प्रगती केलली. १९६२ त म्हज्या तियाचो जांवय आनी शेजारी जुवांव ग्रासियास मुंबयचो एक तियात्रिश्तांचो पंगड घेवन गोंयां आयलो. तियात्र बाब मास्टर वाझाचो आसलो आनी नांव आसलें 'Malgoddo Put Fulgoddo.' म्हज्या बापायची निमणी भयण तियात्र म्हळ्यार सामकी पिशी जाताली. भुरगीच आसतना काजार जावन मुंबय पाविल्ली. ती रावताली दादर पुर्तुगेज

चर्चीं लागीं 'आव्हे मारिया' चाळींत. थंय जायते गोंयकार रावताले आनी तातूंत तियात्रिश्तूय आसताले. हो पंगड रावपाक आमगेर आयलो. ते ए. आर्.सौझ फॅरांव, ए.एम्.बी.रोझ, मास्टर व्हाज, पी. नाजारॅथ आनी जायते नवे उदेते कलाकार. तातूंत बाब आल्फ्रेड रोझ आसलो. आपल्या ताळ्याक लागून संवसार जिखूंक ताणें सुरवात केल्ली. लंडनाक वचून आयललो जाल्यार उगडास जायना. 'ग्लोरिया' हें गीत सगल्यांच्या वोंठार खेळटालें. आल्फ्रेड रोजाच्या बापायक आल्फ्रेडा भशेन 'डॅडी'च म्हूण सगले उलो करताले. तिटा प्रेटो, ग्रेग, साबिना, रिको रॉड आनी आल्फ्रेड पासून उदेते कलाकार. तियात्र सिने लता फाटल्यान, मधू तिंबल्याच्या ऑफिसा मुखार आसलल्या जाग्यार माटवांत जालो. हांव तेन्नाच पुर्तुगेज लिसेव करून कितें करचें तें चिंतीत भोंवतालों. ए.एम्.बी. रोझ ऊर्फ डॅडी आनी सौजा फॅरांव म्हाका एकदम बरे करूंक लागले. म्हाका तेन्ना निकतींच अठरा वर्सां भरतालीं. ताका लागून सिर्विसूय मेळूंक कुस्तार जातालें. बेकार आशिल्ल्यान तियात्रिश्तांचीं सगलीं कामां हांव करून दितालों. पी. नाझारेथाचो ताळो इतलो खडेगांठ आसलो की ताका मायकाची गरज पडनासली. सगले कलाकार आमगेर रावताले, सोडून मास्टर व्हाज. तो आपल्या घरा सावन येतालो. एम्. बॉयर तेन्ना निकतोच उदेतो कलाकार. तिफोयदीच्या जोरान त्या दिसांनी ताका बरोच बारीक केल्लो. पूण बरो जावन हेरांचे खबरेक येतालो. खास करून सौझ फॅरांव आनी डॅडीचे. फॅरांवबाब ताका मानुएल म्हूण उलो करतालो. तेन्ना म्हाका कळ्ळें, ताचें खरें नांव मानुएल आगियार म्हूण. आनी हांवूय ताका 'ऑ सिंयॉर मानुएल' म्हूण उलो करूंक लागलों.

तियात्र गोंयकारांच्या आंगांत पुरायपणीं सामको भरसून गेला. साहित्य आनी संस्कृताय आनी हेर मळां कडेन संबंध आसललो गोंयकार, खास करून क्रिस्तांव गोंयकार, तियात्राक लागीं आसुंकूच जाय. मागीर संवसाराच्या खंयच्याय कोनशाक वचून तों आपलें बिराड करूं. आनी तियात्रिश्त आयज जें कितें सर्वूय वाटांनी जोडटात तें फकत कोंकणीक लागून, हाचो तांणी सदांच उगडास करूंक जाय. अशेंच तियात्रा वरवीं पूण गोंयकारांचें कोंकणी कडचें नातें जिवें उरल्यार पुरो.



# साहित्य-समीक्षाशास्त्रांतल्यो संकल्पना

**अभिव्यक्तिवादः २**

इ. स. १९१० ते १९२५ ह्या काळांत जर्मनींतल्या साहित्य आनी दृश्यकलांच्या मळांचेर वावुरतल्या कलाकारांनी आपणालीं सौंदर्यविशयक तत्त्वां आनी आपणाली कला हांचीं वर्णनां करपा खातीर वापरिल्ली संज्ञा. ते उपरांत साहित्य, संगीत, चित्रपट (सिनेमा) अश्या कलांच्या मळां वेले विशिश्ट तरेचे कृतीचें वर्णन करपा खातीरय हे संज्ञेचो उपेग जावपाक लागलो. १९ व्या शतमानांतल्या यथार्थवादी चित्रकलेची तीव्र प्रतिक्रिया म्हूण जर्मन चित्रकारांनी ही चळवळ सुरू केली. एडवर्ड मुंक ह्या चित्रकाराचें 'किंळांच' *(द क्राय)* नांवाचें चित्र हे चंळवळीचे भाव उकतावपी प्रातिनिधीक चित्र मानतात. जगाचें वा जिणेचें निखटें वास्तव चित्रण करपा बदला कलावंताच्यो भावनीक अवस्था दाखोवपा खातीर वास्तवाचें विरुपीकरण जांच्या कलांतल्यान जाल्लें अशेच चित्रकार आनी साहित्यीक ह्या वादाचे चळवळीचे प्रवर्तक आशिल्ले.

पॉल गोगँ, व्हिसेंट वॅन गॉ (गॉग), एडवर्ड मुंक ह्या चित्रकारां पसून अभिव्यक्तिवादी चित्रकारांनी उर्बा घेतिल्ली. हे चळवळीचो प्रभाव विसाव्या शतमानाच्या पूर्वार्धांतल्या चित्रकारांचेरच न्हय जाल्यार साहित्यिकांचेरय पडिल्लो. फ्रॉयडाचो अबोधमनाचो सिद्धांत, फ्रीडरीश नित्शेचें विवेकवाद विरोधी तत्त्वगिन्यान, फ्यादोर दोस्तोयव्हस्कीच्यो कादंबऱ्यो ह्या साबारांचो प्रभाव अभिव्यक्तिवादी लेखकांचेर आशिल्लो.

अभिव्यक्तिवादाचीं वैशिश्ट्यां थोडे भितर अशीं सांगूं येतात -

भायलें वास्तव सादर करपा बदला ते आंतरीक भावनांचे आनी कल्पनांचे अभिव्यक्तीक म्हत्त्व दितात. कुडके जावन पडिल्ल्या समाजांतल्या एकट्या आनी भिरांकूळ जाल्ल्या मनशाच्या अणभवांक ताच्या कलाकृतींनी मुखेलताय मेळटा.

जर्मन बरोवपी फ्रांझ काफ्का आनी स्विडीश नाटककार ऑगस्ट स्ट्रिंडबर्ग हांचे बरपावळींत अभिव्यक्तिवादाचे विशेश प्रगट जातात. अभिव्यक्तिवादी नाटककारांनी आपणाल्या नाटकाचे संहितेंतल्या पात्रांक विशिश्ट व्यक्तिरेखा दिल्यो नात, तर ते बदला अनामीक पात्रांची येवजण केली. म्हळ्यार, तांच्या नाटकांतल्या पात्रांक नावां नासून मनीस/व्यक्ती १, व्यक्ती - २, अस्तुरी - १, अस्तुरी-५ अशीं संबोधनां आसतालीं. संविधानका बदला दृश्यखंड आनी सलग संवादा बदला संभाशणाचे कुडके कुडके आसताले. रुपडीं आनी अमूर्त (abstract) स्वरुपाचें नेपथ्यय वापरताले (हांगा पुंडलीक नायकाचे 'मर्णकटो' एकांकीचें नेपथ्य येवजता.)

**- प्रियदर्शिनी तडकोडकार**



# मनशाच्या एकसुरेपणाचो सोद घेवपी कविता

**माधव बोरकार**

कांय कवींच्यो कविता भोवकेंद्री आसतात तर कांय कवी एकाच केंद्रा भोंवतणी आपले कवितेचो गोफ विणटात. मनोहरराय सरदेसाय हांची कविता भोवकेंद्री. थोडे विसकटावन सांगपाचें जाल्यार, ती कविता वेगवेगळे आशय आपले भितर आसपावन घेता. सैम, प्रेम ह्या आशयां वांगडाच, ती सामाजीक आशय केळयता. म्हणून तरल मोगाच्यो कविता तश्याच 'जायात जागे' सारकेल्यो सामाजीक कविता मनोहररायांनी बरयल्यो. गोंय मुक्ती चळवळ, मुक्ती उपरांत जाल्लीं भाशीक आंदोलनां हांचे कडेन ती कविता एकरूप जाल्ली दिसता. ही मनोहररायाले कवितेची प्रकृती अशें आमी म्हणपाक शकतात. मनोहररायांनी ह्यो सगळ्यो चळवळी निखट्यो लागीं सावन पळयल्यो नात तर ह्या चळवळींनी तांणी प्रत्यक्ष वांटो घेतलो. मनोहररायाली आनी भांग्याली कविता. एकामेकां सामकार दवरल्यार ह्या दोन कवीं मदीं आशिल्लो फरक स्पश्ट लक्षांत येता. भांग्याली कविता एककेंद्री. ती आपलोच सोद घेत भितर भितर वता. भायल्या वास्तवा कडेन तिचो व्हडलोसो संबंद आयिल्लो दिसना. घडये कवीन तो येवंक दिवंकना जावंये. सामाजीक आशय आपले कवितेक मानवना अशी तांची भावना आशिल्ली आसपाची शक्यताय न्हयकारूंक येना. अशें आसलें तरी कवी अख्खें जिवीत हस्तिदंती मनोऱ्यांत काडूंक शकना. ताकाय भोंवतणच्या खर वास्तवाचो हुलप बादताच. सामाजीक परिस्थितीची जाणविकाय ताका नाशिल्ली अशें म्हणपाक ताणें सुवात दवरूंक ना. ते नदरेन 'काळोख हार जावन' ही कविता म्हत्वाची दिसता.

*काळोख हार जावन*
*विळखे घाली घालीत*
*सगळ्यांक गिळीत चल्ला.*
*उजवाडाक*
*घायांचीं भगां पडल्यांत*
*किवणांतले किडे*
*भयाच्या वागऱ्यांत*
*आप आपल्या स्वार्थाच्या घोटेरांत*
*गुल्ल आसात*
*वाऱ्यांत अगेलाची वीज आसा*
*ताकाय सर्वनाशाचो किटकिटो आयला*

ही कविता बारकायेन वाचून पळयल्यार तिका आशिल्लो सामाजीक संदर्भ लक्षांत येतलो.किडेल्ली व्यवस्था आनी नैतीक मुल्यांचो ऱ्हास. आनी ह्या सगळ्यांतल्यान भायर कशें सरचें हो पडिल्लो प्रस्न. घडये हाका सुटकाच ना काय अशें दिसपी परिस्थिती कवी हे कवितेंत चितारता. ताका तशें दिसपाकूय कारण आसा. तो मुखार म्हणटा :

*प्रेशित आतां येवपाचे नात*
*तांचे मार्गच बंद जाल्यात*
*देवळांतले देव*
*पाशाणांतच घुस्पल्यात.*
*आज कोणाक*
*कोणाचेंच पडूंकना*
*किड्यांचीय जीण आतां*
*किड्यांच्या हातांत उरूंक ना!*

*(चांफेल्ली सांज: पान १३)*

ह्या वळींतलो किंवाटो ताचे खरसाणीक लागून कवितेक खोलाय जोडून दिता. कवितेंतलो हो सामाजीक आशय कलात्मकतेचें भान दवरून व्यक्त जाला. तो मोटे सुचकतायेन व्यक्त जाता. काळखाचो हार, घायांचीं भगां, किवणांतले किडे ह्यो प्रतिमा कवितेक कलात्मकतेच्या पांवड्यार व्हरतात. हांगा मनोहररायाली सामाजीक आशय व्यक्त करपाची तरा आनी भांग्याली रीत हातूंत फरक करपाक येता. मनोहरराय जें कितें सांगपाचें आसा तें सरळ उतरांनी सांगता. वाचप्याक तातूंतल्यान अर्थ काडचो पडना. भांगीचे कवितेंत मात अर्थाचो माग काडचो पडटा. ही तुळा ह्या दोन कवींक ल्हान व्हड थारावपाक करूंक ना, तर दोन भिन्न प्रकृतीचे कवी एकूच अणभव कितले वेगळे तरेन मांडटात हें दाखोवपाक केल्या.

मनोहरराय, पंडित, बाकीबाब ह्या तांच्या समकालिनां वरी हो सामाजीक आशय आडवादान भांग्याले कवितेंत दिसलो तरी तांणी भोंवतणचे परिस्थितीचो अभ्यास करूंक नाशिल्लो अशें म्हणपाक मेळना. कविते परसूय गद्यरुपान तांचें हें चिंतन आयलां. *'उतरांचो संवसार'* हे दिसपटयेंत हें तांचें चिंतन वाचपाक मेळटा. १९.८.७३ हे तारकेचे नोंदींत तांणी म्हळां, कलावंत होय मनिसूच आसता आनी देखून तो एकमुळो रावंक शकना. तो समाजा पसून वेगळो कसो रावतलो? समाजांत जें बरें वायट घडटा - सामाजीक परिवर्तनां बी - तांकां तो गवाय ज़ाता. अखेर ते म्हणटात, "त्या परिवर्तनाचे साद आनी पडसाद ताजे कलेंत घडये आसुंयेत घडये नासुंयेत. ते आसचेच अशें ना. ताणे प्रामाणिक आसूंक जाय आपले कलेकडेन. ताणे प्रामाणिक रावूंक जाय खासा आपल्याकडेन. आपल्या मनाकडेन. आपल्या काळजा कडेन.[1]" ह्या तांच्या उतरांतल्यान एक कलावंत ह्या नात्यान तांणी घेतिल्ली शुद्ध कलावादी भुमिका स्पश्ट जाता. तांणी सामाजीक आशय तसो आपले कवितेचे शिमे भायर दवरलो ना तरी हो आशय कविते भितर घेतना ते आपले कलावादी भुमिके पसून पयस गेल्ले दिसनात. सामाजीक आशयाची कविता खूब फावट प्रचारकी जावपाचो भंय आसता. खूब फावट ती तशी जाताय आनी काळाच्या बंधनांत घुसपून उरता हें आमी अणभवतात. अशें जावचें न्हय हाचें भान ह्या कवीक आसा म्हणपाचें ताच्यो कविता वाचतकच लक्षात येता. *अदृस्टाचे कळे* संग्रहांतली ३७ नंबर आशिल्ली कविता हाची आनीक एक गवाय आसा —

*वाटोय आज अगेल कशो, खंयच्या प्रेशितांची वाणी?*

*सपनांचे जागृतींत कोण गायता गाणीं?*
*जीणेक आज ना रे मोल, नां जीणेक प्रतिस्ठा*
*अथांग आसा मळब आनी अथांग आसा दर्या...''*

आनीक एका कारणाक लागून भांग्याले कवितेच्या संदर्भांत मनोहररायाले कवितेची याद जाता. मनोहररायान गोंय केंद्रस्थानार दवरून कविता बरयल्यो. तांचे कवितेंतल्यान गोंय वेगळें काडूंक जायना इतलो हो आशय तांचे कविते कडेन एकजीव जाल्लो दिसता. पूण भांग्याले कवितेंत गोंयचें वर्णन येना. तांचे कवितेंत सैमाच्यो प्रतिमा येतात. पूण तांकां सैमाचो कवी म्हणप शक्य ना. कित्याक तर मुळांत तांणी प्रतिमा निखट्यो अलंकाराच्या रुपान वापरूंक नात. 'कोंकणच्या रानांत' ही तांची *दिस्टावो* संग्रहांतली कविता मात थोडी वर्णनात्मक जाल्या खरी पूण हे कवितेंतलें वर्णन संयम राखून केल्लें दिसता.

*कोंकणच्या रानांत*
*वनदेवी धोलता*
*मकरांत रे पुजा*
*म्हूर्त तिजी.*

हे वनदेवतेक होंटे खातीर चारां चुन्नां आनी तिका पासडी धाडात ती चंद्रकळेची अशें कवी म्हणटा. तिच्या नितळ आंगाक फुल्लटीची कांत मारता आनी तिचे कुशींत सपन आसा तेंय आशाढाचें.

*तिजे रे दोळ्यांतु*
*पोहुडलें मळबु*
*दिपरज़े आरासु*
*अंतरांतु*

वर्णनात्मकतायेंतल्यान ही कविता ह्या वळींनी कुशीक सरिल्ली दिसता आनी ती सुचकताये कडेन सहज बागवल्या. हांगाय तिणें आपलें खाशेलेपण राखलां. हांगा कवी अभंग छंदाचो प्रभावी वापर करता आनी निमाण्या वळींनी केल्लो उकारांचो वापर तिका सोळाव्या शतमानांतले कोंकणीचो नादस्पर्श दिता. आजूय हे उकार कोंकणींत कांय कडेन घोळटुकेंत आसात.

भांग्याली कविता तशी वर्णनात्मक जायना हें आमी पळयलांच. पूण वर्णन आयलेंच जाल्यार तें आटोपशीर आंगाचें आसता. बदलत वचपी शाराचें रूप तांच्या *अदृस्टाचे कळे* संग्रहांतले १२ नंबराचे कवितेंत दिसता. ही कविता म्हळ्यार एक cityscape. ह्या शारांतल्या झाडांक भितोड नासता आनी तीं घरांच्या आडसाक आंग चोरून उबीं आसतात. थंय कावळे मात आसतात. दिसूयभर भोपशें तेळीत ऊंच गेल्ल्या घरांच्या आगाशांर बशिल्ले ते आमकां दिसतात. थंय सवणींय दिसनात. तीं तरी कशीं दिसतलीं? तांकां थंय खेळपाक आंगण नाः

*खेळपाक नासता आंगण,*
*नासता उडपाक*
*मळब मेकळें,*
*तें आसता सदांच*
*श्वासा -उस्वासांनी घुस्पल्लें!*

भांग्याले कवी प्रकृती कडेन लागीं येवपी अशी ही कविता न्हय. तरी निमाण्यो वळी आपले मूळ बडीर गेल्यात. आज शारांनी व्हडे उंचायेच्यो इमारती जाल्ल्यान त्यो मळबा कडेन सर्त केल्ले वरी दिसतात. आनी मळबाचो अवकाश आटत गेल्ले वरी जाला. मुंबय सारकिल्या शारांत हालीं सवणीं चिमण्यो आदले वरी दिसनात अशी एक खबर वाचिल्ली. ताचें कारण, नव्या इमारतींनी तांकां घोंटेर करपाक खांची कोनशांच्यो रित्यो सुवाती नात अशें सवण्यांच्या मोग्यांनी बरयल्लें. भांग्याली ही कविता वाचतकच ताची याद जाता. हे कवितेंतलो अणभव विचार करपाक लायता. सुधीर पटवर्धन ह्या नामनेच्या चित्रकाराच्या चित्रां कडेन हे कवितेचें नातें जुळटा. पटवर्धनाच्या चित्रांनी शारांतली गर्दी, आंग चोरून उब्यो आशिल्ल्यो ऊंच ऊंच इमारती हाचें चित्रण आसता. ही कविता वाचतकच पटवर्धनाचें चित्र शब्दरुपान मुखार येता. तेच भशेन ही कविता नकळटां चित्र आनी कविता हाचे मदलें नातें दाखयता. शारां ह्या आशयाच्यो कविता वेगवेगळ्या भारतीय साहित्यांत आयल्यात. तातुंतल्यो कांय वेंचीक आनी म्हत्वाच्यो कविता वाचतकच भांग्याली ही कविता कितली मोलादीक आसा तें सहज लक्षांत येता. ते परसूय ही सबंद कविता शाराची प्रतिमा जाता हें आनिकूय म्हत्वाचें. भांग्याले कवितेचें खाशेलेपण म्हळ्यार तिची organic unity. ते दर एक उतर, प्रतिमा, प्रतिकां पुराय विचार करून वापरतात. ताका लागून तांचे कवितेंतली खंयचीच वळ वा उतर चड वा कमी दिसना. तांचे भितर जसो एक सौंदर्यवादी दिसता तसोच एक कारागीर आसा म्हणपाचें जाणवता. हो कारागीर तांचे भितल्ल्या कवीचेर दोळ्यांत तेल घालून नदर दवरता. देखून कविता बरोवन जातकच कवी तिरायत नदरेन कवितेक थोडी पयस दवरून पळोवंक शकता. ताकाच लागून कवितेंतलें उणेपण तो पयस करूंक पावता. भांगी 'आयलें तशें गायलें' म्हणपी कवी न्हय. तो एक concious कलावंत. कविता बरोवन जातकच तिच्या दर एका आंगाचो बारीकसाणीन विचार करपी. एकाद्री कविता मना सारकी आयलिना जाल्यार ती कडेक दवरपी. तिचेर केन्नाय आडवी उबी काट मारपी. ते खातीर तांची उजवाडा येवंक नाशिल्ली कविता अभ्यासपाक तांचे कवितेचे कादेर्न पळोवचे पडटले. घडये तातूंत तांकां मानोवंक नाशिल्ल्यो पूण कांय बऱ्यो कविता आसूं येतात. कवीच्या कवितांचो मूळ कादेर्न वाचून पळयल्यार तांचे कवितेचे निर्मणी प्रक्रियेची नाट मेळूं येता.

भांग्याली कविता मनशाच्या जिवितांतल्या एकसुरेपणाचो सोद घेता. शारावेली कविता लेगीत ह्याच एकसुरेपणाचो वेध घेता. देखून तांची सामाजीक जाणविकायेची कविता आडवादान मेळटा. एक अभ्यास म्हूण तांचे हे कविते कडेन मनोहरराय आनी बाकीबाक बोरकाराले कवितेची तुळा करून पळोवंक येता. 'जागी जाल्या गोंयची सासाय' हे कवितेंत बाकीबाब परिवर्तनाची भास उलयतात. हें परिवर्तन समाजांतले जागृतायेचें. आनी हातूंतल्यान समाज मुळा सावन बदलतलो अशी भास कवी व्यक्त करता. *'जागी जाल्या गोंयची सासाय । येतलो भार, येतलो भार । धोल ताशे बडय बडय । मार शेंसार, मार शेंसार'* अशें म्हणटां म्हणटां मुखार बाकीबाब आशावाद उकतायतातः *कोण जाणा केन्ना कशी / जाल्ली कोलू तुजीच कूड / अकस्मात घेवन पेट / उजवाडाची जायत चूड / जागी जाल्या*

*गोंयची सासाय / तुजेर लेगीत येत भार'* अश्यो विलक्षण गती आशिल्ल्यो वळी येतात. तेच प्रमाण मनोहररायाल्यो ह्यो वळी पळयात: *'आमच्या मनाक धार आसा । सोंशीकपणाक पार आसा / आड येतल्यांक आड घालपाक / आमचे कुडीक हाड आसा.'* बाकीबाक आनी मनोहरराय हांच्यो ह्यो वळी dynamic आसात. तातूंतल्यान कृती उक्ती जाता. आनी भांग्याले कवितेंतल्यो ह्यो वळी पळयात:

*भुंयेच्या गर्भांतलो ज्वालामुखी*
*भितल्ले भितर जाल्लो घुस्मटमार*
.....
*घडये फांतोड फुटचीच ना*
*अशी अथांग रात*

( *'भुंयेच्या गर्भांतलो ज्वालामुखी'*. चांफेली सांज )

'काळोख हार जावन' हे कवितेंत किवणांतले किडे भंयाच्या वागऱ्यांत स्वार्थाच्या घोटेरांत गुल्ल आसात आनी कोणाचें कोणाक पडूंक ना अशी परिस्थिती. म्हळ्यार static अवस्था. बाकीबाक, मनोहरराय आनी भांगी हे एकाच सामाजीक पर्यावरणांत जियेल्ले कवी. इतलें आसून बाकीबाक आनी मनोहरराय एका तोंकार आनी भांगी दुसऱ्या तोंकार उबे. अशें कित्याक असो प्रस्न पडटा. पूण ताची जाप तांच्या विचारांनी मेळटा. बाकीबाब आनी मनोहरराय कलावंताची मनीस म्हूण समाजा लागीं आशिल्ली लागणूक मानपी तर भांग्याची कविता म्हळ्यार एकसुरेपणान जियेवपाची तरा अशी धारणा. पूण तांचे हे धारणेक लागून तांचे कवितेक मातूय उणेपण येना अशें म्हणपाक जाय.

**टिपो:** १) हे कवितेची कुळकथा ताणी म्हाका सांगिल्ली ती अशी- एक फावट ते पणजेच्या १८ जून रस्त्या वेल्यान वताले. ह्या रस्त्यार पयलीं एक बैठें घर आशिल्लें. तें मोडून थंय केणी हॉटेल जाल्लें पळोवन पणजे शार कशें बदलत वता हाची जाणविकाय जाली आनी ही कविता सुचली.

२. तांचो पयलोच कवितेचो कादेर्न हांवें पळयला तातूंत कांय कविता × काट मारिल्ल्यो पळयल्ल्याची याद जाता. तातूंत 'सुलेमान जानू' नावांची एक कविता आशिल्ली अशें आठवता.

## श्री रामकृष्ण परमहंस म्हणटाले–

विचारकण

देव दिश्टी पडना म्हूण तो नाच अशें कशें म्हणू येता? दिसाचीं आमकां मळबांत नक्षत्रां दिश्टी पडटात म्हूण तीं नाच अशें म्हणूं येत व्हय? आमकां दिश्टी पडनात असल्योय कांय गजाली आसूं येतात. देव तांतलो अेक. गांवांत रावतलो कोणूय शारांत पावलो जाल्यार ताणें सगळ्यांत पयलीं रातचो आपूण खंय रावतलों हें थारावंक जाय. आनी आपणालें सामान थंय दवरून मागीर शार पळोवपाक वचूंक जाय. आरंभाकूच ताणें विसंव खंय घेवचो हें थारायलें ना जाल्यार गांव भोंवन जातकूच रांत जातली तेन्ना खंय वचचें हें ताका कळचें ना. संवसाराच्या धक्या चपाट्यांत घुस्पल्ल्या मनाकूय हे तरेचे सुवातीची गरज आसता. देव ही अशे तरेची एक सुवात - जंय निमाण्या खिणाक मनाक विसंव घेवंक मेळटा. ही सुवात पयलींच सोदूक काडूंक जाय मनशान.



न्हंयंत देंवपाचे जशे जायते घाट आसतात तशे देवा कडेन वचपाचेय जायते मार्ग आसात. घाट वेगळे वेगळे आसले तरूय न्हंय जशी एक, तशे मार्ग वेगळे वेगळे आसले तरूय देव एक. हिंदून हिंदू धर्माचे वाटेन देव जोडचो. क्रिस्तांवान क्रिस्तांव धर्माचे वाटेन जोडचो. मुसलमानान मुसलमान धर्माचे वाटेन जोडचो. म्हजीच वाट खरी, तुजी खरी न्हय, अशें केन्ना कोणें दुसऱ्याक म्हणचें न्हय. दोग भुरगे शेड्ड्याचो रंग कसलो ह्या प्रस्नाचेर वाद करपाक लागले. एकल्यान म्हळें, शेड्डो पाचव्या रंगाचो. दुसरो म्हणपाक लागलो, 'कितें सांगता रे तूं? शेड्डो हळदुवो तो तुका दिश्टी पडना?' एकली जाणटेली तेवटेनच्यान वताली. तिणें म्हळें, बेश्टे झगडटात तुमी. शेड्डो पाचवे ताळयेर बशिल्लो आसलो जाल्यार पाचवो दिसतलो. हळदुव्या फुलार बशिल्लो आसलो जाल्यार हळदुवो दिसतलो. देव भक्ताक वेगळ्या वेगळ्या रुपांनी दिश्टी पडटा.



भक्त ज्या रुपान देवाक भजता त्या रुपान देव ताका मेळटा. देवाचें एकूच एक रूप कोणाक अजून पळोवंक मेळूंक ना.

एक फावट कितें जालें - सात कुड्डे एका राजागेर पावले. राजान तांचे मुखार आपणांलो हती उबो केलो आनी म्हळें, 'हाचें रूप कशें कितें आसा तें सांगात.' एकल्यान हतयाचे कान सांसपिले आनी म्हळें, हतयाचें रुप सुपा सारकें. दुसऱ्यान शेंपडी सांसपून म्हळें, हतयाचें रूप राजवा सारकें. तिसऱ्यान ताचो पांय सांसपिलो आनी म्हळें, हती खांब्या सारको. चवथ्यान ताची सोंड सांसपिली आनी म्हळें, हती रुखाचे खांदये सारको. पांचव्यान ताचो दांत सांसपिलो आनी म्हळें, हती सुळ्या सारको. सव्यान पोट सांसपून म्हळें, हती व्हडल्या भाणा सारको. सातव्यान आनीक कितें म्हळें...

देवाचें रूप अमकें म्हूण आमी एकामेकांक सांगतात तेन्ना आमची गत्त अशी जाता. आमकां दोळे मेळूंक जाय. मागीर हतयाचें खरेलें रूप कळटा.

**- कण वेंचपी: रवीन्द्र केळेकार**



# गांधी आनी लोहिया - चिरंतन आशावादी

एस्. आर्. नेने
अणकार - मुकेश थळी

विसाव्या शतमानाचें राजकारण फकत एकाच मनशाच्या यत्नांचेर केंद्रीत आशिल्लें. महात्मा गांधींच्या. ब्रिटीशांच्या शेकांतल्यान भारताचें स्वातंत्र्य असल्या ताकतिकेच्या कामान सुरवांत करून भौशीक सेवे खातीर जिवीत ओंपपाची स्फूर्त गांधीं कडल्यान हजारांनी भारतीयांनी घेतिल्ली. तातूंतले डॉ. लोहिया एक. खासा डॉ. लोहियांनीच म्हळां ते प्रमाण तांणी दोन मनशां कडल्यान प्रेरणा घेतली, गांधीं कडल्यान पुरायेन आनी नेहरुं कडल्यान अंशता.

गांधीजींचो लागींचो सांगाती जमनालाल बजाज हांणीच डॉ. लोहियांची तांचे कडेन वळख करून दिल्ली. बजाज त्या वेळार निकतेच भारतीय राष्ट्रीय काँग्रेसीच्या मुखेलपणा खालच्या राजकारणांत देंवक आंवडेताले. डॉ. लोहियांक गांधींच्या राजकारणा विशीं बेस बरी जाण आसा, इतलेंच कित्याक, लोहियांनी आपलो डॉक्टरेटी खातीरचो प्रबंध "मिठा कर आनी सत्याग्रह" ह्या विशयाचेर बरयला ही गजाल बजाजांनी गांधींक कळयल्ली. काँग्रेस वावुरपी समितीचे वांगडी म्हणून डॉ. लोहियांक प्रवेश दिवपाक उंचेल्या पांवड्यार गांधींनी यत्न केल्ले. १९३५ त नेहरु काँग्रेसीचे अध्यक्ष आशिल्ले. तांणी डॉ. लोहियांची नेमणूक काँग्रेसीच्या विदेश संबंद खात्याचे सचीव म्हणून केली.

काँग्रेस पक्षांत भितर सरतकच थोड्याच तेंपान गांधी काँग्रेस पक्षा परसूय बळिश्ट आसात हें लोहियांक कळ्ळें. पूण हाका लागून वेळा प्रसंगार वेगवेगळ्या राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय मुद्द्यांचेर आपलीं मतां धिटायेन गांधीं मुखार मांडपाक ते अनमनलेनात. १९३४ ते १९३९ ह्या पांच वर्सांच्या काळांत, लोहियांचें बौद्धीक प्रामाणीकपण, राजकी दृश्टीकोन आनी आपणाल्या फुडारपणा कडली निश्ठा हे विशीं परिक्षा घेवपाच्यो गांधींक कांय संदी आयल्यो. लोहियांचें तरनाटेपण आनी नितीमत्ता गांधींक चड भाविल्ली. कितल्याशाच समयांचेर गांधींनी दिल्ल्यो तापोवण्यो तांणी हांसत्या तोंडान घेतिल्ल्यो. नाय जाल्यार, व्हड मनशांक तांकीवंत तरणाट्यां कडल्यान ते आपलीं सपनां केन्नाय तरी तडीक पावतयले हाची आस्त आसता. ह्या नेमाक गांधीय आडवाद नाशिल्ले. गांधींचे नदरेंतल्यान लोहिया वाडत वताले. १९३६-३८त डॉ. लोहियांनी नव्यान घडयल्ले काँग्रेस सोशलिस्ट पार्टी वरवीं एक नेमाळें संपादीत करपाक सुरवात केली. गांधींनी ह्या नेमाळ्यांत नेमान बरोवपाक सुरवात केली आनी लोहियांचे लेख ते आपल्या हरिजन नेमाळ्यांत उजवाडावपाक लागले.

झुजा आड भाशणां केल्ल्यान लोहियांक पयलेच खेपे बंदखण फाव जाली, तेन्ना गांधीजींनी म्हळें - "लोहिया बंदखणींत आसा ते मेरेन हांव थंड बसूंक शकना. ताचे इतलो शूर आनी सादो मनीस म्हाका आजवेर मेळूंक ना. ताणें हिंसेचो केन्नाच पुरस्कार करूंक ना. ताणें जें जें किर्ते केलां ते वरवीं ताची पत आनी मान वाडला." डॉ. लोहियां विशीं हे तरेची भावना दाखोवपाची आनीक एक संद गांधींक मेळ्ळी. मुंबयंत भूंयगत जाल्ले कडेन लोहियांक ताब्यांत घेतले आनी १९४४-४६ ह्या दोन वर्सांच्या काळांत लाहोर बंदखणींत दवरले. थंय तांचो खूब छळ जालो. गांधींच्या चेपणाक लागून त्या वेळार ब्रिटीश सरकाराक डॉ. लोहियांक बंदखणींतल्यान सोडचे पडले.

गांधी आनी लोहिया, म्हळ्यार गुरू आनी ताचो अपुरबायेचो शिश्य, एकठांय येवन तांचें कायमचें खाशेलें नातें कशें नंदलें ताची एक कथा आसा. हें कथेंत गुरूक आपल्या शिश्याचें बौद्धीक प्रामाणीकपण, दृश्टीकोण आनीं चारित्र्य हे विशीं पुराय विश्वास पळोवंक मेळटा. गुरू शिश्याची चलणूक निटायेर हाडटा, बौद्धीक अविचारा खातीर ताका उजरायता, आनी केन्नाकेन्नाय ताच्या मातश्याश्या पिशेपणाक भोगशिता. कालांतरान दोगूय जाण एकामेकां कडल्यान जें घेवं येत तें घेवपाक अनमननात आनी एकामेकांक परस्पर नात्याचे भावनेन बौद्धीक आनी भावनीक पांवड्यार संपन्न करतात. गांधींचे नांवारुपाक आयिल्ले अपुरबायेचे जायते शिश्य आशिल्ले. विनोबा भावे, महादेव देसाई, जवाहरलाल नेहरु, चित्तरंजन दास, वल्लभभाई पटेल हीं तातूंतलींच नांवां. लोहियान गांधींचें काळीज जिकिल्लें हे गजालीक घटाय दिवपी गवाय आसा. ती म्हळ्यार गांधींचीं उतरां. आपूण तुका फकत बौद्दीक हुशारकायेक लागून मानिना तर शील आनी खंबीरपण हाका लागून मानतां अशें गांधींनी लोहियांकूच सांगिल्लें. आपणा भशेनूच लोहिया आदर्शवादा कडेन निश्ठा आशिल्ले आगळेवेगळे द्रश्टे आसात, आनी सत्ता, हुद्दो, मानधन आनी हांचे वरवीं मेळपी चैन हे विशीं तांकां कसलीच ओड ना म्हणपाचें गांधी जाणा आशिल्ले. नेहरूंनी स्वतंत्र भारताचें सरकार चलोवपाचो पयलो पर्याय वेंचिल्लो जाल्यार त्या वेळार चाळिसां परस उणे पिरायेच्या लोहियांनी गांधींची विचारधारा आर्विल्ले तरेन घेवन बदलपी काळा प्रमाण तिका धरून भारतीय लोकांची अर्थीक आनी आध्यात्मीक उन्नती करपाचें थारायल्लें. गांधींतल्या हुशार राजकारण्याक कालांतरान नेहरूंचे सुवातेर भारतीयांचें फुडारपण करपा खातीर लोहिया हे योग्य संतुळा सादपी फुडारी म्हूण वेंचून काडपाचें नाशिल्लें मूं? गांधींनी लोहियांक आपलो दुसरो वारस थारायलो जाल्यार खूब जाणांक अजाप जावचें ना. हे गजालीक पुश्टी दिवपाक आमचे कडेन लोकसभेचे आदले सभापती रवी राय हांची गवाय आसा. *संसदेंतले लोहिया* (१९९१) ह्या तांच्या पुस्तकांतले प्रस्तावनेंत राय बरयतात - "गिरेस्ताक जर 'आप' म्हळें आनी रिक्षा ओडप्याक फकत तो गरीब आनी दुबळ्या घटकांतलो समजून 'तुम' म्हळें जाल्यार समता, मनीसपण आनी समाजीक न्याय म्हणटात तो खंय उरलो? ज्युस्त होच उजवाड १९४८ त जेन्ना हेर विद्यार्थ्यां वांगडा हांव लोहियांक उडिसांत मेळ्ळों तेन्ना तांणी आमचे तकलेंत घालो. त्या वेळार गांधींच्या मरणा उपरांत, काँग्रेसींतल्या समाजवाद्यांनी वेगळी रांदन मांडपाक सुरवात केल्ली आनी लोहिया समाजवादी पक्ष उबारपाक

उडिसांत आयिल्ले. पचूंक कठीण आसलें तरी तांचें तें उलोवप आमच्या तरनाट्या मनांचेर घट्ट कोंरातिल्लें उरलें आनी गांधी उपरांत कोण हो आमचो सोद पूर्ण जालो. जिणेचें कोडू सत्य बापूं इतलेंच निर्भीडपणान आनी अनौपचारीकपणान सांगपी हो मनीस गांधीं उपरांतचो. हेरांक जें सांगता तें पयलीं आपल्या आचरणांत हाडपी एक मनीस."

१९४६ च्या मध्याक सावन्न एक पेंचाची परिस्थिती उपराशिल्ली, जिका लागून गांधी आनी लोहिया आनिकूय लागीं येवंक पावले. ब्रिटीश सत्तेंतल्यान स्वातंत्र्य मेळयतना भारताच्या विभाजनाची अट नेहरू आनी पटेल हांणी मानून घेतिल्ली. गांधी तशेच काँग्रेस पक्षांतले हेर मुखेल फुडारी आनी समाजवादी पक्षाचें सगळें फुडारपण विभाजनाच्या प्रस्तावा आड आशिल्लें. पूण नेहरू आनी पटेल हांणी अशी परिस्थिती तयार केली की गांधींक विभाजनाक मंजुरी दिवपा बगर आनीक पर्याय उरूंक नाशिल्लो. गांधींची आनीक गरज उरूंक ना, आनी स्वातंत्र्या खातीर वांटपण करतना विभाजनाक मान्यताय दिवन गांधींनी आपणाल्या जिवितांतलें म्हत्वाचें काम केलें अशेंच कांय जाण सुचोवंक सोदताले काय? ताकतीक सदांच आदर्शवादाचेर जैत मेळयता, हार खाता तो आपणाल्या घायांचेर वखद करीत उरता, असली ही सदचीच द्विधा परिस्थिती न्हय मूं? भारताच्या स्वातंत्र्याच्या ६१ वर्सां उपरांत लेगीत काश्मीरांतलो हिंदू-मुसलमान भेद आळाबंदा हाडपाक आमकां येस येवंक ना. धर्मीक धोशी हुपप बरेंच कठीण हें बॉस्निया आनी चेचिनियाच्यो घडणुको दाखोवन दितात. आनी अशे परिस्थितींत समाजवाद, साम्यवाद वा कल्याणवाद असल्यो आर्विल्ल्यो राजकी जाणवायो कसलोय आदार करूंक अपेशी थारतात. भारताच्या स्वातंत्र्याची आनी विभाजनाची तारीक घोशीत जाली तेन्ना हिंदू आनी मुसलमानां मदीं हिंसक दंगे सुरू जाल्ले. पूर्व आनी पश्चिम बंगाल, पंजाब, सिंध आनी भारताच्या मुखेल शारांनी दंगे वाडिल्ले. (टीप - *द गिल्टी मॅन ऑव् इंडियाज पार्टीशन* ह्या आपल्या पुस्तकांत, १९४६च्या मध्या आदीं नेहरूंक तोखेवपी लोहियांनी फाळणेचो मुखेल सुत्रधार असो दोश नेहरूंचेर दवरला. ते उपरांत लोहियांनी नेहरूं कडले संबंद सामके पातळ केले आनी तांचे विशीं तडजोड जायना अशी एके तरेची वैर भावनाच आपणायली. देशाचे फाळणेक नेहरूंची संमती आशिल्ल्यान लोहियांक कोडूपणान तांचे पसून कुशीक सरचें पडलें.

नेहरू आनी पटेल हांचे इत्से आड वचून लोहियांनी जून १९४६त गोंय मुक्ती चळवळीची कीट पेटयली तेन्ना गांधींनी व्हडा काळजान तांकां तेंको दिलो. काँग्रेसीचे हे फुडारी उपरांत स्वतंत्र भारताचे प्रधानमंत्री आनी उपप्रधानमंत्री जाले, ती सगली गजाल मातशी तपशिलान सांगन दिसता. महात्माचे जिणेच्या निमण्या अध्यायाच्यो यादीय काडप हांगा समा जातलें. देशाचें विभाजन करपाचे फाटभुंयेर तिडक, दुखख आनी निर्शेवणी हांणी भरिल्लो कठीण काळ उपराशिल्लो. ह्या कठीण वेळार, आपल्या कांय शिश्यां भितल्ल्यान लोहियांची निवड गांधींनी आपणा सांगातान रावपा खातीर केल्ली.

लोहिया गोंयांत आपलो इश्ट ज्युलियस मिनेझीस हांकां मेळपाक आयिल्ले. लाहोरांत खर बंदखण भोगले उपरांत पाचव्याचार सैमाच्या गोपांत तांकां विसवूय घेवपाचो आशिल्लो. लोहिया गोंयांत आसात ही गजाल रोखडीच फां फां जाली आनी तांकां मेळूंक येवपी लोक आनी शिश्टमंडळां हांची गर्दी वाडपाक लागली. पोर्तुगींज साम्राज्यवाद आनी मध्य युगीन रानवटीपण हांकां



विटिल्ल्या गोंयकारांनी तांकां आपली व्यथा सांगली. दक्षीण उदेंत आफ्रिकेंतल्या मोझांबीक वाठारांतल्यान खास प्रशिक्षण घेतिल्ल्या पुलीस दळांनी गोंयांत अमानूश जाच चलयल्लो. नागरी स्वातंत्र्य म्हणटात तें नांवाक लेगीत नासलें. पुलिसांची परवानगी घेतले बगर लग्नाचीं आमंत्रणपत्रां लेगीत छापूंक मेळनासलीं. लोहियांक लोकांनी गोंयचे मुक्ती चळवळीचें फुडारपण करपाची विनंती केली. गोंय भारताचो वेगळावं नजो असो भाग आसुनूय काँग्रेसीन हे गजाली कडेन आडनदर करून एक व्हडली चूक केल्या ही गजाल लोहियांक कळपाक वेळ लागलोना. खरें पळेल्यार, ब्रिटीश इस्ट इंडिया कंपनीन १५० वर्सां आदीं भारतांत मुळां रिगोवचे १५० वर्सां आदीं, म्हणल्यार १४९५ त, गोंय गुलाम जाल्लें. हिंदू देवळांची नासधूस करप, बळान धर्मांतरां करप, इन्क्विझीशनाच्या अत्याचारांक लागून पडिल्ले बळी आनी नागरी स्वातंत्र्य मुळासकट दामप असल्या पोर्तुगीज अत्याचारांक गोंयकार सामके उबगल्ले. गोंयकारांक जाता तितले बेगीन ह्या शेकांतल्यान मुक्त करपाची गरज आशिल्ली. गोंयकारांक मदतीची गरज आशिल्ली.

सोळा जूनाक लोहियांनी पोर्तुगीज प्रांताची राजधानी पणजी शारांत एके बसकेंत उलोवप केलें, ताका बरें यश मेळ्ळें. गोंयांत सरकाराची आदीं परवानगी घेतले बगर कसलीच बसका वा भौशीक सभा घेवप शक्य नाशिल्लें. देखून पोर्तुगीज सरकाराक हो एक धक्कोच बसलो. हे बसकेंतल्यान गोंयकारांक स्वाभिमानाचो दिश्टावो जालो आनी तांणी हे जुलमी राजवटीचें जूं भायर मारपाचें थारायलें. १८ जूनाक मडगांवां आनीक एक बसका आयोजीत केल्ली. गोंयभरचे लोक थंय हजारांच्या आंकड्यान एकठावपाक लागले. बसकेंत उलोवचे पयलींच पुलिसांनी लोहियांक धरून व्हेले आनी दुसऱ्या दिसा तांकां गोंयचे शिमेर सोडले. फुडले तीन दीस गोंयभर व्हड निदर्शनां जालीं. कितल्याश्याच लोकांक अटक जाली. जमावाक पयसावपा खातीर पुलिसांक लाठी हल्लो करचो पडलो. पुलिसांचे हे मनमानी कारवायेक लागून पणजी आनी हेर शारांनी निशेध म्हणून पूर्ण हरताळ पाळ्ळो.

गांधीजीन एकल्यानूच लोहियांचे कृतीचें समर्थन केलें. आपल्या 'हरिजन' नेमाळ्याच्या २६ जूनाच्या अंकांत तांणी बरयलें, "लोहियांनी

गोंयच्या नागरी स्वातंत्र्या खातीर मोलाची सेवा केल्या. ब्रिटीश सरकाराच्या म्हालवजार ही जी धाकटुली पोर्तुगीज वसणूक उबी जाल्या तिणें आतां ब्रिटीश सरकाराची वायट देख घेवपाचें सोडून दिवचें. पोर्तुगीज सरकारान काळाची गरज वळखून रहिवाश्यां कडेन बरे बशेन समजिकाय करपाचो वेळ आयला अशें हांव म्हणीन. मागीर, तांचे मदीं आनी ब्रिटीश सरकारा मदीं कसलीय कबलात आसूं. देशांतल्या हेर लोकांनी ब्रिटीश सरकाराचो भंय जसो काडून उडयला तेच भशेन गोंयच्या रहिवाश्यांनी पोर्तुगीज सरकाराचो भंय काडून उडोवचो.''

भारतांत परत येनाफुडें लोहियांनी गोंय मुक्ती चळवळीची मोहीम आनिकूय खर केली. अखील भारतीय कॉंग्रेस महासमितीचें अधिवेशन मुंबयंत ६ जुलय १९४६ ह्या दिसा जाल्लें. नेहरूंनी ह्या अधिवेशनांत १० जुलयक उलोवप केलें. तांणी सांगलें, ''कॉंग्रेसीन देशाच्या स्वातंत्र्या खातीर सगलें लक्ष एकवटीत केलां. उण्या म्हत्वाच्या मुद्द्यांचेर लक्ष दिवपाक पक्षाक वेळ ना. स्वतंत्रताय मेळटकच भारत आपल्या पोल्या वयलें हें 'धाकटुलें मुमर' एकाच बोटान कांयच न्हय करून चिड्डूंक शकतलो. गोंयांत चळवळ उबारपाची कसलीच गरज नाशिल्ली आनी ब्रिटिशांची सत्ता देशांतल्यान भायरी जायनाफुडें पोर्तुगीजांचीय सत्ताय आपशींच पयस जातली.''

नेहरूंचे हे भुमिकेन धादोशी जायनासतना लोहियांनी गोंयकारांक तेंको दिवपाची ताकतीक मुखार हाडली. गांधींनी ह्या स्वातंत्र्य लड्याक तेंको दिला ताचो उल्लेख तांणी केलो. गोंयचे चळवळी खातीर लोहियांनी कांयच करपाची गरज ना ह्या वल्लभभाई पटेलांच्या म्हणण्या विशीं तांणी खंत उकतायली. गोंयच्या लोकांचे इत्सेचो आदर करून तांचे सुटके खातीर धांवपाची याद तांणी नेहरूंक आनी पटेलांक करून दिली.

२६ जूनाच्या गांधींजींच्या लेखाक पोर्तुगीज गवर्नर- जनरलांनी जाप बरयली. तांणी बरयलें- ''गांधींनी गरजे भायर गोंयच्या भितल्ल्या वेव्हारांत नाक घालां.'' पोर्तुगीज वसणुकांनी नागरी स्वातंत्र्याचेर मात्तूय हावळ येवंक ना आनी कांय नाखूश लोक गोंयांत आंदोलन उबारूंक सोदतात. एकताय आनी भावपण वाडोवपाचो संदेश प्रसारीत करपाच्या एकाच उद्देशान पोर्तुगीज गोंयांत आयिल्लेअशें तांणी गांधींक सांगलें.

गवर्नर-जनरलांक गांधीजींनी २ ऑगस्ट १९४६ च्या 'हरिजन' अंकांत जाप दिली. गांधीजींनी बरयलें, ''खऱ्यांनीच, पोर्तुगीज सरकारान मोझांबिक, देलागोअ, इनहॅम्बेन ह्या वसणुकांनी भारतीय आनी पोर्तुगीज हांचे मदीं जो भेदभाव केला तो थंय भेट दिल्ली त्या वेळार पळोवन हांव अजापीत जाल्लों. भारतांतल्या पोर्तुगीज वसणुकांचो इतिहास तुमी केल्लो दावो सिद्ध करिना. वयल्यान, गोंयांतले परिस्थिती विशीं हांवें जें पळेलां आनी हांव जें जाणा, तें वेंगळेंच आसा. गोंयांत पुराय स्वातंत्र्य आसा आनी जें आंदोलन आसा ते चिमटीभर अतृप्त लोकांचें हें तुमचेंच निवेदन म्हाका खरें दिसना. व्यक्तीगत पांवड्यार म्हाका ज्यो गजाली कळ्ळ्यात वा भारतांतल्या दिसाळ्यांनी जें कितें छापून आयलां तें निश्चितपणान दुसरीच बाजू दाखयता. डॉ. ब्राग्रांझांचे केसींत कोर्ट मार्शला वेळार तांकां आठ वर्सांची ख्यास्त जाता आनी खूब पयसुल्ले वसणुकेंत तांची हद्‌दपारी जाता ही एकूच वस्तुस्थिती गोंयांत नागरी स्वातंत्र्य ही भोव दुर्मीळ गजाल आसा हें सिद्‌ध करपाक पुरो. कायद्याक पाळो दिवपी डॉ. ब्रागांझा हांकां भिंयेवन हद्‌दपार करपा इतलें कितें आसा? डॉ. लोहियांचें राजकारण म्हज्या राजकारणा परस वेगळें आसलें तरी गोंयांत वचून ताच्या काळ्या थिपक्याचेर ताणें बोट दवरलां. देखून तो म्हजे तोखणायेक पात्र थारला... खंयचोच मनीस वा गट नागरी स्वातंत्र्या बगर रावंक शकना आनी स्वाभिमान वगडावन रावंक शकना. डॉ. लोहियांनी मशाल पेटयल्या आनी गोंयकारांनी ती पालोवंक दिवंक फावना. तशें केल्यार ते आपणाकूच त्रासांत घालतले. तुमी आनी गोंयकार दोगूय, लोहियांच्या उपकारांत आसूंक जाय. तांकां तुमी 'परकी' म्हणटात ही गजाल खंतीची आसा तें जालेंच, पूण हांशाकूय कारण थारता. पोर्तुगाला सावन आयिल्ले पोर्तुगीज गवर्नर जे धतरी वयल्या तथाकथीत दुबळ्या वंशांचें शोशण करतात तेच खरेले परकी. परोपकारी कामां आनी नागरी स्वातंत्र्य हे विशींची तुमचीं मतां तुमी बदलतले, आफ्रिकी पुलिसांक फाटीं घेवन नागरी स्वातंत्र्याचो पुरस्कार करतले, आनी गोंयकारांक तांचें स्वताचें सरकार घडोवंक दितले, हे प्रक्रियेंत भारतांतल्या अणभवी लोकांक आधार करुंकूय आपयतले अशी आस्त हांव बाळगितां.''

डॉ. लोहिया गांधीजींक २ सप्टेंबराक मेळ्ळे आनी गोंय मुक्ती चळवळी विशीं तांकां कळीत केलें उपरांत, आपणें आदीं दिल्लें उतर पाळपा खातीर आपूण गोंयांत परततलों अशी घोशणा तांणी केली. कुळें रेल्वे स्थानकाचेर पावना फुडें पुलिसांनी तांकां धरून आग्वादचे बंदखणींत घाले. १९ सप्टेंबर ते ८ ऑक्टोबर १९४६ मेरेन डॉ. लोहिया थंय उरले. तांचो थंय खूब छळ जालो. फुडारिल्ल्या देशांनी राजकी बंद्याक ज्यो सवलती दितात त्यो तांकां न्हयकारल्यो. तांकां एकल्याकूच जंय वारो लेगीत घोळना असले काळखे कुडींत दवरले. उपरांत तांकां गोंयचे शिमेर व्हरून सोडले. हे परिस्थितींत तांची सोडणूक म्हळ्यार एक चमत्कार आशिल्लो. त्या वेळार नवी दिल्लींत नेहरूंच्या मुखेलपणा खालचें काळजीवाहू सरकार सत्तेर आशिल्लें. लोहियांचे सुटके खातीर नेहरूंनी यत्न करचो अशें गांधींनी नेहरूंक सांगलें. पूण नेहरूंनी आपली असमर्थतताय उकतायली, घडये पोर्तुगीज सरकारा कडेन शिश्टाचार कबलात नाशिल्ली म्हणून जावंये. गांधींनी घोशीत केलें, डॉ. लोहिया हें सादें व्यक्तिमत्व न्हय. डॉ. लोहियाच न्हय तर देशाचो आत्मो बंदखणींत आसा. मागीर गांधींनी भारताचे व्हायसरॉय लॉर्ड व्हॅवल हांकां पत्र बरोवन डॉ. लोहियांची सोडणूक करपाक पोर्तुगीज सरकाराचेर चेपण हाडपाक सांगलें. गांधींनी व्हायसरॉयां कडेन आनी गोंयचे चर्ची कडेन परतेंय आवाहन केलें. तांचे यत्न फळाक आयले आनी डॉ. लोहियांची ९ ऑक्टोबर १९४६ ह्या दिसा सुटका जाली. सुटका जायना फुडें रोखडेंच लोहियांनी गोंय उच्च न्यायालयाच्या मुखेल न्यायाधिशाक पत्र बरयलें - ''हांवें गोंयच्या कसल्याच कायद्याचो भंग करूंक नासलो. कसलेंच कारण दिनासतना पुलिसांनी म्हाका अटक केल्ली. वारो उजवाड घोळना असले काळखे कुडींत म्हाका बेकायदेशीरपणान दवरलो. म्हाका हे भाशेन बेकायदेशीरपणान बंदखणींत दवरिल्ले पासत तांणी म्हजी चूक मागूंक जाय आनी म्हाका लुकसाणभरपाय दिवंक जाय.'

गांधीजींनी लोहियांचें पत्र 'Dr. Lohia again' ह्या नांवान हरिजन नेमाळ्यांत उजवाडायलें आनी ताचेर अशी टिप्पणी केली. - "डॉ. लोहियांनी आपणाक लुकसाणभरपाय दिवची म्हूण जें मागलां ते खातीर म्हाका हांसूंक येता. तांचे फाटल्यान सत्ता आशिल्ली जाल्यार गोंय प्रशासन बेगोबेग माफी मागून लुकसाण भरपाय दिवपाक मुखार सरपाचें. किरकोळ मुद्द्यांक धरून अपमान केल्ले खातीर लुकसाण भरपाय मागप वा दिवप ही गजाल सामान्या भायली न्हय. डॉ. लोहिया ल्हान मनीस न्हय. भारतांत आयज राष्ट्रीय सरकार आसा. तें पुराय संवेदनशील आसा हातूंत म्हाका दुबाव ना. तांणी निशेद करून पोर्तुगीज सरकाराक आपली तरा बदलुपाक लायली जाल्यार म्हाका अजाप जावचेंना. कितेंय जावं, लोकमताची शक्त सरकार आनी दुखावल्ले लोहिया हांचे फाटल्यान आसूं हेच आंवडे."

ऑक्टोबर १९४६ चे अखेरेक, गोंय मुक्ती लढ्याचो सत्याग्रह सुरू करपाक लोहिया बेळगांवां पावले. तांणी शिमे कडल्या वाठारांची भोंवडी केली. प्रस्तावीत सत्याग्रहांत वांटो घेवपा खातीर कितलेशे आपवावुरपी आयले. मात, नोव्हेंबर १९४६ चे सुरवेक आपणाक बेगोबेग येवन मेळ हो गांधींजींचो तेलेग्राम लोहियांक मेळ्ळो. इतले मजगतीं, नोव्हेंबर १९४६ चे अखेरेक गांधीजी नोआखालीक पाविल्ले.

त्याच वेळार लोहिया रोखडेच वचून गांधीजींक नोआखालींत मेळ्ळे. गोंयांत वचपा पसून गांधीजींनी डॉ. लोहियांक फाटीं ओडले; ह्या बदला नेहरू मुत्सद्दी यत्न करतले अशें सांगलें. डॉ. लोहिया परते गोंयांत गेले जाल्यार पोर्तुगीज बंदखणींत बेमुदत काळा खातीर उरतले हें खबर आशिल्ल्यान गांधीजींक ती गजाल घडिल्ली नाका आशिल्ली. डॉ. लोहियांनी कां कूं करिनासतना ही गजाल मानून घेतली. ते कलकत्त्यांत आनी दिल्लींत कांय म्हयने गांधीजींच्या शांती कार्यांत मदत करपा खातीर गांधीं वांगडा रावले. ३० जानेवारी १९४८ ह्या दिसा गांधीजींची हत्या जाय मेरेन ते गांधीं वांगडा आशिल्ले.

गोंयचे बाबतींत नव्यो घडामोडी घडिल्ल्यो पूण नेहरू आनी पटेल हांणी ताकतिकेचें राजकारण केलें. इतलेंच सांगून आमी हो मुद्दो कवळूंक सोदतात. भारताच्या स्वातंत्र्या इतलोच गोंयचें स्वातंत्र्य हो गरजेचो मुद्दो; पूण चळवळीचें फुडारपण काँग्रेसीन करूंक जाय, लोहियांनी न्हय अशी भुमिका पटेलांनी घेतली. पोर्तुगालान गोंय सोडचें म्हूण ताचेर भारत सरकार आंतरराष्ट्रीय चेपण हाडूंक शकतलो आनी कशेय भाशेन पोप आनी फ्रान्स ही परिस्थिती भारता वटेन व्रागयतले अशी भुमिका नेहरूंनी घेतली. ह्या विशया संदर्भांत तांणी भारताचे विदेशमंत्री व्ही. के. कृष्ण मेनन हांकां बरयलें. पूण प्रत्यक्षांत तांणी सार्वत्रीक वेंचणुकांचे पूर्वसांजेर, म्हळ्यार डिसेंबर १९६१ मेरेन, कांयच केलेंना. तांणी निमाणें गोंय मुक्ती खातीर लश्करी कारवाय करपाक पावल उखल्लें. १९ डिसेंबर १९६१ ह्या दिसा गोंय पोर्तुगीज सत्तेंतल्यान मेकळें जालें. नेहरूंचें दुटप्पीपण उकताडार आयलें. मुखावेल्या वर्सा चिनी आक्रमण जालें तो धपको तांच्या मनाक बरोच लागलो. १९६४ मेरेन, म्हणजे जिणेचे अखेर मेरेन, नेहरू ह्या धक्क्यांतल्यान सांवरलेनात.

गांधीजींनी सामके लक्षपूर्वक रितीन लोहियांची पोर्तुगीज बंदखणींतल्यान चमत्कारीपणान सोडणूक घडोवन हाडिल्ली. आनी गोंयांत ऑक्टोबर १९४६ त परत भितर सरपाक लोहियांक ते कित्याक फाटीं ओडटाले? ह्या प्रस्नाची जाप स्पश्ट आनी सादी. तांचे लेखीं लोहिया म्हळ्यार भारताचो आत्मो. भारतीयांक तांचे लोकशायी हक्क सांबाळपाक उर्बा दिवन तांच्यांत नवी उर्बा जागोवपाची शक्त लोहियांत आसा हें गांधीजी जाणा आशिल्ले. ब्रिटीशांचे सत्ते खाला ज्या भारतीयांनी आपलें साहस, आशा आनी आत्मविश्वास वगडायला तांच्यांत एक नवें चैतन्य भरून तांचो फुडार पर्जळीत करपाची तांक आशिल्लो लोहिया हो भावी भारताचो फुडारी हें गांधीजींनी हेरिल्लें. आपणा फाटल्यान उजू चलणुकेचो आनी लोकशायेचो राखणदार म्हणून लोहिया उत्तरदायित्व सांबाळटले हो विश्वास गांधीजींक आशिल्लो.

गांधी आनी लोहिया नोव्हेंबर १९४६ सावन एकठांय आशिल्ले. कोलकातांत आसतना घुसमटपी आनी दुस्वासान धगधगपी मुसलमान समुदायां मदीं वचून तांकां थंड करपाचें काम गांधीजींनी लोहियांक दिलें. लोहियांनी हें काम बरे तरेन केलें. कठीण परिस्थितींत धाडसान कशें काम करचें हें गांधीजींच्या मार्गदर्शना खाला तांकां शिकुंकूय मेळ्ळें. दिल्लीक दंगे जाल्ले त्या वेळार आपणा वांगडा रावन मदत करपाक गांधींनी लोहियांक सांगलें. पंजाबांतल्यान हजारांनी निर्वासीत आयिल्ले आनी परिस्थिती हाताभायर वचूंक लागिल्ली. निर्शेवणेच्या खिणां वेळार खरी लागणूक कितें आसता, म्हणजे दंगे, निदर्शनां आनी लुटालूट करप्यांक तोंड दिता आसतनाच दंगे पिडितांक कसो भावनीक आदार दिवपाचो आसता ही गजाल आपणाक गांधीजींनी शिकयली अशें लोहिया मानून घेतात. लोहियांचे दिल्लींतले यत्न व्यर्थ गेलेनात. १५ ऑगस्ट १९४७ क देश स्वतंत्र जातकच दिल्लींत एक वेगळेंच खोशयेचें वातावरण जाल्लें. त्या दिसा हिंदू आनी मुसलमान एकामेकांक वेंग मारतना दिसताले. खिणा खातीर वर्सभराची सांचिल्ली कोडसाण आनी धर्मकोल्ल पयस जाल्लें. लोहियांनी रातभराची एक मिरवणूक काडली आनी ती भोव यशस्वी जाली. हिंदू मुसलमान एकवटाक बादा हाडपी सगल्यो आडखळी ते वरवीं पयस जाल्ल्यो दिसल्यो. मात शांतिकाय थोड्याच काळा खातीर तगली. दिल्लींत परत दंगे जाले आनी लोहियांक थंय गांधींक तांचे शांती मोहिमेंत मदत करपा खातीर रावचें पडलें.

सिगरेट, च्या, काफी हे सारक्यो लोहियांच्यो संवयो बदलपाचो उपाट यत्न गांधींनी केल्लो अशें म्हणपाक पुरावो आसा. लोहियांची कदर करपी वांगड्यां विशीं लोहियांच्या मनांत करुणा आनी ऊब जागोवपाचो यत्न गांधींनी केलो. नेहरून लेगीत लोहियांचो इश्टागत जोडूंक कडक आशिल्लो सभाव बदलपाचो आनी एक मोवाळ-म्हेंवाळ, समजून घेवपी मनीस म्हूण रुपांतरीत करपाचो यत्न केलो. एक दीस गांधींनी 'लोहियां मुखार आपूण तुजो बापूय जातां असो प्रस्ताव मांडलो; कडक, शिस्तबद्ध आनी बारीकसाणेन तेळपी असो बापूय, पूण त्याच वेळार आपल्या पुताक दया आनी करुणा हांचें दूद पियेवंक दिवपी. आपली ताठर भुमिका सोडून दी आनी नेहरू आनी पटेल हांचे कडलो संपर्क परत सुरू कर अशें सांगीत गांधीन लोहियांक

*(पान ४४ चेर पळोवचें)*

# हुलप

**मूळ कन्नड: फकीर मुहम्मद कटपाडी 'दहना'**

**अणकार: रमेश लाड**

दोन दिसां साकून उदक सोडलें जाल्यार ताच्या पोटांत अन्नाचो गोटोय वचुंनाशिल्लो. दिसवड्याचे मानाय जंय गिरायकाची वाट पळयत बसताले त्या अश्वत्थ कट्ट्याचेर कोणूय तरी आपणाक सोदूंक येतलो अशी आस्त बाळगून हेर मानायां वांगडा तोय बी वाट पळयत बशिल्लो. पूण त्याय दिसा ताका विचारपाक कोणूच आयलो ना. मदेराचें काम करपी वा चुनो काडपी मानायांक गरजेवंत घेवन गेल्ले. हाचे वटेन मात कोणेंच पळयलें ना. खरखरीत वाडिल्लें खाड, दाट वाडून धुल्लान भरिल्ले माथ्याचे केंस, बाविल्लो चेरो, खोल गेल्ले दोळे अशी ताचे कुडीची आवतिकाय जाल्ली. पँट-शर्ट जाल्यार एके वटेन इस्त्री केल्ले वरी सुळसुळीत जाल्यार दुसरे वटेन पडिल्ल्यो सुरकट्यो वचून वचच्यो नात काय अशें दिसतालें. पयले नदरेक कोणाकय तो भिकारी वा पिसो कसो दिसपाची शक्यताय आशिल्ली.

पळयतल्याक तो दिसवड्याचो मानाय कसो दिसनाशिल्लो. दोन दिसां साकून अन्न मेळुंनाशिल्ल्यान ताच्या पोटांत भुकेचो हुलप पडिल्लो. एक मोटीचशी बायल-मनीस पांय ओडीत आपणा वटेन येताशी ताका दिसली. ताचे आशेक कोमरी फुटली. धा रुपयाच दिल्यार पुरो, खणपाचें, बेणपाचें, माथ्यार मारून व्हरपाचें, निवळ करपाचें असलें कसलेंय काम दीसभर करीन हांव अशें तिका सांगपाचें थारावन तेंच तो मनांत घोळयत रावलो. कट्ट्या वयल्यान उठून तो रस्त्यार आयलो. रस्त्या कुशीक कितें तरी पडिल्लें ताका दिश्टी पडलें. तें पळोवन तो खोशी जालो. चावयेच्या घोंसाक घालतात तसली एके सान चलयेचे प्रतिमे सारकी ती एक बावली आशिल्ली. ती उखलून लांबोवन धरली तेन्ना झोपाळो घेतिल्ले वरी ती फाटीं-फुडें जावंक लागली. खीणभर तो तिकांच पळोवंक गुल्ल जालो. रोखडोच सितिदार येवन ते बायले वटेन घुंवलो. तेन्ना ती मानायां

**भारतीय कथा**

मदीं उबी आशिल्ले एके कामगार बायलेक आफोवन तिचे कडेन उलोवंक लागली. आनी म्हणटा म्हणसर तिका वांगडा घेवन गेली. हट, म्हज्या कपलांत आज भुकेन मरपाचेंच बरयल्लें आसा काय कितें? अशें म्हणत तो कारण नासतना रस्त्यान चलत रावलो. म्हजीं आवय-बापूय मेलीं तीं हे भुकेनच न्हीं? म्हजीय बी तीच गत जावचिना कित्या वयल्यान? पोटभर जेवन खावन मरपाचें खंय बरयल्लें आसतलें म्हज्या कपलांत? म्हाका दोन भयणी आशिल्ल्यो. खंय आसात त्यो आतां? खंय मेल्यो आसतल्यो त्यो?



हातांत आशिल्ली बावली यांत्रीकपणान हालयत आनी खेळयत चलता आसतना ताका सकाळीं भायर सरिल्लो तेन्ना भाड्या कुडीचे म्हातारे मालकिणीन बोवाळ केल्लो ताची याद जाली. ''एक सप्तकभर जालें, भाडें आयल्यार तुजें. आज सांजवेळ मेरेन तुवें भाडें दिलेंना जाल्यार तूं ही कूड सोडून वच. दुसऱ्याक दितां ती.'' तेन्ना हो कांयच उलय नासतना भायर सरून वाटेक लागिल्लो. चार दिसां साकून ती म्हातारी अशेंच म्हणत आशिल्ली. एके बुरशे पाळणींत आशिल्ली तिगेली भाड्याची खोंप म्हणल्यार साक लावन केल्ल्यो वणटी आनी पत्र्याचें पांखें आशिल्ली एक कूड. दिसाक पांच रुपया भाडें. दिसवड्याचें काम मेळटालें तेन्ना दर दिसा पांच रुपया म्हातारेच्या हातार दवरतालो. दोन दिसां साकून जेवण-खाणूय जंय मेळूं नाशिल्लें थंय हे रांडेक पांच रुपया खंयच्यान हाडून दिवपाचे? तशी ही म्हातारी फटकळ तोंडाची आसली तरी भितरल्यान इल्ली मवाळ मनाचीय आशिल्ली. सुखा-दुखाच्यो दोन गजाली सांगल्यो जाल्यार मागीर म्हणटाली, ''म्हाकाय बी उपाय ना रे बाबा. पापडां-सांडग्यांचो व्यापारयबी ना सद्याक. हो पावस असो झड्टा आसतना कितेंच करपाक मेळना.'' अशीं लटकीं कारणां सांगून, ''फाल्यां विसरनासतना हाडून दी आं'' म्हणटाली. परतून दुसऱ्या दिसा नव्यान तकली खाले बगर सोडिनाशिल्ली. हलकट मेल्ली म्हातारी!

हो हातांत झेलयत

व्हरतालो ती बावली शाळेंत वचपी एक भुरगो उमळशिकेन पळयत रावलो. अपुरबायेचोचसो भुरगो तो. धवो शर्ट आनी निळी मोटवी पँट घाल्ली ताणें. फाटीर पुस्तकांचें बॅग लायिल्लें आनी हातांत मदले सुटयेंत खावपाचे भुतयेचो डबो झेलयत वतालो. ताका पळोवन हाणें विचारलें, "जाय ही तुका?"

"हय," म्हणून त्या भुरग्यान तकली हालयली.

"ही दिली जाल्यार तूं कितें दितलो म्हाका?" हाणें विचारलें.

"म्हजे कडेन कांय ना तुका दिवपाक," भुरग्यान म्हणलें. ताच्या हातांत आशिल्ल्या भुतयेच्या डब्याचेर हाची नदर पडली.

"तें दिता म्हाका?" बोट दाखयत हाणें विचारलें.

चड कांयच उलयनासतना भुरग्यान टिफीन बॉक्स हाका दिलें. हाणें बावली भुरग्याक दिली आनी बॉक्स उकतें केलें. भितर दोन ब्रेडाच्यो स्लायसी आनी आमलेटीचो एक कुडको आशिल्लो. बक बक करून तें खावन हाणें बॉक्स परतून भुरग्याच्या हातांत दिलें आनी मुखार चलत रावलो. भुरगो ती बावली खोशयेन खेळोवंक लागलो. हाणें खाल्लें तें खाण म्हणल्यार 'भीमाच्या पोटांत दमडी मोलाचें ताक' म्हणपा सारकी गत आशिल्ली. दुसऱ्याच खिणाक 'कसलें नीच काम केलें हांवें हें' अशें चिंतून येवन तो भितरले भितर चुरचुरलो. काकुळटशी! शाळेंत वचपी भुरग्याच्या हातांतलें टिफीन काडून घेवन खावपी कसलो राकेस हांव! असोच भुकेन वळवळून मेल्लों जाल्यार कोणाक कसलें लुकसाण जावपाचें? बेवारशी प्रेत कुसून गांवभर घाण पातळुचे आदीं काडून वाटेक लायल्यार बरें अशें म्हणून कोण तरी पुण्यात्मो मुखार येतलोच आशिल्लो.

कडक वत पडिल्लें. भुकेल्ल्या पोटाक लागून आंगांत बळ नाशिल्ल्यान कशे तरी पांय उखलून घालतालो. भुर्रर करून वेगान आयिल्ली एक गाडी कच्च करून ब्रेक लावन कुशीकच रावली. "ये... कितें चल्लां? मरपाचें चितलां जाल्यार खंयच्याय तळ्यांत बांयेंत वचून कित्याक जीव दिना? म्हजेच गाडये पोंदा पडून मरपाचो सोपूत घेतला काय कितें?" त्या मोटार मालकान धेंगसायत विचारलें. जागो जाल्ले वरी तो सट्ट करून कुशीक धांवलो आनी नमळायेन ताणें 'सॉरी...!" म्हणलें. "ये... ये... आयकलां तुवें, इंग्लीश आनी उलयता वयल्यान", अशें म्हणून गाडयेंतली बायल-मनीस खुक करून हांसली. गाडी भुर्रर करून थंयच्यान मुखार गेली.

हांस तूं हांस! हांसपाचोच वेळ तुजो. म्हाका हुलपायता तो पोटांतलो उजो तुकाय हुलपावंक लागिल्लो जाल्यार अशें हांसूंक येवचें नाशिल्लें तुका. तुमचें कितें, पोट फुटसर जेवपाचें आनी भुर्रर करून गाडयेन भोंवपाचें.

एक बायल-मनीस मिरयत मिरयत रस्त्यान वताली. तिचे फाटल्या फाटल्यान एक हाडकुटें सुणें चलतालें. ती नखरेवाली फाटीं वळून हाचे वटेन पळोवन हांसली. हाच्या चेऱ्याचेर हांशें फुल्लें ना. पयर तुका दिल्ले धा रुपया आज म्हज्या हातांत आशिल्ले जाल्यार म्हजी ही गत जावची नाशिल्ली रांडला! अशेंच हांसून पिशें लावन थंय खडपां मदीं घेवन गेलें आनी बोल्सांतलें धा रुपया लांबयले तुवें. आतां आनी परतून दांत कित्याक दाखयता ते? चल वच थंय! दुसऱ्या कोणाकय लागीं कर आनी दांत दाखय, काळ्या कोलका, फुटक्या तोंडाच्या! हांवें तुका धा रुपया दिलें म्हणून दुसरो कोणूच तुका आठ आणेय दिवचो ना, जाणा जा."

"ये... यो रे राजा..." अशें म्हणून तिणें पान खावन तांबड्यो जाल्ल्यो दांताच्यो माळो दाखयल्यो.

हाणें तिचे वटेन तिडकीन पळयलें. हळशिके, रांडला, तुका कामसुखाची भूक लागल्या. हांगा म्हज्या पोटाक भूक लागल्या. चेडये, तुजे कडेन विकपा खातीर कूड तरी आसा. म्हजे कडेन तीय बी ना. म्हज्या हातांत आशिल्लें जाल्यार तुका आनी तुगेल्या त्या सुण्याक जितीं मारून उज्यांत हुलपावन तंदुरी करून खातलो आशिल्लों पोटा खातीर.

रस्त्याचेर सायकली, स्कुटरी, गाडयो, बशी अश्या वाहनांचो आंकडो वाडत गेलो. रस्त्या वयल्या फोणकुलांनी आपटत धोपटत सकयल वयर जायत तीं चलतालीं. तांचे गतीक लागून फोणकुलांतलें चिखलाचें उदक चारी वटांनी उसळटालें. राती कडेन पावस पडटालो. कुडींत बुरकेल्ल्या पाख्यांतल्यान गळटालें. आशीकुशीच्यो प्लास्टीक पोतयो पुंजावन गळटालें तें आळाबंदाक हाडपाचो तो येत्न करतालो. म्हातारेक ही गजाल सांगली जाल्यार 'तूं सोडून वच पळोवया हांगासल्ल्यान' म्हणटली.

रस्त्या कुशींनी उंचायेर हारेन दुकानां आशिल्लीं. हॉटेलांनी पुण्यवंत सभागे बसून च्या पिताले. तरांतरांचीं खाणां खाताले. खाणांचे सुवादीक वास हाच्या नाकांत घुसून भुकेची खरसाण वाडटाली. "ये... वच रे थंयच्यान - उबो कितें रावला थंय?" अशें म्हणून हॉटेलाच्या गल्ल्यांत बशिल्लो मोट्या पोटाचो हॉटेल मालक आड्डलो. "आनी आनी हांगा उबो रावशीत जाल्यार खतखतीत उदक शेंवटीतलों धरून, बोंसडीच्या!" ताणें भंय घालो.

ये... धोलया, तूं मरतलो तेन्ना मोटेलो रोंटो कसो नरकांत वळवळत उरतलो, सुण्या कास्ताच्या... म्हज्या हाडांनी इल्ली शक्त आशिल्ली जाल्यार तुगेलें कपलच धाडायतलों आशिल्लो धरून. आनी म्हज्या बोल्सांत दुडू आशिल्ले जाल्यार चार इडल्यो च्या बी तुकाच हाडूंक लावन ते खावन बी पयशे तुगेल्या तोंडार शेंवटीतलों आशिल्लों. असोच तुगेलो तो पोटा धोल वाडयत राव. एक दीस तें पोटूच फुटून मरतलो तूं!

तसोच चलत तो मुखार गेलो तेन्ना रस्त्याचे एके वटेन आशिल्ल्या एका शादी म्हालांत एके शादीचो चलिल्लो ब्बोवाळ ताच्या कानार पडलो. फाटीं एक फावट एका व्हडल्या हाजी सायबाच्या पुताच्या लग्नांत कदेलां पुसपाच्या कामा खातीर तो त्याच हॉलांत गेल्लो. कितल्या मोट्या थाटामाटांत लग्न जाल्लें तें! घमघमीत वासाची बिरयाणी, चिकन तंदुरी, ते भायर आयस्क्रीम, गुलाबजामून... ॲऽऽ! खरेंच तो दीस परतो येवपाक जाय आशिल्लो!

आंगणांत घाल्ल्या शामियान्या भितर मेजां कडल्या खुर्च्यांचेर सोयरे-धायरे घमघमीत पुलाव गिळटाले. हो आशेन पळयत उबो रावलो. यांत्रीकपणान पांय गेट हुपून भितर पावले. लोकांच्या बोवाळा भितर ध्वनिवर्धकांतल्या संगिताचो आवाज भरसून एक वेगळेंच वातावरण तयार जाल्लें. गेटी भितर सरता आसतनाच रंगरंगयाळे कपडे

घाल्ल्या एका तरणाट्याक ताणें विचारलें, ''कितलीं वरां जालीं?'' ''अडेज'', त्या तरणाट्यान जाप दिली. हाका इल्ली धिटाय आयली. चिकन फ्राय बरें गरम गरम आसा दिसता. बरें रुचीक आसतलें. इल्लें मेळिल्लें जाल्यार...! त्या तरणाट्यान वॉचमनाक आफोवन व्हेलो आनी कितें तरी सांगलें.

''ये... खंय वता? खंय वता रे? हांगा यो रे तो...'' वॉचमनान फर्मायलें. हो सट्ट करून थंयच उबो रावलो. वॉचमनान लागीं येवन दांडो घुंवडायत फर्मायलें, ''भायर वच!'' हो भियेवन भायर आयलो.

वॉचमनाच्या हातांतलो दांडो ओडून काडून ताचेर चार वाजोवन, ''पळय, तुजे भशेनच हांवूय बी मनीस... म्हजे सारक्याक एक बचकभर अन्न घाल्लें जाल्यार तुगेल्या धनयाची दौलत काडून वतली काय कितें?'' अशें ताका विचारीन दिसलें.

''जेवणाचे आशेन येतात आनी मागीर हाताक मेळत तें घेवन पसार जातात'' अशें तो वॉचमन कोणाक तरी सांगतालो तें हाणें आयकलें. खंयच्या तरी एका पिक्चरांत पळयल्लें तशे तरेन एक बंदूक मेळ्ळी जाल्यार ह्या रांडेच्यांचेर जोखून सगळें हांगा आसा तितलेंय पुंजावन गुठलावन व्हरून गेटी भायर आशेन उबे आशिल्ल्या भिकाऱ्यांक वांटून सोडूंक जाय...

रस्त्यार ताच्यान चड चलूंक जालें ना. खर वत आशिल्लें, ते भायर ताका पुरो जाल्लें. तो घामान थपथपिल्लो. रस्त्याचे कुशीक आशिल्ल्या नळा सामकार तोंड उकतें करून जीब भायर काडून एक सुणो धांपेत उबो आशिल्लो. हाणें नळ सोडलो. नशिबान नळाक उदक आयलें. पोसोभर उदक घेवन पिलो. सुणोय बी लागीं येवन उदक पिलो. 'उदक जाय जाल्यार पी. पोटभर पिवन घे. हें एकूच फुकट मेळटा हांगा. अशें म्हणून ताका जाय तितलें उदक सोडून नळ परतून बंद केलो.

अशेंच कितले दीस जगपाचें? कितेंय तरी उपाय करूंक जाय... कितेंय तरी...

एका झाडापोंदा तो मातसो बसलो. मागीर उठून चलूंक लागलो. बुरशे पाळणींतले आपणाले कुडीचें साकाचें दार उकतें केलें. शेंदरी पातलायली आनी तिचेर आड पडलो. ताका न्हीद लागली.

कोणालो तरी उलो आयकून तो जागो जालो. उठून बसलो. म्हातारी भितर आयली.

''तूं आज बेगीन आयला?'' तिणें विचारलें.

हय, म्हणून तो उठून उबो रावलो.

''आज पयशे हाडल्यात मरे... भाड्याचे? आजूय बी तुवें पयशे दिले ना जाल्यार सोडचिंना हांव. तूं दिना जाल्यार म्हाका उपाशीं रावचें पडटलें.'' तिणें सांगलें.

''जायते आसात. सांग कितली उरल्या बाकी तुगेली? ताणें झेतान विचारलें.

''एक सप्तक आनी तीन दिसांचे मेळून पन्नास रुपया जातात.'' म्हातारेन जाप दिली.

हो भायर वचूंक लागलो.

''खंय वता रे?''

''तेंच न्ही गे, बँकेंत डिपॉझीट दवरल्यात. हाडपाक नाका?'' अशें म्हणून नेटान चलूंक लागलो.

''पाडा पडिल्ल्या, म्हजें पोट मारून तूं मेकळो जाता? पाड पडटलें तुजें. माती खातलो तूं.'' अशें म्हणून म्हातारी ताका शिराप सोडीत रावली. तें तिचें उलोवणें ताका खूब पयस मेरेन आयकूंक येतालें.



## श्री रामकृष्ण परमहंस म्हणटाले–




धरुंया, हांव तुमचे मुखार बसलां. तुमचे आनी म्हजे मदीं एक अंतरपाट दवरलो जाल्यार, हांव तुमकां दिश्टी पडचों ना. म्हूण कितें हांव ना जातलों? पयलीं भशेनूच बशिल्लों आसतलों. फकत तुमकां दिश्टी पडचों ना. तसो –

देव आनी आमी हांचे मदीं अहंकाराचो एक अंतरपाट आमी दवरतात. मागीर देव आमकां दिश्टी पडना. देव दिश्टी पडना जावपाक अंतरपाटाचीय गरज ना. सादो रुमाल दोळ्यांक बांदल्यार पुरो. आमकां पर्वत लेगीत दिश्टी पडना. तसो अहंकाराक लागून आमकां देव दिश्टी पडना. पुणूत, देव आसा. तोच हो संवसार चलयता.म्हूण देवा कडेन मागूंक जाय, 'देवा, तूंच सगळें करता. हांव फकत निमित्याक कारण जालां. म्हजे हस्तुकीं जें कितें करून घेवपाचें आसा तें तूं करून घे. हांव तें हांवें केलां अशें केन्ना म्हणचों ना.'



एक खेपे एक गिरेस्त मनीस श्रीरामकृष्ण परमहंसा सरीं आयलो. एक चेक तांचे मुखार दवरून ताणें म्हळें, 'तुमच्या खर्चाक उपकारतले हे पयशे...' 'म्हाका नाका तुजो चेक,' रामकृष्णांनी ताका म्हळें, 'म्हजे हुसके म्हाका वाडोवन घेवपाचे नात.'

'तुमी हात लावं नाकात ह्या पयशांक... पुणून तुमचे सेवेक जो आसा ताच्या नांवान हांव पयशे दितां.' त्या मनशान म्हळें.

'चे चे चे... हांवें घेतले कितें, ताणें घेतलें कितें, सारकेंच. म्हाका पयशांचो हिशोब दवरपाचो ना.' रामकृष्णांनी परती जाप दिली.

तो मनीस वस्ताद. ताणें म्हळें, 'तुमी विरक्त... तुमकां हुस्को कसलो? तुमीच म्हळां, संपत्तीच्या म्हालसागरांत म्हाका पुरून उडयलो जाल्यारूय म्हाका तिचो स्पर्श जावपाचो ना...'

'हय गा,' रामकृष्णांनी जाप दिली,' तेल उदकांत उरलें जाल्यार कांय दिसांनी ताका घाण मारपाक लागता... विखखाची परिक्षा कोण करतलो?...'

**– कण वेंचपीः रवीन्द्र केळेकार**




ज्या मनशान गोगां (Gauguin) ह्या चित्रिकाची जीण वाचल्या जायत ताका असले शंबर दिप्लोम मेळयल्यार पसून उन्माद येवचोना. उन्माद तर पयसूच उरलो. गोगांन जे कश्ट सोंसल्यात, ज्यो हाल अपेश्टा काडल्यात तश्यो आपल्या श्रेया खातीर काडपी कितलेशे मनीस पृथ्वीर मेळतीत? अश्या लोकांक उन्माद येत जाल्यार तांकां कोणाच्यान दोश दिवं येत?

# कांय नव्यो थारावण्यो...

**मुंबय, ता. १८.०७.१९४८, आयतार.**

दर एकान आपल्याक दिसता ते तरेन चलचें, उलोवचें, बरोवचें. फक्कत तातूंत दुसऱ्या मनशाचेर मात अन्याय जावचो न्हय इतली जापसालदारकी घेवंक जाय. ना जाल्यार, 'स्वातंत्र्य' ह्या उतरा कडेन जसो गोंदळ जाता तेच तरेन 'आपल्याक दिसता तशें चलप' ह्या उतरांचें जातलें.

धा-पंदरा वर्सां सावन जे तरेन हांव चलतालों ते तरेन चलपाचें बंद केलें हांवें. खरें म्हणटा जाल्यार तशे तरेन चलपांत खंयचेच नदरेन म्हजी चूक ना. थोड्यो चुको आसात. पणून तांकां वेव्हारा पुरतें म्हत्व. कोणाकूय उपयोगा पडचें हातूंत चूक अशी कितें? पयसो म्हळ्यार सगळें न्हय. तें एक साधन. मनशाक फकत पोटूच आसा अशें समजून चलपाचें पिशेपण म्हज्यान तरी करूंक नजो. पोटाचें म्हत्व उणें अशें न्हय. पणून ताचें म्हत्व मनीस जगपा पुरतें. पोटा पुरतेंच. आपल्यो गरजो बरे भाशेन भागच्यो म्हणून मनशाक पयशांची गरज. तितले पुरती खरेलीच पयशाची गरज मनशाक आसता. पणून पोट म्हळ्यार जरी आयच्या समाजांतल्या खुबश्या लोकांचे नदरेन म्हत्वाचें आसलें, आनी खरेंच, पोटाक ना जाल्यार मनशाचो उपाय चलना, तरी पणून पोटा परस म्हत्वाचीं आंगां आमचे कडेन आसात. पोटाचो प्रस्न गरजां परत्वें सुटलो की मनशान उरिल्ल्या कामांक लागूंक जाय.

पयशान मनशाक, बऱ्या बऱ्या व्हड मनशांक कशे पिडल्यात हाची पूर्ण कल्पनाच न्हय तर तरेकतरांचे बारीक-मोठे अणभव दर एकल्याक येताच. आनी जो बारकायेन पळेता ताका तर ते निव्वळ आनी नितळ तरेन दिसतात. मूळ पसून म्हाका तशी संवय जाल्ल्यान जावं, पणून पयशांचें व्हडलेंशें मोल म्हाका केन्नाच दिसलेंना. तशें पळोवंक गेल्यार, आमच्या घरांत म्हजे इतलो पयशांची गरज आशिल्लो, पयशांक पादिशेर मनीस ना. सदांच म्हाका पयशांची गरज. सदांच पयशांची येवजणूक. कितलेय पयशे मेळूं, तांचो धूप. पणून म्हणूनूच दिसता, म्हाका पयशांचें म्हत्व दिसना तें. काजळाचो रंग काळो आसप तातूंत ताचें बरेपण तें कितें तशें म्हजे बाबतींत, पयशांचें म्हत्व दिसपना हातूंत ध्येयवाद बी म्हणटात तो कांय ना.

इतलेंच म्हळ्यार आज मेरेन थोडे प्रस्न म्हजे बाबतींत उबे रावंक नाशिल्ले ते आज रावले म्हणून पयलींचो तुकारामाचो कारभार म्हजे सारकेल्या कांयच धर-मेर नाशिल्ल्याक उपयोगा पडचोना. सगळे घरचे लोक पयशांचें बाबतींत म्हाका पातयेवंक तयार नासतात व्हडलेशे. 'मित्र' म्हणटात तें उतर हांव वापरतां. पुणून ताचो अर्थ येवजून न्हय. पत्रांत 'प्रिय' हें उतर घालपाचें कारण दुसरें तसलेंच सोबीत उतर ना म्हणून. एक दीस बाबान म्हाका त्या उतराक म्हजे बाबतींत कांयच अर्थ नासता असो शेरो मारिल्लो. तो म्हणटालो ते नदरेन तें खरेंच आसा. फक्कत जो हीण हेत तो ते फाटल्यान लायतालो तो मात म्हाका मान्य ना.

कसलेच गजालीक म्हजे कडेन मर्यादा नासता. उलोवपाक बोलपाक, दिवपाक घेवपाक, खावपाक जेवपाक, काम करपाक जावं आळशीपण करपाक, कोणाकूय दोश दिवपाक, कोणाचीय तोखणाय करपाक. तो एक व्हड दोश म्हजे कडेन आसा. वळख करपाक म्हाका कोणें सांगूंक नाका. पणून ती टिकना मात म्हजे कडेन ह्याच गुणाक लागून. दुसरें म्हळ्यार, खंयचोच मनीस म्हाका पूर्ण बरो दिसना. आनी निसर्गांत 'पूर्ण' अशें आसा कितें? तरी पणून म्हजो सभाव विचित्र जाल्ल्यान गुणाची तोखणाय जितल्या सहजपणान हांव करीत वतां तितल्याच सहजपणान दोशांचेंय माप पदरांत घालपाक म्हाका मोठेंशें कांय दिसना. ह्या सभावाक लागून लोकाक चार दीस सोडून पाचव्या दिसा हांव नाका जातां.

कोणूय मनीस अडचणींत आसतना, त्रास भोगता आसतना ताका मदत करपी, निवारपी, आयकुपी आनी समजून घेवपी कोणूय तरी जाय आसता. म्हाका मूळ पसून आपल्याचे जावं लोकाचे त्रास पळेले की एक तरेचेंच दिसता आनी मना पसून, तेदेवेळा पुरतीं तरी, खुबशेदां म्हजे शक्ती भायली मदत करचेलीं उतरां दिवन हांव मेकळो जातां. कोणाकूय दुखता तेन्ना ताका दुसरे कसलेच गजालीचें भान नासता. आपली दूख आनी ती बरी जावंचेलें साधनूच तो सोदीत आसता. ताचो गुन्यांव ना हातूंत! त्याच वेळार म्हगेली आनी म्हज्या

'मित्रां'ची वळख जाता. आनी ती रोखडीच दोन दिसां भितर सामकी ठाम जाल्ले भशेन देखाव्याक तरी दिसता. कांय दिसांनी ती प्राण सोडटली अशें संवयेन म्हाका समजले बगर रावना. इश्टागतीची 'आयुर्मर्यादा' कितली हें समजूंक म्हाका त्रास पसून घेवंचे पडनात...

**ता. १.०८.१९४८, आयतार.**

ही रोजनिशी बरोवंक आरंभ केल्यार वर्सभर जायत आयलेंच. सारकें नेमान हें काम चलूंक नाशिल्ल्यान ह्या बरोवपा फाटल्यान आशिल्लो हेत व्हडलोसो तडीक वचूंक ना. तरी पणून कांयच ना ते परस इल्लेंशें चड न्हय!

काल पेनाक नवो आपार घालून हाडलो तेन्ना अक्षराची वेवस्था जाली. ह्या दोन म्हयन्यांत पयशांचे बाबतींत मातसोसो नेम चलयला. खर्च आनी खर्चाचो व्याप आटपुंचेलो यत्न चालू आसा म्हळ्यार जाता... खूबश्यो कल्पना मनांत आसात. तातूंतलीच ही पसून एक. म्हजी खंयचीच कल्पना वाऱ्यार नासता. तांकां खऱ्याचो आनी खरेले परिस्थितीचो पन्नास वाट्यांनी तरी आधार आसताच. पणून इतलेंय आसून अणभव मात असो की दर कल्पना निमाणी वाऱ्यार पडटाच. तरी पणून बरोवन जावं सांगून मनाक मातशें तरी समाधान मेळटा. सांगता आसतना जावं बरयता आसतना मनशाक एक मर्यादा आसता. तशें पळोवंक गेल्यार येवजिता आसतना सुद्धां मनशाचें मन खूब गजाली मनांत पसून हाडपाक कचरता. इतलें जालें तरी मनांतल्या मनांत मनीस वावुरतना चड स्वतंत्र आसता. ते परस बरयता आसतना ताच्यो आडखळी चडटात. आनी, येवजणुकांक हजार गवसण्यो घालच्यो पडटात. आसूं!

"एक वर्स जालें स्वातंत्र्य मेळ्ळ्यार. पोरूं म्हात्मा गांधी आशिल्लो. अंदू ना. पोरूं स्वातंत्र्याचो कैफ लोकांक आशिल्लो. स्वातंत्र्य म्हळ्यार मजा करप जाय तशी अशी तांची कल्पना. तिचो भंग जाल्ल्यान लोकाच्या तोंडार ह्या वर्सा उत्साव ना. तरी पणून फुडाराची आशा."

आज म्हाका १३७-१२० मेळटात. तातूंतले पन्नास रुपया काडून दवरप. दर म्हयन्याक. आनी फुडल्या, १९५०च्या, मायाच्या म्हयन्यांत नोकरी सोडून दिवप. म्हणचे आयच्यान तेवीस म्हयने आसात. म्हळ्यार, २३×५० जाल्यार १ १५० रुपया बोल्सांत उरतात. तातूंत प्रोव्हिडंट फंडाचे म्हयन्याक आठ रुपयाच धरल्यार १९४७ आब्रील ते १९५० माय २९६ रुपया म्हणचे तिनशें सवाय तिनशें रुपया जातात. ११५०+३२५ म्हळ्यार १४७५. देड एक हजार रुपया जाता. तातूंत जर अंदू बोनस मेळत तर अडेचशें रुपया सुमार मेळटले. आनी तशें जाल्यार, १४००+२५० एक हजार सातशें पन्नास. सातशें तरी जातात. तातूंतलो एक हजार गेल्यार सातशें नक्कद उरताच. म्हयन्याक जर पन्नास रुपया खर्च करीत तर म्हाका दिसता वर्सभर हे पयशे पुरो. तेन्ना १९५० वर्सा Sculpture करपा खातीर School of Artत वचप. आनी सकाळचो Commercial Art Sectionत वचप. ते पयलीं अंदू डिप्लोमा पास जालों जाल्यार फुडल्या वर्सा सेतेंब्र म्हयन्यांत सुटी घेवप आनी तीन म्हयने सुमार घरा वचून रावप. ह्या तीन म्हयन्यांत खुब्ब शिकप. Landscape आनी Portrait Painting. स्कॅचींग सारकें बरें करून स्वतंत्रतायेन मनाक येत तशें करप. शंबर रुपयांचें सुमार सामान व्हरप वता आसतना. तशेंच, अंदूच्यान सारकें शिकप. कसल्याच भानगडींनी मन घालिनासतना. स्वतःक शिस्त लायता म्हणसर त्रास पडटात खूब. पारज जर एकदां सकयल वोतत तर तो परतो एकठावपाक कश्ट पडटात. हेवटेनच्यान तेवटेन धांवता. हातांत काडल्यार पसून एकाच्यो धा गुळयो जावन धा कडेन पळटात. तशीच, तेय परस पाश्ट म्हणिना, म्हजी गत्त जाल्या. तरी पणून सांडिल्लो पारज भरपाक जायच.

**मुंबय, ता. १४.०८.१९४८, शेनवार.**

एक वर्स जालें स्वातंत्र्य मेळ्ळ्यार. पोरूं म्हात्मा गांधी आशिल्लो. अंदू ना. पोरूं स्वातंत्र्याचो कैफ लोकांक आशिल्लो. स्वातंत्र्य म्हळ्यार मजा करप जाय तशी अशी तांची कल्पना. तिचो भंग जाल्ल्यान लोकाच्या तोंडार ह्या वर्सा उत्साव ना. तरी पणून फुडाराची आशा.

सगळो दीस विडविडून आतांच घरा कडेन आयलां पावणे धांचेर.

फाटल्या स्वातंत्र्यदिना परस हो स्वातंत्र्यदीन म्हाका वेगळे तरेन वतलो. ह्या स्वातंत्र्यदिनाक हांव स्वतंत्र आसां. सगळ्या 'इश्टां'क सोडले. घरा पसुनूय मातसो पयस वतां. वचत आसां. प्रकृतीय बरी ना परिस्थितीय संशयीत निश्चीत. ठाम अशें कांयच ना. हातूंतसुनूय मार्ग काडूंक जाय. मनीस जावंक जाय! स्वतंत्र हिंदुस्तानाचो स्वतंत्र मनीस.

काँग्रेस भवनांत स्वातंत्र्यदिनाचे कार्यक्रम चल्ल्यात. ते कानार पडटात. 'जनगणमन...' आतांच सोंपलां. गांधी शिवाय हिंदुस्तानाचो पयलो स्वातंत्र्यदीस!

अंदूच्यान जिणेंत थोडे बदल करूंक जाय. कृत्रीम मात न्हय. सभावीक!

**मुंबय, ता. १५.०८.१९४८, स्वातंत्र्यदीस, आयतार.**

आयच्यान स्वतंत्रकायेचें दुसरें वर्स सगळ्या हिंदुस्तानाक मेळटा. सकाळचीं स वरां जावन वीस मिनटां घडयाळ दाखयता. पावसूय पडपाक लागला आनी चार उतरां कागदार घालपाचे इत्सेन हांव हांगा बसलां.

गेल्या वर्सा म्हाका सुधरुपाचे नदरेन हें बरोवपाचो नेम केलो हांवें. आनी ते प्रमाण, थोडेंच जायना, पणून बरयलें. अंदू वर्सा आसा तातूंत सूख मानून आनी पदरांत पडलां तें आपलें म्हणून कामाक आरंभ करपाचो.

पोरूंच्या बरोवपांत वेल्यावेल्यानूच सगल्यो गजाली बरयल्यो. मुद्द्याक गांठ घालिनाच. आतां हळू हळू भितर सरपाक लागप. भायलेभायर बोवाळनासतना घडणुकेच्या मुळाक हात घालप. हें काम दिसता तितलें सोंपें मात न्हय. तरी करून पळोवपा सारकें.

पयर एक दीस पंचवीस वर्सांत कितले कूर्स केले ताची जंत्री केली जाल्यार दोन कूर्स सोडल्यार सगळेच अर्दुकुटे. लिसेव, संस्कृत, मराठी, हिन्दी, पेंटींग पसून अजून पर्यंत अर्दारूच आसा. मनशाचो सभाव हाका कारण आसता हें तर खरेंच. पणून म्हजे बाबतींत तरी ताका परिस्थितीय कारण जाल्या. परिस्थिती बरे तरेची आशिल्ली

जाल्यार म्हजें सगलें मना सारकें जातलें आसतलेंच अशें म्हणूं नजो. पणून परिस्थितीक लागून, ती सारकी नाशिल्ल्यान खूबशें मनांतल्या मनांत जिरोवचें पडलें. म्हजेच बाबतींत अशें घडलां अशें कांय न्हय... सगळेच sailing in the same waters.

E.M. Forster ह्या इंग्लेज कादंबरीकारान हिंदुस्तानाचे बाबतींत अशे तरेचीं उतरां काडल्यांत -'... one of our main faults is that we too often lose what may be called 'a sense of proportion.' There is no real balance in our estimate of men and things, we either condemn or overpraise. कालच्या Blitz चेर वाचलें हें. हीं उतरां म्हाकाच न्हय तर आमच्या घरच्यांकूय बराबर लागतात. आमकां मदली गतूच ना. एक तोंक नाजाल्यार दुसरें. सामके म्हादेवाचे अवतार.

वळखीच्या लोकांत म्हजेर पूर्ण बरो असो कोणूच ना. आनी सामको वांकडो असोय कोण ना. सगळ्यांक म्हज्या बऱ्या वायट सभावाचे चुरके बादल्यात. म्हजी गत भुरग्या भाशेन. भुरग्याक कोणाच संबंधान सामकें वांकडेपण नासता तशेंच कोणाच संबंधान ठाम बरेपण नासता. मारतकच तें तितले पुरतें फाटीं सरता. ताका माराची याद उरता तसोच खावंक दिल्ल्याचोय उगडास आसता. पणून माराची याद उरली म्हणून परतें त्या मनशा कडेन वचपाक ताका कांयच दिसना, तशेंच, खावंक दिलें म्हणून ताचेर तें सदांच विस्वासना. विस्वासना आनी दुस्वासना! तशेंच मनशाचें आसूंक जाय. कोणूच सामको वांकडो नासता. सामकें बरेपण देवांतूय आसता काय ना हाचो प्रस्न. पणून आसा अशें म्हणटात.

आज सगळ्यांक चीट बरोवप.

**ता. २४.०८.१९४८, मंगळार.**

**गो. हि. असोसिएशन स्थापना दीस**

मनीस जिणेंत जसो जसो रिगत वता तसो तसो आपले 'खरेले' जिणेचो जो अंतीम हेत आसा ताचे कडेन तो लागीं पावंक जाय. पणून संवसारांत म्हजे सारकिल्या कडेन उरफाटें घडटा. दीस वतात तशी तशी जिणे कडेन फारकत जाता. संवसाराच्या वेव्हाराचे संबंध हे वेगळे तर जालेच. पणून हळू हळू परस्पर विरुद्ध जावंक लागल्यात अशें दिसूंक लागता. ह्या संवसारांत अभिमानान (आपल्या न्हय, मनीसपणाच्या), बरेपणान, पवित्रकायेन जीण जगपाक वाव साप थोडो. तिख्या हाडांच्या मनशांचेंच काम हें.

एके नायकिणीगेर उजू काळजाचे चलयेची अवस्था जाता तशीच ह्या संवसारांत मनशाची जाता. वय वाडटा तितलें तिका भंय चड. संवसाराची वांकडी नदर दोळ्यांत तेल घालून तिचेर नदर दवरता. आपलो हेत तडीक व्हरून तिका नायकीण केली की मागीर तिका कसलेंच भंय ना. मागीर तिणें जाय जाल्लें खावंचें, पिवंचें, मजा करची, मागीर संवसारांतलो वेव्हार तिका सगळें दिवपाचो मक्तो घेता.

बाबा 'तेर्सेर ओफिशियाला'च्या कोंकुर्साक पयलो आयलो. खऱ्यांनीच म्हाका ताचें तितलें मोठेशें दिसलेंना. अर्थात, 'आश्पिरांता' वेल्यान 'ओफिशियाला'चेर पावलो हातूंत आनंद आसाच. तातूंत, एक हिंदू पयलो, ते मागीर स-सात क्रिस्तांव आनी व्हडले लोक सगळे. आमी ल्हान खबरींनी सूख मानपाक शिकल्यात संवयेन. आपल्याक कितें मेळ्ळें हें पळेता आसतना आपणें ते खातीर दिलें कितें हाची वासपूस ना. तशें पळोवंक गेल्यार आमी तितले सरळ, उजू चलणुकेचे लोक अशें न्हय. आमकां फोक्योय आसात. आसा ते परस चड करून सांगपाक आमी भिडेनात. चड करून खऱ्यांनीच आपूण कितें हाचीं आमकां जाणीव नासता. आपूण कोणूय व्हडलो मनीस अश्या आवान आमी वावुरतात. थोड्यांत समाधान मानपाची वृत्ती आमची अशें न्हय. कितलेंय मेळ्ळ्यार पुरोच जायना अशी आमची भूक. पणून खरें म्हणजे आमची वृत्ती कूपमण्डूक. आमकां चड पयशिल्लें दिसना. हीच ती पिडा!

आमगेलो रावजीबाब 'एश्क्रितुरारियु' जालो. कालूच ताचें पत्र आयलां तशें. जिणेंत थीर जावपाचें एक आंग. पणून रावजी परस रवीन्द्राचे जिणेक अर्थ चड. चड समृद्ध जीण रवीन्द्राचीच.

लोलीबाब पयर म्हाका सांगता, 'मनशाक success मेळत गेलो म्हणटकच ताका उन्माद चडटा.' मागीर तो दुसऱ्या कडेन वायट तरेन चलता ही फुडली शेंपडी. ताची कल्पना, आतां हांव G.D. Art जातलों तेन्ना कितेंय तरी व्हड हांवें केलें अशें म्हाका दिसतलें म्हणून. आज दिप्लोमाक भाळपाचे परिस्थितींत हांव ना. दिप्लोमाक मोल कितें हाची खूबशी खबर आसा म्हाका. आतां हे धंदे म्हाका सदांचेच जाल्ल्यान तातूंत नव्याचोय उन्माद उरूंक ना. तातूंत हांव पेंटिंगांत जो दिप्लोम घेतलों ताका कलेच्या ज्ञानाचे नदरेन तर कांय म्हत्वूच ना. आतां इतले त्रास घेवन त्या दिप्लोमा मेरेन पावलों हातूंत म्हाका आनंद जाता. पणून तो दिप्लोम 'एलेमेंतार' 'सुपेरियोर' न्हय हाची खबर आशिल्ल्यान होय म्हजो आनंद उन्माद ह्या उतरा कडेन पावचे पयलींच शेळेता. ज्या मनशान गोगां (Gauguin) ह्या चित्रिकाची जीण वाचल्या जायत ताका असले शंबर दिप्लोम मेळयल्यार पसून उन्माद येवचोना. उन्माद तर पयसूच उरलो. गोगांन जे कश्ट सोंसल्यात, ज्यो हाल अपेश्टा काडल्यात तश्यो आपल्या श्रेया खातीर काडपी कितलेशे मनीस पृथ्वीर मेळतीत? अश्या लोकांक उन्माद येत जाल्यार तांकां कोणाच्यान दोश दिवं येत? पणून म्हजे सारकेल्याक जर, लोली म्हणटा तसो, दिप्लोमान खरेलोच उन्माद येत तर मागीर म्हज्या फुडारा संबंधान आशाच करपाक नाका. जें मनीसपण मनशांत आसूंक जाय अशें म्हाका दिसता तेंच मागीर खंय उरलें? म्हगेलो ल्हानसो दोश पसून म्हजे नदरेंतल्यान सुटना... पणून इतलेंय आसून लोली म्हणटा तातूंत खरें आसा अशें दिसता. आज मेरेन शिकपा खातीर हाचे ताचे बरे वायट वागणुकेची पर्वा करतालों हांव. आतां त्या धंद्याक पूर्णविराम घालो. म्हणटकच, ताकाच कित्याक, दर एकल्याक दिसपाक फावता, हो आतां मदांध जालो. आतां हाची परिस्थिती निवळ्ळी. भाव, बापूय सगळे लोक दिसान दीस बऱ्या कडेन वतात, म्हणटकच आनी विचारूंक जाय! अशें ताका दिसल्यार ताचो गुन्यांव ना! पयलींच म्हाका राग येता कोणेंय कितेंय म्हणटकच. तो मुद्दामूच म्हणटा काय दिसता. पणून जितलें येवजीत तितलें दिसता, ताकाय म्हजे सारकें रजांव आसा. ताकाय ताची येवजुपाची वाट आसा आनी ती म्हजे सारकीच बरी आनी उजू.





# चेन्नय - कांचीपुरम - महाबलीपुरम

**हर्षा शेट्ये**

चेन्नय स्टेशनार देंवलीं तेन्ना रातचीं आठ वरां जाल्लीं. स्टेशना वयल्यान हॉटेलांत वतना वाटेर खूब कडेन तमिळनाडूची मुखेलमंत्री जयललिता हिचे व्हडले व्हडले कटआवट्स लायिल्ले दिश्टी पडटाले. पयलींच तिचो आकार अवाढव्य. तातूंत साडयेर वयर मॅचींग बुलेटप्रूफ जॅकेट घालून हात जोडिल्ले पॉजीन कटआवट्स... आतां तुमी जयललितेचे शिमेंत आसात हाचो इशारो ते दिताले. टॅक्सीन व्हरून आमकां 'निलगिरी नॅस्ट' ह्या हॉटेलांत सोडलीं.

रुमांत वचून फ्रॅश जावन जेवपाक हॉटेलांतल्याच रेस्टॉरंटांत गेलीं. तांची स्पेशलिटी कितें काय म्हूण विचारलें. जाप मेळ्ळी, चिकन चेट्टीनाड, कर्ड रायस, पायसम्... नवे जिनस खावन पळोवप म्हळ्यार सद्‌गुरुच्या जिवार येता. तरी हांवें प्रमोद, सुषमा बराबर आशिल्ल्यान चिकन चेट्टीनाड आनी फिश चेट्टीनाड दोनूय जिनस हाडपाक लायले. रुचीक बरे आशिल्ले. करबिलाचीं भरपूर फोण्णां दिल्लीं.

सकाळीं फुडें कांचीपुरमाक वचपाक टॅक्सी आफयली. टॅक्सी ड्रायव्हर जयरामन बरो तमीळ हेळे काडून इंग्लीश उलयतालो. सगळ्यांत पयलीं ताणें जयललितेच्या कटआवटा कडेन बोट दाखोवन हांसत हांसत 'ही आमची अम्मा' म्हळें. थंय रोखडीच विधानसभेची वेंचणूक जावपाची आशिल्ली. तुमकां मुखेलमंत्री म्हणून कोण जाय रे, करुणानिधी काय अम्मा? हांवें विचारलें. 'कोणय येवं, म्हजे सारक्या सामान्य मनशाक कांयच फरक पडपाचो ना.' उलयत उलयत ताणें गाडी कांचीपुरमाचे वटेन घेतली ती बद्द श्रीपेरुंबुद्दूर थांबयली. 'हांगा देंवात आनी राजीव गांधींचें स्मारक पळोवन येयात म्हणून सांगलें. हांगा राजीव गांधी काँग्रेसीचे सभेंत उलयता आसतना तांकां बाँब स्फोटांत मरण आयिल्लें. त्या जाग्यार आतां राजीव गांधींचें स्मारक उबें जालां. तें पळयतना राजीव गांधींचें हांसतें मुखामळ दोळ्यां मुखार आयलें.

गाडी गांवांतल्यान धांवताली. खंयच्याय गोंयच्या गांवा बशेनूच एक गांव. पूण, वाटेर काळे-सावळे दिसपी लुंगी न्हेशिल्ले दादले, णववारी पातळां उरफाट्या पदरान न्हेशिल्ल्यो बायलो. नाकांत उजवे वटेन इल्लेशे कानांतले वेडी वरी नाकांतली पिली, घागरे पोलके घाल्ल्यो चलयो. हाचे वयल्यान हो तमिळनाडूंतलो एक गांव म्हूण कळटालें. चार दिसां पयलींच सक्रांत जाल्ली. ती थंय पोंगल सण म्हूण मनयतात. वाटेर दिसपी गाय पाडकांचीं शिंगां रंगयल्लीं आशिल्लीं. गोरवांच्या गळ्यांत फुलांचे सुकिल्ले हारूय दिसताले. हांवें ड्रायव्हराक विचारलें. ताणें सांगलें, पोंगलाचो दुसरो दीस खंय मट्टुपोंगल म्हूण मनयतात. ह्या दिसा खंय गोरवांची पुजा करून तांकां फुलांनी सृंगारून तांची मिरवणूक काडटात. त्या दिसा तांच्या आंगार घाल्लीं फुलां तशींच उरल्यांत जातलीं. वाटेर कांय घरां मुखार धवीफुल्ल तांदळाच्या पिठाची रांगोळी घाल्ली दिश्टी पडटाली. तांदूळ वांटून ओले आसतनाच ताची रांगोळी घालतात. मागीर ती तशीच घट्ट उरता. ताका खंय 'कोलम' म्हणटात. वाटेर एका गांवांत तर पिवपाच्या उदका खातीर लोक खर वतांत हातांत कळसुल्यो, बालद्यो घेवन उदकाचो टँकर येतलो म्हूण लायनी लावन उबे आशिल्ले दिश्टी पडले.

कांचीपुरम पावता म्हणसर दनपार जाली. थंय वतना म्हाका दिशिल्लें, हो विणपी, कोश्टी लोकांचो गांव. थंयच्यो सिल्काच्यो साडयो 'कांजीवरम सिल्क' ह्या नांवान फामाद. दर एका घरांतलो लोक साडयो विणपाच्या व्यवसायांत आसता. पूण थंय पावतकच कळ्ळें, तो देवळांचोय गांव म्हणून. हो गाव 'सिटी ऑफ थाउजंड टॅंपल्स' म्हणून प्रसिद्ध आसा.

हांगचें शंकराचें -कैलासनाथाचें - मुखेल देवूळ दनपारचें १२ ते ३.३० वरां मेरेन बंद आसता म्हणून आमी दुसऱ्या एका शंकराच्या देवळांत वचून आयलीं. हो वाठार 'शिवकांची' म्हूण प्रसिद्ध. पुराय भारतभर कॅलॅंडरां आनी माराण, फोग ही 'शिवकाशी' पुरयता. ह्या कारखान्यांतलीं सगळीं कामां धा-बारा वर्सांचीं भुरगीं करतात. कारखाने म्हळ्यार कितें, तर पत्र्याच्यो शेडी. थंय लागींच विष्णुचीं देवळां आसात. त्या वाठाराक 'विष्णुकांची' म्हणटात. हांगचीं सगळीं देवळां द्रविडी शिल्पकलेचे उत्कृश्ट अशे नमुने.

थंयचीं हॉटेलां मात सार्दीच. खानावळीं बशेन. पूण लिंप्प. केळीच्या पानार जेवण. चडसो लोक शीत जेवपी. शीत सांबारान पातळशें कालोवन. उंडी तोंडा कडेन व्हरतना सांबार व्हांवून हाता वयल्यान कोंपरा मेरेन पावता, अशें... हांवें एक कांजीवरम स्पेशल थाळी मागयली. तांबडी रसम, तांबडो सांबार, पातळ भाजयो -त्योय बी तांबड्योच. केळीचें पान आडवें दवरिल्लें. ताचेर पांच स वाटयो... एकींत साबूतांदळांची खीर. तिचो रंग सोडल्यार बाकी सगळ्यो एकाच कोराच्यो, एकेच रुचीच्यो. ते भायर बशी भरून इदीअप्पम शेवयो आनी पोंगल (तांदळांची गोड खिचडी). शेवयां बराबर नाल्लाचो रोस दिल्लो जाल्यार बरीं करून खातलीं आशिल्लीं. बेश्ट्योच कित्या बराबर खातलीं?

जेवन आमी साडयो घेवपाक गेलीं. थंयच्या चडश्या घरांनी भायले वटेन साडयांची दुकांनां आसात. साडयो पळोवन दोळे घुंवले. थंय ५० हजारांची लेगीत साडी पळयली. ते साडयेंत मर्दी मर्दी भांगराचे जरीचो वापर केला खंय. साडी हातांत घेवन पळयली. बरीच जड आशिल्ली. आनिकूय जड जड साडयो हातांत धरून पळयल्यो. पळोवपाक कितें पयशे पडटात? हांवें आनी सुषमान तातूंतले तातूंत साद्योश्यो म्हळ्यार कांजीवरम सिल्काच्यो साडयो घेतल्यो.

थंय सावन आमी महाबलीपुरमाक वचपाक भायर सरलीं. वाटेर पक्षीतीर्थम वचपाची वाट म्हूण एक बोर्ड पळयलो. ड्रायव्हरान सांगलें, दनपरां बारा वरां पयलीं पक्षीतीर्थम पावलीं जाल्यार एक अजाप पळोवपाक मेळटलें आशिल्लें. थंयच्या वेदगिरी दोंगराचेर खंय एक शंकराचें देवूळ आसा. त्या देवळांत ५०० सोपणां चडून वचचें पडटा. थंय दनपरां बारांक पुजा जाता. मागीर भट खंय एके वाटयेंत निवेद्य व्हरून भायर एका जाग्यार दवरता. बारा वरांच्या अदमासाक दोन व्हडले धवे पक्षी येतात आनी तो निवेद्य खावन वतात. फाटलीं कितलींशींच वर्सां हें चलत आयलां. पक्षांच्या रुपांत शंकर पार्वतीच येवन प्रसाद खावन वतात अशें थंयचे लोक मानतात खंय. तें आयकून म्हाका चिटमिटे पडले. पयलीं कळ्ळ्यार तरी थंय वचूंक जातालें. आतां वचून कांय उपेग नाशिल्लो. म्हूण गाडी तशीच महाबलीपुरमचे दिशेन व्हेली.

तमिळनाडूच्या ह्या भागांत सवें शतक ते णववें शतक मेरेन पल्लवांचें राज्य आशिल्लें. कांचीपुरम ही पल्लवांची राजधानी आनी महाबलीपुरम हें तांचें बंदर. पल्लवांचो पयलो राजा नरसिंह वर्मा हाका 'महाबली' अशी पदवी मेळिल्ली. म्हणून ह्या भागाक महाबलीपुरम अशें नांव पडलें खंय. पल्लव राजांक संगीत, शिल्पकला, नाटक, नृत्य हांची आवड आशिल्ली. तातूंतले तातूंत महाबलीपुरमाचें चड शिल्पकाम राजा महेंद्रवर्माच्या काळांत जालां. हातांतली तमिळनाडू पर्यटन मंडळाची पुस्तिका वाचतां वाचतां केन्ना जयरामनान गाडी उबी केली, कळ्ळेंच ना. गाडी खंयचे तरी वेळेर उबी केल्ले बशेन दिसलें. पळयत जाल्यार हांगा रेंवेंत लिपिल्लो शिल्पकलेचो खजिनो आसा. ताचो सोद एकोणिसाव्या शतकांत लागलो. पयलींच नदर ओडून घेता तें पेरुमल टॅम्पल. इतलीं वर्सां वादळ, वारो, रेंवेचो मारो सोंसून ताणें बरी तग धरल्या म्हणपाचें.

हांगा पांडवांचे आनी द्रौपदीचे रथ आसात. रथ म्हळ्यार, पाशाण कोंरातून तयार केल्लीं देवळां. धर्मराजाच्या रथांत शंकर, विष्णु, कृष्ण, कार्तिकेय हांच्यो मुर्ती कोंरातल्यात. अर्जुनाच्या रथार ऐरावतार बशिल्लो इंद्र दाखयला. भीमाचो रथ बौद्ध स्तुपा बशेन, नकुल आनी सहदेव हांच्या रथांत शींव आनी हतयांचीं शिल्पां, द्रौपदीचो रथ म्हळ्यार कमळांत उबें आशिल्लें दुर्गामातेचें देवूळ. हांगचीं शिल्पां म्हळ्यार पल्लवांचे शिल्पकलेचे उत्कृष्ट नमुने. कितें पळोवं आनी कितें नाका जाता. ह्या शिल्पकारांक दैवी शक्ती आशिल्ली जावंये. देखून इतलीं अप्रतीम शिल्पां तांच्या हातांतल्यान घडलीं. अर्जुनाची तपश्चर्या, ताका प्रसन्न जावन वर दितना शंकर, गोवर्धन पर्वत उखलपी कृष्ण, बळीराजाचेर पांय दवरपी बटू वामन, जनावरांचीं शिल्पां... ह्या शिल्पांचें अचूक वर्णन करपाक म्हाका जमचेंना. म्हजे कडेन शब्दूच नात. अवर्णनीय म्हणटात तसलें हें. तांचो अणभव स्वत:च घेवपाचो. कितें तरी अद्वितीय पळयल्ल्याचें समाधान मेळसर. थंय एक वाटकुळेंच व्हड खडप आसा. ताका कृष्णाचो लोणयाचो गुळो म्हूण वळखतात.

आतां तिनसांज जायत आयिल्ली. आमी परतीं चेन्नय येवपाक भायर सरलीं. चेन्नय पावता म्हणसर रातचीं आठ वरां जालीं. म्हजी पुणेची मावशेभयण विनिता हालींच चेन्नय रावंक आयिल्लें. ताचो पत्तो म्हजे कडेन आशिल्लो. जमता जाल्यार ताका मेळून येवचें म्हूण थारायलें. 'वसंत नगर' आशिल्ली कलाक्षेत्र कॉलनी सोदत सोदत गेलीं. वचून पळयतं जाल्यार तांचें घर बंद. मुखावयल्या घरांत वचून बॅल मारली. एक पंदरा सोळा वर्सांचें चली आयलें. हांगा मुखार तळावलीकार म्हणून जोडपें रावता काय विचारलें. ताणें सांगलें, आपल्याक खबर ना, आपूण वळखना. आशिकुशीचीं घरां बंद आशिल्लीं. मुखावयल्या घरांतलेच लोक वळखनात जाल्यार बाकीच्यांक विचारून कितें करतलीं आशिल्लीं? चल या म्हळें आनी हांव फाटीं वळ्ळें. इतल्यान घराचें दार परतें उकतें जालें आनी बारा-

तेरा वर्सांचें आनीक एक चली आनी आवय भायर आयलीं.

'यू व्हॉन्ट टू मिट विनिता आंटी?' ताणें विचारलें. 'हय. हांव ताचें कझन, गोंयां साकून आयलां...' 'तीं चलत पासयेक गेल्यांत.' आवयन सांगलें. 'हें म्हजें धाकलें चली. तें सगळ्यांक वळखता. व्हडल्याक अभ्यासा बगर दुसरें कांयच पडून वचूंकना', तिणें म्हळें. ती फामील श्रीलंकेची. दोनूय चलयांक घेवन आवय शिक्षणा खातीर हांगा रावल्या. बापूय श्रीलंकेक आसता. तीं आमकां भितर येवन बस म्हणूंक लागलीं. इतल्यान मुखावयल्यान विनिता आनी दिनार येतना दिसलीं. आमकां पळोवन विनिताक अजाप जालें. आमी भितर सरतात थंयच आसा, तें घोवाक नुस्त्या बाजारांत वचून नुस्तें मेळटा जाल्यार पळय म्हणपाक लागलें. आठ वरां जावन गेल्लीं. नुस्त्या बाजार बंद जाला आसतलो म्हणून आमीच ताका, कांयच नाका, इतल्या तेंपान मेळ्ळ्यांत तीं मातशीं बसून उलोवया म्हळें.

दुसऱ्या दिसा चार वरांचेर आमची बेंगळूरची फ्लायट आशिल्ली. तेन्ना सकाळच्या आदेसाक कितें कितें पळयात, त्यो ताणें टिप्स दिल्यो. कुमारन सिल्क, टीनगर आशिल्ल्या साडयांच्या दुकानांत मुजरत वचून येयात, ताणें सांगलें. सकाळीं बेगीन उठून ब्रेकफास्ट घेवन भायर सरलीं. पयली मरीना बिचार गेली. ही लांबचे लांब दर्यावेळ म्हळ्यार चेन्नयचें वैभव. हांगा तमिळनाडूचे आदले मुख्यमंत्री सी.एन्. अण्णा दुराई हांचें स्मारक आसा. थंय पावतकीच म्हाका मिरामार बिचार आशिल्ल्या गोंयचे पयले मुखेलमंत्री, भाऊसाहेब बांदोडकारांच्या स्मारकाची याद जाली.

भितर सरतना जोतें भायर काडून दवरपाक लायतात. थंय राजघाटार पेट्टा तशी अखंड ज्योत पेटत आसता. सगळो परिसर नितळ, निवळ आशिल्लो. तमिळ नट आनी तमिळनाडूचे मुखेलमंत्री एम्. जी. रामचंद्रन हांचीय समाधी थंय आसा. थंय लागींच चॅपॉक स्टेडियम आसा. सेंट जॉर्ज किल्लो हो ब्रिटीशांनी बांदिल्लो किल्लो. आतां थंय विधानसभा आनी सरकारी कार्यालयां आसात. ह्या किल्ल्यांत आशिल्लो Flag Pole भारतांतलो सगळ्यांत ऊंच पोल खंय. थंय मुखार सगळ्यांत पोरणी, 'सेंट मेरीज चर्च' आसा. ब्रिटीश अधिकारी रॉबर्ट क्लायव्हाचें लग्न हांगाच जाल्लें. थंय पोरणो म्युझीयम आसा.



*चेन्नयचें तिरुवल्लुवराचें स्मारक*

वल्लवरकोट्टम म्हळ्यार तमिळ संतकवी तिरुवल्लुवर हांचें स्मारक. हें स्मारक सादें-सुदें स्मारक न्हय, तर स्थापथ्यकलेचो तो एक उत्कृश्ट नमुनो. भितर सरतनाच व्हडलो मंडप. मदीं एकूय खांबो ना. थंय एक तीस फूट उंचायेचो कोंरातिल्लो रथ. रथांच्या चक्राचेरूय सुंदर नक्षिकाम केलां. रथ ओडपी सात-आठ फूट उंचायेचे दोन हती, भितर संत तिरुवल्लुवराचो पुतळो. रथाच्या सकयल्या भागार *'तिरुक्कुरळ'* ह्या ग्रंथांतले १३३ अध्याय कोंरातिल्ले पळोवपाक मेळटात. संतकवी तिरुवल्लुवर म्हळ्यार तमीळ लोकांचें श्रद्धास्थान. तांच्या तिरुक्कुरळ ग्रंथाची थंय पुजा जाता.

थंय भोंवन पळोवपा सारक्यो आनिकूय इतिहासीक इमारती आशिल्ल्यो. आमची धांवती भेट आशिल्ल्यान सदचे वरी आजय आमचे कडेन वेळ नाशिल्लो. चेन्नय पावल्यांत म्हणटकीच थंयच्यो थळाव्यो वस्तू घेवं नाका? ना म्हणल्यार लेगीत बर्मा बाजारांत पासय मारून आयलीं. थंय सगळे तरेच्यो फॉरेन वस्तू विकत्यो मेळतात. सद्गुरुन कॅलक्युलेटर आनी बारीक बारीक इलॅक्ट्रॉनीक सामान घेतलें. थंयच एका दुकानांत अमेरिकन जॉर्जेटच्यो प्लेन साडयो लायिल्ल्यो दिसल्यो. हय, प्युअर जॉर्जेट, मेड इन अमेरिका म्हणून सांगलें. तो सांगतालो ताच्याक अर्द्या मोलान हांवें साडी मागली. ताणें दिली. हॉटेलांत हाडून पळयत जाल्यार तिचेर 'मेड इन इंडिया' म्हूण छाप मारिल्लो आसा. सद्गुरुक दाखयली मात, 'कांचीपुरमाक इतली बरी सिल्काची साडी घेतिल्ली आसतना हें आनी बाणशिरें कित्याक घेवपाक जाय आशिल्लें', म्हूण आयकुचें पडलें. हांव ओग्गी रावलें.

जेवलीं आनी सामान घेवन भायर सरलीं. बसतां बसतां जयरामनाक विचारलें, आरे, हांगाची स्पेशलिटी कितें? गोंयांत वतना कितें तरी व्हरूंक जाय. ताणें वाटेर एका दुकानांत थांबयलीं आनी सांगलें, हांगची मुरुक्कू फामाद. मुरुक्कू म्हळ्यार चकरी कशी. कितलेशेच फेरे, तरेकतरांच्यो नक्षी आशिल्ल्यो ल्हान व्हड आकाराच्यो मुरुक्कू. मुरुक्कू आनी तांदळाचे सांडगे घेवन आमी विमानतळार वचपाक गेली.



# थळावेपणाच्यो मर्यादा हुपून मुखार वचपी मेल्विनाची कविता


**पुंडलीक ना. नायक**


२००८ वर्सा मेल्विन रोड्रीगस हांगेलो *प्रकृतिचो पास* हो कवितां झेलो एके वटेन देवनागरी, दुसरे वेटेन कन्नड हे भाशेन दोनूय लिपयांनी मंगळूरा उजवाडा आयला. मेल्विनबाब तरनाटे पिळगेंतले तांकीवंत कोंकणी कवी. तांगेले कवितेची मंगळूरा भायल्या कोंकणी वाचप्यांक वळख घडची म्हूण कवितां झेल्याक भौ. पुंडलीक नायक हांणी बरयल्ली प्रस्तावना आमी हांगा उजवाडा हाडटात. कवितां झेल्याचें परिक्षण मुखार उजवाडा येतलें.

\- *संपादपी*

कोंकणी साहित्याच्या मळार मंगळूरांतले कवितेचें मोटें योगदान आसा. लुवीस मस्करेन्हस हांकां कन्नड लिपयेंतल्या कोंकणी काव्याचो बापूय म्हण पाचारतात. तांणी 'कोंकणी दिरवें' ह्या पत्राचें संपादन करून मंगळूरांत कोंकणी साहित्याक प्रतिष्ठा दिली. १९४८ वर्सा तांणी बरयिल्लें *'आब्रांवचें यज्ञदान'* हें शैलीदार काव्यनाटक उजवाडाक आयलें आनी तें तांगेले प्रतिभेचें मुकूटमणी थारलें.

मंगळूरांत लुवीस मस्करेन्हस हांचेच तांकीचो, स्वतंत्र प्रज्ञेचो आनी चिंतनशील बरोवपी उदयाक आयलो तो म्हणल्यार चार्ल्स फ्रान्सीस दे कोस्ता. चा. फ्रा. दे कोस्ता म्हण तांकां सगट कोंकणी संवसारांत नामना आसा. कवी, गीतकार, पत्रकार आनी नाटककार ह्या मळांचेर तो स्वयंभू प्रतिभेन चकचकलो. लुवीस मस्करेन्हस आनी चा. फ्रा. दे कोस्ता हांची तुळा करतना तांचे मजगतीं एक मुळावो भेद नदर ओडून घेता, तो म्हणल्यार, लुवीस मस्करेन्हस एक देवभक्त कॅथलीक जाल्यार चा.फ्रा. दे कोस्ता एक विद्रोही कॅथलीक. आनी म्हत्वाचें म्हणल्यार, दोगूय प्रतिभावंत. एकल्याची देवभक्ती जाल्यार दुसऱ्याचो विद्रोह तितलोच कलात्मक जावन तांगेल्या लेखनांतल्यान प्रगट जाता.

मंगळूरांतले नवे पिळगेंतलो तरनाटो कवी, पत्रकार (इलेक्ट्रॉनीक मीडिया) बाब मेल्विन रोड्रीगस, लुवीस मस्करेन्हस हांणी तयार केल्ली कवितेची वाट आनी उपरांत चा. फ्रा. दे कोस्तान रुंदायिल्ली तीच वाट माड्डीतना दिसता. सुदैवान बाब मेल्विनाक चा. फ्रा. चो खूब बरो सांगात लाबलो. चा. फ्रा. पासून ताणें प्रेरण आनी मार्गदर्शन घेतलें आनी चा. फ्रा. गेले उपरांत चा. फ्रा. च्या साहित्याचेर बरोवपाचो वावर निष्ठेन आनी प्रामाणीकपणान केलो.

ऐन उमेदीचे आनी तरनाटे पिरायेचेर मेल्विन कांय वर्सां देशा भायर आखाती देशांत नोकरेच्या निमतान गेलो. पूण हेर भारतीयां वरी वा हेर कोंकणी लोकां वरी तो थंय 'पयसो एके पयसो' करीत रावलोना. थंय नोकरी करता आसतनाच ताणें इलेक्ट्रॉनीक मीडियाचो वापर करून कोंकणी साहित्याची, भाशेची सेवा करपाचो आपणालो वावर अखंडीतपणान चालूच दवरलो. आनी तातूंत आपूण एक 'कवी' म्हणपाचो ताणें आपणाक विसर पडूंक दिलो ना. आपणाली स्वतंत्र कवितेची साधना चालू दवरतनाच ताणें हेर कोंकणी कवितांचींय संकलनां करून तीं प्रिंट तशें इलेक्ट्रॉनीक मीडिया वरवीं उजवाडाक हाडलीं.

आयज ताच्या नांवार *'मोगापेळो', 'फितां', 'वाट'* आनी आतां उजवाडा येता तो *'प्रकृतिचो पास'* अशे चार स्वतंत्र काव्यसंग्रह आसात. ते भायर एकूण चार प्रातिनिधीक स्वरुपाचे कविता संग्रह ताणें संकलीत आनी संपादीत केल्यात.

*'प्रकृतिचो पास'* ह्या नव्या संग्रहांत ३२ कविता आनी एक दीर्घ स्वरुपाची कविता धरून एकूण ३३ कवितांचो आसपाव आसा. सगळ्यो कविता २००४ ते २००८, म्हणजे, ह्या पांच वर्सांच्या काळांतल्यो आसात. लेखनाच्या क्रमान त्यो छापल्यात. कवितांनी त्या त्या काळार संवसारांत घडिल्ल्या घडणुकांचें पडबिंब पडलां. तशें जरी आसलें तरी त्यो प्रासंगीक न्हय. प्रसंग वा घटना हें फकत निमित्त आसा. कवितेंतल्यान त्या प्रसंगांचेर केल्लें भाश्य हें सनातन आनी कालातीत अशें आसा. बाब मेल्विन कोंकणी कवी आसलो तरी 'कोंकणीपण' ही ताची मर्यादा न्हय, तें ताचें वैशिश्ट्य जरूर आसा. कोंकणीपणाचें वेगळेपण तागेले कवितेंत आदिंमदीं दिश्टी पडटा. 'मलेकोडी' तसल्या मंगळूरांतल्या थळांचो उल्लेख ताच्या कवितांनी येता. आपणालो गांव, गांवचें वातावरण तो कवितेंतल्यान चित्रायता. तातूंत घरांतलें कुजीन, घरांतलें आदलें भाणशिरें सारकेल्यो वस्तू, पेजे सारके थळावे जेवचे जिनस, आज्या-आजयेच्यो व्यक्तिरेखा हें सगळें येता. मूळ गोंयकार आशिल्ल्यान आनी गोंय हो ताचो आस्थेचो विशय जाल्ल्यान मांडवी, जुवारी हांचोय आदिंमदीं आवर्जून उल्लेख तागेले कवितेंत मेळटा. हे कवितेक 'कोंकणीपण' 'थळावेपण' हाचो नक्कीच वास येता. पूण इतल्याच वैशिश्ट्यांनी आनी 'नोस्तालजियें'त ती गुंतून पडिल्ली जाल्यार तितलेंच तिचें वेगळेपण आनी तीच तिची मर्यादा अशें म्हणून तितल्याचेरूच समाधान मानून रावूं येतालें. पूण ना, मेल्विनाची कविता प्रादेशीकपणाची मर्यादा हुपून संवसारीक पांवड्यार देंवता. मेल्विन फकत एक कोंकणी मनीस उरना. कविच्या रुपान तो एक विश्व नागरीक जाता. आनी विश्वांतल्या प्रस्नां कडेन आपणाक जोडून घेता. त्या प्रस्नांतलें, समस्येंतलें सुख-दुःख तो आपूण अणभवता आनी कवितेंतल्यान तें अभिव्यक्त जाता: देखुनूच ताचे कवितेंत पयशिल्ल्या 'रोहटांग'चो उल्लेख येता. 'बूसा' कवितेंतल्यान तो संवसारांतले म्हाशक्तीचो मुखेली बुशाचेर तीर जोखता. बुशा मुखार शरणांगती स्वीकारून नाचप्यांची तो खेबडां करता, आमेरिकेन चलयिल्ल्या शोशणाचें, मारपेटाचें, आफांतवादाचें वर्णन करून कवी म्हणटा, आमेरिका

आमकां फटयता, नाडटा, पिडटा, कुसयता कारण —

*बूसा बूसा बूसा बूसा*
*आमेरिकी बूसा*
*तांचेलागी देव शीदा*
*संपर्क दवरन आसा .*

एक भयांकृत पूण वास्तव अशे तरेचें हें सत कवी प्रगट करता. हे कवितेंत फकत आमेरिकेची मुजोरशाहीच प्रगट जायना, तर देवाच्या अस्तित्वाचोय प्रस्न उप्रासता. मेल्विनाच्या असल्या कवितांतल्यान साक्षात चा. फ्रा. दे कोस्ताचे उंचेले प्रतिभेचो दिस्टावो घडले बगर रावना.

एके वटेन खर आशावाद जाल्यार दुसरे वटेन मनाक गळसणी हाडपी निराशावाद अश्यो दोनूय परस्पर विरोधी भावना मेल्विनाचे कवितेंत तितलेच उत्कटतायेन दिसून येतात —

*पोटाची खंत करतां करतां*
*वीक कुडींत चरलें*
*आनी काळीज विकांत खिरलें!*

***

*करूंक स्तुती लागलां तुजी,*
*जिवीत जालें मध्यान .*

***

*हांव गिरेस्त तर फकत खाली गुदांव*
*तुजेवीण जिवीत म्हजें मसणाचो गांव*

***

*एक वातय जळ्ळी ना*
*पातय फुल्ली ना*

***

अशा काव्याच्या वळींनी कवी निराशावादाक पोटलायता जाल्यार तोच कवी फुडाराच्या उजळ कुरवांनी आशावादाक वेंगायतना दिश्टी पडटा —

*भाजून वचोन वोतां / गोबोर जाले आतां*
*पिकाळ जातलीं शेतां / तांच्या फुडाराचीं!*

***

*उल्लासाच्यो झरी आतां कुडीवयल्यान व्हांवल्यो*
*माणसुगेच्यो वारी परत्यान स्वतंत्र जावन भोंवल्यो!*

***

*हो मनीस / आमकां सरवांक*
*भासायिल्ल्या गांवाक आपोवन व्हरोंक आयला*

***

*बंदखणिच्या भितर फाल्यां / सुटके झंडो उबतलो*
*उजवाड आनी पयस ना / सुर्यो फाल्यां उदेतलो*

***

आयच्या काळांत अस्तंती संस्कृतायेच्या कूड्ड्या अनुकरणान आमचीं खाणां-जेवणां आनी राहणीमान नकली आनी परावलंबी जालां. ताचें चित्रण कवीन 'दोरी वोडचो खेळ' हे कवितेंत नकसूद उतरांनी केलां आनी अशें जिवीत जियेवपी लोकांचीं खेबडांय केल्यांत.

*दुड्डू दिवून भकाय चरब / जिरय दुड्डू दिवून*

अश्या उतरांनी जिणेंतले विसंगतीचेर अचूक बोट दवरलां.

सावळेचो अर्थ समजतलो जाल्यार वोत सोंसपाक जाय, असो खोल आशय 'वोतां आनी संबंध' हे कवितेंतल्यान व्यक्त जाता.

'आमाली' कवितेंत एका वादळाचें चित्र पितारलां. त्या वादळांत, एक आवय सुकणें आपणाल्या चिंटुल्या सुकण्यां सयत कशे अवस्थेंत आसा ताचें एक शब्दचित्र उबें जाता. हें वादळ प्रतिकात्मक वादळ आसा. तेच बरोबर एकोडें सवणें आनी तागेलीं असहाह्य पिलां हेंवूय दुर्बळाचें एक प्रतीक आसा.

आयच्या काळांत 'भाणशिऱ्याक' फाव जाल्लो स्टेटस 'भाणशिऱ्य लागीं' हे कवितेंतल्यान कवीन मार्मीक आनी विनोदी ढंगान मांडला. आदल्या भाणशिऱ्यांची गजाल करतना पोरने आनी नवे जीवनपद्धतीची तुळा केल्या. जशे परीं गांवठी सुणीं वचून परदेशी सुणीं आयलीं आनी तांची केन्ना न्हय इतली अर्थ अपुर्बाय जावपाक लागली, तशेंच ह्या नव्या सुपरमार्केटांतल्या भाणशिऱ्याक फाव जालां अशें दिसता.

'गांवच्या पांयांमुळां' ही कविता कवीच्या काळजांतले उत्फरके मांडटा. कवी गांवा भायर भोंवून आयला. गांव सोडून गेल्लो तेन्ना ताका गांवची व्हडवीक कळूंक ना पूण आतां कळून आयल्या आनी गांवान आपणाक आपणावचो म्हणून तो गांवाक प्रार्थिता. गांवाच्या पांयार घालून घेता. कवितेच्या आरंभाकूच कवी म्हणटा —

*लांब तपस्स काबार केलां / सोनें जोडतां लोकांड जालां*
*निमणें तुज्या पांयांर पडलां / म्हज्या गांवा*

ह्या संग्रहांतली 'बेसलानची दुरंत कथा' ही निमाणी कविता एक दीर्घ कविता आसा. दक्षीण रशियेंत एक सप्टेंबर २००४ वर्सा घडलेले एके आकांतवादी घडणुकेचेर ती आदारीत आसा. एक दीस बेसलान शारांतले एके शाळेचेर गन, ग्रेनेड, मशीनगन हातांत घेतिल्ले बत्तीस चेचन्य आतंकवादी घुरी घालून शाळा आपल्या ताब्यांत घेतात. आपल्या मुक्तीलढ्या खातीर भुरगीं, शिक्षक आनी पालक अश्या बाराशें जाणांक वेठीक धरतात. रशियन सैन्य आनी आतंकवादी हांचे लटाफटींत निरपराध भुरग्यां-बाळांचेर हावळ येता. तातुंतल्या कांय जाणांक जीव वगडावचे पडटात. काळजाक पिंवळ घालपी अशें चित्र कवीन चितारलां. तें उत्कट, परिणामकारक जालां.

साठ वर्सां आदीं लुवीस मस्करेन्हस हांगेलें काव्यनाटक *'आब्रांवचें यज्ञदान'* मंगळूरा प्रगट जाल्लें. हे कवितेची तुळा त्या काव्यनाटका बरोबर करपाक जावची ना. पूण ही कविता वाचतकूच मंगळूरी कवितेची शैली आनी उतरावळ हांचे खातीर 'आब्रांवचें यज्ञदान' चो उगडास आयले बगर रावना. आनी बाब मेल्विन रोड्रीगस तेच काव्यपरंपरेचो घटक आसा.

चा. फ्रा. दे कोस्ता उपरांत मंगळूरांतले कवितेचो झेंडो खांदार घेवन बाब मेल्विन तितल्याच खंबीरपणान उबो आसा.

मेल्विनाच्या *'प्रकृतिचो पास'* ह्या चवथ्या कवितां झेल्याक येवकार आनी शुभेच्छा!



# ‘स्त्री असण्याचा अर्थ’ - एक काव्यात्म अर्थावणी

योगिनी आचार्य

"A fully realised human being is one who knows the masculine and yet keeps to the feminne." चिनी तत्वगिन्यानी लाओ त्सूचीं हीं उतरां. मराठी कवयित्री आसावरी काकडे हिणें हीं उतरां आपल्या *'स्त्री असण्याचा अर्थ'* ह्या कविता-संग्रहाच्या मनोगतांत मांडल्यांत. ह्या कविता-संग्रहांतल्यो कविता वाचतना वयल्या उतरांचो पावला कणकणी अणभव मेळटा. ह्या उतरांतल्यान उकतो जाल्लो विचार ह्या कविता-संग्रहाचो गाभो अशें म्हणप लटीक जावचें ना.

ह्या कविता-संग्रहांत वट्ट २१ कविता आसपावल्यात. दर एक कविता अस्तुरे विशीं वेगळें कितें तरी सांगपाचो यत्न करता. अस्तुरी कितली कश्टता, तिका कितले त्रास, अपमान सोंसचे पडटात, तरीकूय ती कशी पाय रोंबून आयिल्ले परिस्थितीक तोंड दिता हें कवयित्री खिणा खिणाक दाखोवन दिता. बायल ही अबला आनी तिका आदाराची गरज आसा, ह्या प्राचीन काळा सावन चलत आयिल्ल्या समाजाच्या विचारांक ह्यो कविता आव्हान दितात. बायलेची तांक केदी हें आसावरी काकडे हांगेले कवितेंतल्यान दिसता. एक वेगळी, उंचेल्या पांवड्याची मानसीक पातळी आशिल्ली बायलमनीस आमकां हांगा पळोवंक मेळटा.




बायलमनशे कडेन आनी स्त्रीत्व वा बायलपण ह्या विशया कडेन पळोवचेलो कवयित्रीचो दृष्टीकोन खूब वेगळो आसा. ही कवयित्री पारंपरीक चौकटी भायर वचून विचार करता: ती म्हणटा,

*''स्त्री जन्म मिळाला म्हणून*
*फक्त तिनंच का पेलावं स्त्रीत्व?*
*कळायला हवा*
*पुरुषी होत चाललेल्या समाजाला*
*स्त्री असण्याचा अर्थ...''*
*''पुरुषही पेलू शकतो असं स्त्रीपण*
*जशी स्त्री निभावतेय सहज पुरुषपण!!''*

'स्त्रीत्व' फकत बायलमनशे मेरेन मर्यादीत आसा अशें कवयित्री निखालूस मानिना. तिका दिसता, स्त्रीत्व वा बायलपण हें बायल तसो दादलो दोगांय भितर आसपावता. बायलेचो जल्म मेळ्ळो म्हणून बायलेनूच बायलपणाक पाळो दिवचो अशें ती मानिना. ती म्हणटा, दादल्यान लेगीत बायलेचे गुणधर्म आत्मसात करचे. कवयित्रीचो हो विचार कुडीच्यो शिमो मेरो हुपून मानसीक पातळेर गेल्ल्याचें दिसून येता. कवयित्री बायल आनी दादलो हांचे भितर फकत लैंगीक फरक करना तर तांचे मानसिकताये बद्दल भाश्य करता. पुरुषी जायत चलिल्ल्या समाजा कडेन ती अचूक बोट दाखयता. तिच्या मतान, बायलो सामान्यतायेन दादल्याच्यो म्हूण मानिल्ल्यो जापसालदारक्यो सहजतायेन पेलतात. तेच भाशेन दादलेय बायलांच्यो जापसालदारक्यो निभावंक शकतात. जाय ती फक्त इत्साशक्त.

ह्या कविता-संग्रहांत 'आवय' आशयाच्यो जायत्यो कविता आयल्यात. ठरावीक सांच्या भायल्यो ह्यो कविता. आवयचें प्रत्येक रूप तिणें मांडपाचो यत्न केला. आवयचे प्रतिमेक कवयित्रीन वैश्वीक रूप दिलां. आवय़क ती केन्ना म्हारूख मानता जो सदांच सावळी दीत रावता, जाल्यार केन्ना, सगळें हांसत्या मुखान सहन करपी सहनशील अस्तुरी लेखता. कसलीच अपेक्षा धरी नासतना जी आपल्या भुरग्या खातीर कश्टता तिका कवयित्री देवा परसूय उंचेलो मान दिता; पूण तेच आवयक भुरगीं त्रास दितात तेन्ना ती खंती जाता.

कवयित्री आवयक उद्देशून म्हणटा,

*''या विस्ताराचा प्रत्येक क्षण*
*त्याच्या सर्व कंगोऱ्यांसह*
*तू अनुभवलास*
*वर फुटणाऱ्या*
*प्रत्येक फांदीगणिक*
*तू आपली मुळं*
*जमिनीत खोल रुजवत राहिलीस*
*जीवनसत्व पुरवत राहिलीस*
*प्रत्येक वाढत्या कोंभाला*
*उन्हाळे पावसाळे झेललेस*
*अंगावर*
*वादळ वारे विजाही सहन केल्यास*
*वरचा विस्तार*
*सांभाळण्यासाठी मुळं घट्ट रोवून धरलीस*
*जिवाच्या आकांतानं...''*

अशी ही निस्वार्थी मोग करपी आवय. आपल्या भुरग्याचेर येवपी दर एक संकट आपल्या आंगार घेवपी. 'नसतेच सोपे चौकटी मोडणे' ही कविता ह्याच आशयाचेर आदारिल्ली आसा. 'कुमारी माता' हो हे कवितेचो आशय.

*''इवल्या स्वत्वाचा झाला अपमान*
*झेलून आव्हान निघाली ती...''*

ज्या बायलांक लग्ना पयलीं गुरवारचार येता पूण गर्भपाताचो पर्याय आपणाय नासतना ज्यो भुरग्याक जल्म दितात, तांचे विशीं ही कविता आमच्यो संवेदना जागयता. अशें चौकटी भायलें जगप खऱ्यांनीच खूब कठीण आसता. अशें जगप जियेवंक मानसीक बळाची गरज आसता आनी तें फकत एके आवय भितर आसता.

कांय चलयांक खूब भुरगेपणांतूच आवयपणाच्यो जापसालदारक्यो सांबाळच्यो पडटात. पूण तोंडांतल्यान उतर काडी नासतना त्यो ह्यो जापसालदारक्यो सांबाळटात. दुसऱ्यांलें करतां करतां तांकां आपलो

विसर पडटा आनी दुसऱ्यांलें करपांतूच तीं सूख मानतात.

*एक तडजोड आली    थकलेल्या वळणाशी*
*लग्न करायचे काय    दोन मुलांच्या बापाशी?*

*पुन्हा उघडली तिने    बंद हृदयाची दारे*
*आत घेतले हसत    नव्या घराचे पसारे*

*पुन्हा प्रसूतीवाचून    तिची झाली आहे आई*
*याला सार्थक म्हणू की    संभ्रमात आहे बाई!*

लग्न संस्थेची जतनाय करपाची जापसालदारकी बायलेची तितलीच दादल्याची. पूण केन्ना केन्ना खंयच्याय तरी कारणाक लागून वाद जातात. आनी घोव-बायलां मनान पयस वतात. 'तिने पाहिले संसार...' हे कविते वरवीं कवयित्री एक म्हत्वाचो प्रस्न विचारता.

*"चारचौघांच्या समक्ष    लग्न गाठ बांधलेली*
*एका छताखाली पण    मने नाही मिळालेली*
*सहजीवन असले    असेल का भावपूर्ण*
*फक्त जगणे एकत्र    होईल का अर्थपूर्ण?"*

Live-in relationships हो विचार हे कवितेंत मांडिल्लो दिसता. लग्न जावनूय दादलो आनी बायल मनान लागीं येवंक पावनात जाल्यार असल्या लग्नाक अर्थ उरना. ते परस live-in relationships सारकें अपेक्षां पसून मेकळें आशिल्लें नातें कितें वायट, असो सभावीक प्रस्न कवयित्री विचारता.

कविता-संग्रहांतले निमणे कवितेंतल्यान कवयित्री पुराय स्त्री जाती विशीं उलयता. 'स्त्री असण्याचा अर्थ 'कवितेंतल्यान' अस्तुरेची तोखणाय केल्ली दिसून येता. मनशाच्या गुणदोशां सयत ती प्रत्येकाक आपणायता आनी आपले भितर आसपावन घेता. आसावरी काकडे बायलेक वैश्वीक रूप दिता आनी तिचो गौरव करता.

---

*(पान ३१ वयल्यान)*

एक खेपे पाऊण वर उजरायल्यात. गांधी लोहियांक हे भाशेन उर्बा दिताले ताचो अर्थ लोहियांनी सरकारांत वांटेकार जावन फुडारपण घेवचें आनी देशाचे प्रस्न सोडोवपाचो यत्न करून कठीण समयार देशाचें व्हडें तांडपाचो यत्न करचो हो आशिल्लो काय कितें? पूण आपणाक कसलीच सत्ता नाका हो लोहियांचो आग्रो तांच्या कम्युनिस्ट करिश्माक सोब सारको आशिल्लो. ब्रिटीशांचे सत्तेक विरोध करप आनी वेंचून काडिल्ल्या सरकाराक विरोध करप हांतलो भेद राजकी शिस्त म्हूण गांधी लोहियांक समजावपाक सोदी.

डॉ. लोहिया गांधीचें सगलें आयकून घेताले. कारण तांकां गांधीजीं भितर देशाच्या नागरिकांचो फुडार चिंतपी एक व्हड राखणदार दिसतालो. इतलेंच कित्याक, दरेका देशा कडें गांधीं भशेन राखणदार आसचो अशें दिसतालें. जिणेक व्हडे खोलायेन भिडटना कांय उणेपणां पयस करचीं ही शिकवण गांधींनी लोहियांक दिल्ली; नैतीकता आनी सभाव हांचो समजून घाल्लो सांगड कितलो मोलाचो हेंय तांणी शिकयल्लें अशें गांधींचीं वचनां सांगतना लोहिया याद काडटात.

गांधीजींनी लोहियां खातीर फुडारांत कसले भुमिकेची आंखणी करून दवरिल्ली ती आमी नकळो. देशसेवे खातीर आव्हानात्मक भुमिका पेलपा खातीर गांधीजी लोहियांक घडयताले तें मात आमी जाणात. पूण आपल्यो निमण्यो इत्सा सांगले बगर, खास करून, लोहियां विशींची आपणें थारायिल्ली भुमिका स्पश्ट करी नासतना गांधींजी हत्येक लागून आमचे मदले ना जाले ही नियती थारिल्ली. भोव मोलाची अशी ही गजाल. कारण गांधीजींच्या शब्दाक तेन्नाच्या सत्तारूढ पक्षांत, म्हणल्यार काँग्रेस पक्षांत, लेगीत खूब मान आशिल्लो.

गांधीजींच्या मरणान डॉ. लोहियांनी बापुयूच वगडायलो म्हणल्यार जाता. ते अनाथ जाले. तांची अर्थ-अपुरबाय करपी कोण उरलोना. हाका लागून ते एक स्वतंत्र भोंवडेकार कशे जीण जियेवंक लागले. कठोर पंडीत, वादळी समाजवादी, निती-मुल्यांचे बाबतींत कर्मठ आनी मूर्तीभंजक, तरेकवार 'मूड' आशिल्लो मनीस -कला, भाशा आनी साहित्याचो मर्मज्ञ रसीक, बायलांच्या सौंदर्याचें कौतूक करपी आनी समाजीक उदरगती खातीर तांचें म्हत्व जाणपी - हे भाशेन लोहियांक लोक वळखूंक लागले. ते भायर, कितें करीत तें सांगू नजो असो मनीस अशीय तांची वळख जावंक लागली. लोहिया कोणाकूच जापसालदार वा उत्तरदायी उरलेनात. इतलें आसुनूय जिणेचीं उरिल्ली तीस वर्सां एक अर्थपूर्ण आदर्शवादी आनी गांधीजीं भशेन सासणाचो आशावादी जावन लोहियांनी सारलीं. कायम आशावादी हो तांचे मदलो एक दाट असो बंध आशिल्लो. जाका लागून तांचे नातेसंबंद आनिकूय घट जावंक पावले. भारतीय राजकारणाक लोहियांच्या ह्या पोरकेपणाक लागून एक धक्को कसो बसलो. घडये लोहिया गांधीजींनी तांचे खातीर जें कार्य दवरिल्लें ताची घोशणा जावपाची वाट पळेताले जावंये. आनी गांधींक जाय जाल्यार फकत ते नरम असो लोहिया नेहरूंचे सुवातेर हाडूंक शकताले.

१९६७ म्हळ्यार जिणेचे अखेरेच्या कांय सप्तकां आदीं डॉ. लोहियांक आपल्या व्हडल्या भावा सारक्या सल्लागारा विणें दुखखी आनी असहाय्य दिसूंक लागिल्लें. ताणी प्रा. समर गुहांक विनंती केल्ली, "समर बाबू, तुमी वचून जयप्रकाश नारायणांक परत हाडात. हांव मोडन पूण बागोवंक शकना. सद्याची सत्ता कोण जर भायरी करूंक शकत जाल्यार तो जेपी." लागींचो इश्ट आनी लोकसभेचो आदलो वांगडी प्रा. समर गुहा हांणी गांधी आनी लोहिया हांच्या लागीं येवपा विशीं मार्मीक उतरांनी बरयलां. महात्माच्या वलयाचें तेज आनी तरनाट्या लोहियां विशीं गांधींक आशिल्लें उपाट प्रेम हातूंत येदी भावनीक ओड आशिल्ली की डॉ. लोहिया ह्या जाणट्या मनशा पसून केन्नाच पयस वचूंक शकनाशिल्ले. डॉ. लोहिया खूब खेपे कोल्ली कशे वागताले. पूण गांधींच्या तांचेर आशिल्ल्या संमोहनाक लागून सुक्षीम असो संयम तांचेर येतालो. ह्या बैचैन मनशा खातीर गांधी हो अखेरचो विसव आनी आलाशिरो आशिल्लो. गांधी ही तांच्या भितरल्या आत्म्याची थाकाय आशिल्ली.

डॉ. लोहियांक आर्विल्ले गांधी जावपाचें आशिल्लें काय?

*The Other Side: Journal of Socialist Thought and Action,* Vol. 22, No.1, Jan. 09: 25-30.

कविता

# व्हडवीक सत्यकाम-जाबालाची

प्रकाश पाडगांवकार

सत्यकाम, जाबाला पुण्यवंत
पुता आवयची जिणे काणी
कुमारी माता जाबाला थारली-
काळाक बागोवपी त्यागी, मानी

जिणे काणी ही आयकून तांची
गावया आवय पुता व्हडवीक
पूत सत्यकाम आवय जाबालान
केली निष्ठेन प्रसन्न नियतीक
——

सत्यकामान आपले आवयक म्हणिल्लें:
माते जालां हांव कुमार वयाचो
गुरुकुलांत वचून म्हाका
रावन गुरूच्या सान्निध्यांत
आसा शिकून घेवचेलें
ब्रह्मचर्य, वेद, पुराण
सांग माते सांग म्हाका
कोण म्हजो बापूय, कितें म्हजें गोत्र?

उतरां पुताचीं, आयकून आवय जाबाला
जाल्ली स्तब्ध खूंट कशी
आनी अती खंती मनान
तिणें ताका दिल्ली जाप :

पुता हांव कुमारी माता
घराघरांनी काम करून
पोट म्हजें भरतालीं
तारुण्याच्या वसंतांत कुडीन हांव मुसमुसतना
पडून बळी म्होंवा खिणांक
आयलो म्हजो संबंध साबार पुरुशां लागीं
तांच्या भुलथापांच्या झोपाळ्यार धोलतना
आनी तुवें घेतलो जल्म म्हज्या कुसव्यांत
ना म्हाका खबर कोण तुजो बापूय
आनी कितें तुजें गोत्र
पुता हांव कुमारी माता. .

सत्यकामा तूं वच गुरू लागीं
आनी सांग तांकां:
तूं सत्यकाम जाबाला
कुमारी माता जाबालाचो पूत
आनी खबर ना
कोण तुजो बापूय आनी कितें तुजें गोत्र.
——

सत्यकाम धिरान निर्धारान गेलो
गुरू हरिद्रुमत गौतमाच्या गुरुकुलांत
आनी सांगलें तांकां नमळायेन:

गुरुजी रावन तुमच्या सान्निध्यांत
आसा म्हाका ग्रहण करचेलें
वेद, पुराण, ब्रह्मचर्य निती शास्त्रांचें शिकप.

सत्यकामाची आयकून इत्सा शिकपाची
गुरू हरिद्रुमत गौतमान विचारलें ताका :

वत्सा कोण तूं? कितें तुज्या बापायचें नांव?
आनी खंयचें तुजें गोत्र?

सत्यकामान करी नासतना दाखय लिपय
सोडून भीड मुरवत सांगलें गुरुदेवाक नमळायेन:

गुरुजी हांव कुमारीमाता जाबालाचो पूत
नांव म्हजें सत्यकाम
म्हाका खबर ना कोण म्हजो बापूय
आनी कितें म्हजें गोत्र.

आवय म्हजी आपले भुरगेपणीं
करून काम घराघरांनी
पोट आपलें भरताली
आयलो तिचो संबंध थंय
जायत्या जाणां लागीं
तेन्ना हांव तिका जल्मलों.

सत्यकामाची जाप आयकून
सडेतोड कितेंच लिपय नासतना
गुरूचें हड्डें आयलें भरून गर्वान
आनी तांणी मेकळ्या मनान ताका म्हळें:

वत्स सत्यकाम जल्म तुजो आसूं जाल्लो
खंयच्याय कुळांतल्या मनशा वरवीं
पुणून आसा तुजे भितर
सत्याक स्पर्श करपी ब्रह्मत्व जल्मजात.

वत्सा तूं खरो ब्राह्मण
अशी जाप 'अ-ब्राह्मण' दिवचो ना.
यो घेवन समिधा
करतां तुजी हांव मूज
मागीर रावन म्हजे ठांय गुरुकुलांत
दितां तुका हांव गिन्यान पुरायेन
आसा तितलेंय म्हजे लागीं
तुका भरभरून.

——

सत्यकाम रावन गुरू आज्ञेंत
हारिद्रुमत गौतमाचे
रावलो जोडीत गिन्यान
दिशीं माशीं वर्सां वर्सां.
मागीर आपोवन लागीं एक दीस गुरून
सांगलें ताका :

म्हज्या प्रज्ञावंत शिश्या तूं जातकच हुशार
आतां मेरेन दिलां हांवें तुका जें गिन्यान
तें वेव्हारी दिसपट्टे जिणे उपेगाचें
आमच्या जाणटेल्यांनी जियेताना केळयल्लें.

सत्यकामा तूं विद्‌वान आनी जल्माचोच बुद्‌धीवंत
म्हजे परसय
देखून हांव तुका धाडटां
दुसऱ्या विद्‌वान गुरूलागीं
ताचे लागीं रावन तुवें
जोडचें फुडलें परम गिन्यान.

——



सत्यकाम वचून विद्‌वान गुरू लागीं
जालो पारंगत शिकून
गिन्यान पवित्र धर्म ग्रंथांचें,
वेद, पुराण, संवसारीक धर्म तत्वांचें
मागीर गुरून एक दीस सांगलें ताका:

सत्यकामा शिकून पुरायेन तूं जाला परिपूर्ण
वचून आतां तूं तुज्या घरा
दी गिन्यान हें जनसामान्यांक.

सत्यकामान चिंतलें
वचचे पयलीं आपल्या घरा
वचून गुरू हारिद्रुमत गौतमाचे पयलीं घेवंचे आशिर्वाद.

पावलो जेन्ना सत्यकाम
गुरू हारिद्रुमत गौतमाच्या घरा
हारिद्रुमत पळोवन सत्यकामाक चक्रावता
गर्वान भरिल्लें ताचें माथें पळोवन निर्शेता
आनी पांयां पडूंक सत्यकाम बागवता
तेन्ना फाटीं सरून ताका म्हणटा:

सत्यकामा शिक्षणान मनीस जावंक जाय विनम्र
सत्वशील झडून न्यूनगंड, गर्व, आसक्ती अभिलाषा.
पांयां पडचे पयलीं सत्यकामा म्हाका सांग
खंय गेली तुजी पयलींची नमळाय, निरागसताय?
काय तुका धाडिल्लो हांवें चुकीच्या गुरू लागीं
करपाक ग्रहण विद्या?

सत्यकामा जोडलां आसत तुवें गिन्यान भोव मोलादीक
शिकला आसत तूं जाडजूड व्हड ग्रंथ
सांग तातुंतले कितले देंवल्यात तुजे भितर?
कितलें तांणी केलां तुजें भितरल्यान रुपांतरण?
आनी कितली जाल्या तुका वळख तुजीच?

मागीर हारिद्रुमत गौतमान करून आज्ञा सांगलें सत्यकामाक:

सत्यकाम ह्यो चारशें गायो म्हाताऱ्यो, कोताऱ्यो
घेवन वच तपोवनांत आनी जातल्यो जेन्ना
त्यो हजार घेवन यो गुरुकुलांत घेवंक म्हजो आशिर्वाद.

——

सत्यकाम गेलो घेवन तपोवनांत गोरवांक
नां जंय मनीस वसती आनी रावलो गोरवां वांगडा
आपुणूय एक गोरूं कसो नाचत, खेळत, उलयत
गोरवां लागीं. सत्यकाम विसरलो आपणाक पुरायेन
एकरुपून आनी आपुणूय जावन सैमाचो घटक.

दीस गेले राती गेल्यो
रुतू रुतूंचे मेळ उलगले
प्रत्यक्ष अणभवान सत्यकामाचें
जड जालें गिन्याना दालें

गायो रुतूर वियेत रावल्यो
पाडकां तांकां लुचत वाडल्यो
कशें कोणाक कळचे पयलीं
गायो पाडकां हजार जाल्यो

सत्यकामाक दिश्टाव्यान
जावंक लागलें अलौकीक गिन्यान
नंदीबैलान येवन सांगलें
आयक म्हजें शुभ वर्तमान:

सत्यकामा उदेंतेक वसला ईश्वर
तसो आसा तो अस्तंतेक
दक्षिणेक आनी उत्तरेक तार्चेच अधिपत्य.
ह्या सगल्यांचें जाता ब्रह्माचें एक पावल.
ब्रह्माचे हे खांबे बुन्यादी
हाची उपासना करपी जातात दूत उजवाडाचे.

मागीर उज्यान सांगली म्हयमा
सत्यकामाक दिकादिकांनी भरिल्ल्या कलांची:

कलाकलांनी हें ब्रह्मांड संतुश्टलां.
पृथ्वीकला, अंतरिक्ष कला, सर्ग कला
आनी समुंदर कलांचें घडटा पावल एक अनंतवान्
हांची उपासना करतल्यांक
पाचारतात म्हणून ''अनंतवान्''



मागीर सांगलें राजहंसान येवन सत्यकामाक:
अग्नीकला, सूर्यकला, चंद्रकला, विद्युतकला
सगलीं हीं एकवटतकच घडटा पुंजो ज्योतींचो.
हांचें पावल ज्योतिष्मान्
तांची उपासना करपी जाता ''ज्योतिष्मान्.''

ब्रह्माच्या चवथ्या पावला विशीं
केलें विशद पाणक़ावळ्यान सत्यकामाक:

जीव आसा कला, नदर आसा कला,
कानांनी आयकपय कला
आनी मनय आसा एक कला.
ह्यां चार कलांचें मेळून जाता
ब्रह्माचें पावल आयतनवान्.
हाची उपासना करपीय जाता ''आयतनवान्''.

---

मागीर सगल्या विद्यांनी युक्त जावन
आयलो सत्यकाम भरून स्वयं ब्रह्मतेजान
आनी रावलो उबो हात जोडून गुरू हरिद्रुत गौतमा मुखार
तेन्ना गुरून सन्मानान सांगलें सत्यकामाक:

'सत्यकामा 'कमळपत्राक' जशें दसना उदक
तशें ब्रह्मस्वरूपीक पापकर्म दसना.
दोळ्यांनी जो वसता पुरुष
तोच अमृत, तोच अभय, तोच ब्रह्मात्मो दोळ्यां भितर.
तूप वा उदक शिंपडल्यार तें जशें दसना दोळ्यांक
हाका म्हणटात ''संयद्-वाम''
ह्या सगल्यांचो जाका जाता सहजधर्म तोच पुण्यात्मो.

सत्यकामा म्हजो तुका आशिर्वाद
तूं आतां जाला जितो-जिवो
प्रत्यक्ष साक्षात्कांर आत्मगिन्यानाचो.

---

तपस्वी सत्यकामान जोडलें ब्रह्मगिन्यान
चराचरा सांगातान रहस्यमय धर्मतत्वांचें
चिरकाळाचेर मुद्रा उठोवन
चिरकाळाक प्रसयत दवरपी.

सत्यकाम जालो स्वतेजान तेजःपुंज
लखलखतो सुर्या गिन्यानाचो
जाच्या उतरा उतरांतल्यान निनादताली
जिणे-मरणांचे पलतडची
लखलखतीं तासांदीक स्पंदना.

——

सत्यकाम आयलो मागीर
आपल्या घरा आवय सरीं
पांयांर तिच्या घालून ताणें
ओंपल्यो दोन दुकां सरी

ताका उबारून माता जाबालान म्हळें:

पुता हांव आयज जाल्यां धन्य
तुजे दिगंत किर्तीन,
न्हावन गेल्यां तुज्या ब्रह्मादीक तेजान
धर्तरिमातेन केला म्हजो भार उणो
इतले दीस दिसतालें म्हाका
हांव तिचेर भार जावन ज़ियेतां

पुता म्हज्या आतां लोक विंगड विचारसरणींचे
सदां-सर्वकाळ तुजी देख दिवन आदरान म्हणटले:

''हो शुद्र कुमारीमाता जाबालाचो पूत सत्यकाम
खरो श्रेष्ठ प्रज्ञावंत ब्रह्मर्षी तपस्वी ब्राह्मण''

आनी काळाकय गायत तुजी म्हयमा
म्हणचें पडटलें:

''जल्म खंयच्याय कुळांत घेवप
हें आसना मनशांच्या हातांत
पुणून आपल्या बऱ्या कर्तुत्वाचो
काळा गतीचेर मारप शिक्को
आसता जणेकल्याच्या हातांत
जणेक मनीस जल्माक येतना
येता घेवन आपलें खाशेलें नशीब''



सत्यकामा तूं थारतलो देख
काळाचे क्रूर घडणुकेक बळी पडून
फुडाराक जल्माक येतल्या
दुर्दैवी कुमारीमातांच्या भुरग्यांचो,
निराधार, अनाथ, मागाशिल्ल्यांचो
जे घेवन स्फूर्त तुज्या कर्तुत्वाची
तांच्याय काळजांक लागतली भूक गिन्यान जोडपाची
धरून वाट सत्याची, कश्टांची
होलमून खांची-कोनशांतलो काळोख ना करपी
तेजिश्ट सुर्याचो सहजधर्म

पुता म्हज्या, हांव तुका म्हजो आशिर्वाद दितां
पुता म्हज्या, हांवच तुज्या पांयांर घालून घेतां

——

गर्वान भरलें सत्यकामाचें हड्डें
आशिर्वाद आवयचो घेतना
आनी खोल तंद्रेंत वचून
लागलो साकारूंक ताच्या दोळ्यां मुखार
जिणेचो पुर्वोतिहास चलचित्र कशें:

जाबालान पयलेच फावटीं जेन्ना सत्यकामाक सांगिल्लें
''हांव कुमारीमाता जाबाला, तूं म्हजो पूत सत्यकाम''
तेन्ना रागान आनी काकुळटेक येवन
सत्यकामान तिका म्हणिल्लें:

माते हांव जल्माक आयलों तेन्ना तुवें म्हाका
कित्याक शेंवटून उडोवंक ना
झाडां-झिलींनी, कोयरा राशींनी,
व्हांवत्या न्हंये-व्हाळांनी, उचांबळ दर्याच्या ल्हारांनी

माते म्हाका तुवें मायेन वाडोवन
पत्करली कित्याक हीण जीण दुस्वासपणाची?

माते हांव जाणां
सगलीं तुका कुसक्या मनान कुतलायतात
कानांर केंस काडून भायरायतात.

माता जाबालान सत्यकामाक तेन्ना म्हणिल्लें:

पुता म्हज्या तुजो जल्म जातकच
हांवें तुका मारून उडयल्लो जाल्यार
दिसता तुका वचपाचें धुवन खत म्हाका लागिल्लें?
म्हजे जिणेक ग्राशिल्लें?

पुता म्हज्या नशिबान हांव
आसलें जाल्यारय कुमारी मार्ता
म्हजें काळीज आवयचें न्हय फातराचें
न्हय म्हजें मन विखान भरिल्लें
म्हज्या काळजाक माये वलसाण
आवयच्या काळजाची
उतरांनी सांगप ती भोव कुस्तार
जी खबर आसता जण एके आवयकूच.

पुता म्हज्या
तुका कशे समजतले
कितें आसतात आवयचे दुवाळे?
कितें आसतात तिच्यो गर्भारपणांतल्यो वेणो?
कश्यो आसतात सानुल्ल्याच्यो
पोटांत वाडटना ताच्यो हालचाली,
ताच्यो भावभावना?

पुता म्हज्या गर्भारपण म्हळ्यार
आवयच्या कुसव्यांत घडप
उजवाडाच्या बिजाची रोंपणी
आनी मागीर ताची वाड जावन
घडप ईश्वराच्या सुंदर आविश्काराची निर्मणी
जसो तारो स्वयंभू
आपलें प्राक्तन घेवन जल्माक येवचो
मागीर ताणेंच आपले भितर केळोवचें
पुराय ब्रह्मांड अजापांनी भरिल्लें.

पुता म्हज्या म्हजें भितल्लें मन
म्हाका सांगीत आयलां:

खंयचोय जीव घालचे पयलीं जल्माक
आसता विधात्याचें निश्चित प्रयोजन!
हांव कोण मारून उडोवपाक
विधात्यान जल्माक घाल्ल्या जिवाक?



पुता म्हज्या
तूं कर्तुत्वान व्हड जावन
घडत जाल्यार तुज्या हातांतल्यान सत्कर्म
फाल्यां काळूच करतलो म्हजो भौमान
म्हणून म्हाका हांव "सत्यकामाची आवय" म्हूण.

पुता म्हज्या
झगडून हांव नियती लागीं मागतलीं
तूं जावचो म्हूण व्हड-दिव्य-आदर्श मनीस
अनंतकाळाक पुरून उरपी

पुता म्हज्या
म्हजीं भंगिल्लीं सपनां हांव
तुजे वरवीं फुलयतलीं
तुज्या अस्तित्वांत पळयतां हांव
म्हजीं वैभवां रुजूंक लागिल्लीं.

तुज्या कर्तुत्वांत पळयतां हांव
जाल्लो म्हजो भौमान
तुका जल्म दिवपी तुजी आवय म्हूण
मागीर आपशींच धुवन वतलें खत
म्हजेर बशिल्लें कुमारीमातेचें

---

तपस्वी सत्यकामान उगडले जेन्ना
आपले दोळे ध्यानमग्न मौनांतल्यान
आनी पातळायली आपली सात्वीक नदर चोंयवशींनी
दिसले ताका ताचे सामकार बशिल्ले
लोक शांतचित्तान
आयकूंक ताचें शुभवर्तमान.

सत्यकाम जसो लखलखतो
ब्रह्मगिन्यानान परिपूर्ण भरिल्लो ज्योतींचो पुंजो
केलें ताणें जेन्ना अभिवादन
जोडून दोनूय हात
जालो तेन्ना एकसारको
निनादपी ताळयांचो कडकडाट
शिंवरीत तांचेर मनांकाळजांतल्यान
अभिनंदनाची सुवासीक फुलां.

❀

## *शांत उस्तुपी कविता*

**रमेश भगवंत वेळुस्कार**

१

कोणाचोच कोणाचेर ना रे विसवास
सुवार्थाचो स्वास हुस्कारांत ॥

सत्तेची आसक्ती शेगुणाक सुक्ती
अनर्थ आकृती उतरांत ॥

जिबेचेर मात साकरेची माय
अंतरां कसाय रक्तातूर ॥

आसूं मतांतरां तरी दिया मत
तुमकां बिबूत उपकाराची ॥

आतां पांच वर्सां मनाक सुसेग
करुं बेगोबेग अर्थपूजा ॥

२

हातांतली सत्ता हातांतूच उरूं
फक्त म्हजें गोरूं चरूं तातूंत ॥

तडसून वचूं तांचींच रे पोटां
हेरांचिया वंठां टांको पडूं ॥

हेरांकू रे दिवू फास्ट फास्ट फूड
आजिनामोटो पूड उक्ती करूं ॥

अश्याच मिठाक जागता रे लोक
सांगाताक कोक अपटुडेट ॥

भुलोवून धरूं असो मतदार
तांकां पैस दार सत्तेचेरे ॥

आतां म्हजो पूत येतलो सत्तेर
लोकशाय बोंतर जाल्यार जावं ॥







३

झांझुरले वेळे सुकण्यांचे श्लोक
नक्षत्रांचे लोक दिपकती ॥

झुमूझुमू वारें वनी संजिवनी
पावित्र्याची धनी फांतोड मंद ॥

काळोख जळोवंक कीर्ण अरुणाचें
बळ सुवर्णाचें आंगांपांगांत ॥

असो दीस येवं सर्वयां सांगाता
सत्यव्रत आतां लोकी मुरूं ॥

४

पिंपळाच्या रुखा नाचतलें पान
नृत्यमर्मज्ञान दिता लोकां ॥

आंबियाच्या रुखा पिकलां रे फळ
खाया रे सकळ आंबो म्हणऽ ॥

वडाचिया तळा सांवळ्यांचे तळ
वताची रे झळ लागूं दिना ॥

माडाची उंचाय गगना तेंकयता
विस्वास वलयता पैल पारा ॥

सैमाची माची प्राणांचें माचूल
अनंताची झूल आंगाचेर

५

मातयेचे पांय मातयेचे वयर
जीव सैरभैर मातयेचो ॥

मातयेच्या रुखा मातयेचें पान
फूल फळ दान मातयेक ॥

मातयेच्या मनशा मातयेचे पाश
घेता रे तो ग्रास शेतांतुल्यान ॥

शेतं माती शेत मात मात पिकऽ
लिकलिकऽ दीक उल्हासाची ॥

अशी म्हजी माती जिवांक केळयता
अंतरीं खेळयता मातयेक ॥

६

केळीचिया पाना वाससुगरास
तुश्टताये खास अंतर्भायर ॥

पाणयांच्या न्हावण अनवाळपण
सरगाची खूण कोंबरेता ॥

सुर्याचिया तेजा ना रे बा उमास
चराचरा रास खेळयता ॥

पानांचे पैंजण बना रुणुझुणऽ
प्राणांक स्फुरण शुचिर्भूत ॥

७

पांवला पांवलान उदेंत वयता
मोखीक पावयता हो रस्तो ॥

वाटेनूच दिली गती पावलांक
मनाच्या दिकांक उजवाड ॥

वाटांरच भेटऽ मोगाळ हीं मनां
रसाळ रस ना भाग्यवंत ॥

वाटेनूच दिल्या जैतांचीं आसनां
यात्रा उपासना मानसाची ॥

वाट न्हु रे धार जिवीताचो थार
पावित्र्याचो पार व्हांवतलो ॥

वाट हेंच तीर्थ वाट हेंच क्षेत्र
वाट हेच नेत्र विकासाचे ॥

८

श्वासांचे वाटेर सैम मन सूख
पालयता दुःख उत्सवशें ॥

फूल सोबिताय पर्मळा सासाय
अद्भुतांची माय धर्तर पाणी ॥

वाटेर हें मळब रातीक शिकयता
काळोख पिकयता उज्वाडान

वारियाचे सूर घोशीतूच वयता
वाटेर जो मेळटा तो तो इश्ट ॥

वैर जे अनिश्ट जावं रे ते नश्ट
नुरचे रे कश्ट श्वासां वाटेर ॥

९

तयसुंदर कोर मळब केळयता
वंठार खेळयता आनंद नद ॥

पाणयां गणयता तनर हुमाणें
उदकांत पेणें मासोळेचें ॥

अंतरांत माती गीत मंतरायता
अमृत लुचयता आसमंता ॥

दोंगरांनी एकटीच न्हंय खंय वयता
पाणयां खिरयता सुंदर कोर ॥





१०

लोकशाय म्हण्टा
लोकांची रसना
पुणून दिसना
उलयताना ॥

उलयतलो विकता
लोकांचींच खेत्रां
आपलींच उतरां
करता तो ॥

कोटी रुपयांची
खातले वातड
करता खातड
वेगळेच ॥

नेते अभिनेते
मत गरयता
लोक फितयता
आपलेंच

तरीकूय म्हण्टा
कसलो हो कां चो
कौल जनतेचो
अबर्गती ॥

लोक म्हणचें ओंक
लोकशायेक खतां
अशींय रे मतां
खंतवतीं

११

हारशांत हांसता
चैतन्यान चिंब
म्हाकां म्हजें बिंब
जातां हांव ॥

नदरेनूच हांव
तुडुंबता हर्श
करी ताका स्पर्श
धाय दिकां ॥

'हांव' म्हजें खरें
काय स्वार्थी टिंब
काय खरें बिंब
व्हियेता हें ॥

दोळियांत म्हज्या
रुपांत स्वरूप
हारशाचें रूप
दोळियांचें ॥

हांगा झिळमिळटा
संवेदन मंतर
नदरेचें अंतर
हुंकारता ॥

हुंकाराची कुरू
उस्तता रे शांत
पळयता हारशांत
अंतराची ॥

१२

दोंगुल्ल्यांक पर्वत
म्हणपाची संवय
आमकां गा ही वंय
समजना ॥

जग मुमुख्र्यांनी
म्हाका पळयता
तरीय केळयतां
उणाकपण ॥

जगाक खबर
पर्वतांचीं तेमकां
मानी ना तें तेमकां
दोंगुल्ल्यांचीं ॥

तरीकूय आमकां
दोंगुल्ल्योच व्हड
उणाकांची नड
ना गा आमकां ॥



# *हांव पन्नशीचो जालों...*

**बाळकृष्णजी कानोळकार**

हांव पन्नशीचो जालों

हांव भांगराचो जालों?

भांगराचो दर कितें?
भांगराचो भाव कितें?

आनी म्हजे हांगा...
हावभाव कितें?

कांय लोक लग्नाचो
मनयतात रुप्या उत्सव
कांय लोक भांगरा उत्सव

ग्रिटिंग्ज, बुके... जायराती... राती... बुफे आनी...
पाट्यों.... पाट्यांच्यो पाट्यों

हांवें कांयच्च केलें ना
कोणेंच कांयच केलें ना
म्हाका लागून उत्सव केलो ना...
...जालो ना.

मेजकेच
कांय लोक
मनयतात
अमृत...
अमृत महोत्सव.
आनी उर्विल्ले
जिणे पासत
मस्त अमृत
पियेवन घेतात

तृप्त जातात(?)
अतृप्ती वाडटा (?)

हांव नेणों.

ना म्हाका अणभव
हाचो... ताचो.
सांगचें कशें... सांगचें कितें?

एकाद्रोच शेंकडों मारता.
एकाद्रो एलबी
डब्लू जाता
एक्साचो एकाद्रों वता
एक्सार... खुरसार.

हें सगळें आसाच
तरीय
हांव पन्नशीचो जालों.

सुणो-बुकलो पन्नशीचो जाता?
शेवर्णे-शेड्डो पन्नशीचो जाता?
इसवण-बांगडो पन्नशीचो जाता?
कीड-मूय पन्नशीची जाता?

दिसाक एका वरां कितलीं?
आनी मनशाक एका घरां?

सांगू येतीत वरां पूण
घरांचें कितें?...

पाणयांत आसा मासो
आनी मोल करतलो...
पिसो.

'जळात जळसें जगता कसें?'
'जावें ताच्या वंशा तेव्हां कळे



तशें म्हाका कितेंच...
कळ्ळें ...ना
म्हाका कितेंच...
होलमलें... ना.
म्हाका कितेंच...
भावलें... ना.



मात्र सर्वत्र
बरोच हुलोप
लाग लाग लागलो.

तोंवेर हांव पन्नशीचो जालों.



पन्नशी?... कुयदाद!... कुयदाद!!
कुयदाद घे रे बाबा
कुयदाद घे रे पुता
कुयदाद घे रे आना
कुयदाद घे रे नाना
कुयदाद घे रे काना
कुयदाद घे रे जना
कुयदाद घे रे... सोंसना
कुयदाद घे... कुयदाद घे

रेगुलार... चेकअप करून घे.
रेगुलार... चवनप्राश घे.
रेगुलार... प्राश घे.
रेगुलार... ब्रश घे.
रेगुलार... स्वास घे.
रेगुलार... उस्वास घे.
रेगुलार... वास घे.
रेगुलार... नीस घे.
रेगुलार... गुळी घे.
रेगुलार... गूल घे.
रेगुलार... फूल घे.
रेगुलार... कूल घे.
रेगुलार... हें घे.
रेगुलार... तें घे.
रेगुलार... हें घेवं नाका
रेगुलार... तें घेवं नाका.
रेगुलार... घे, घे, घे.
रेगुलार... नाका, नाका, नाका.

तशें हांवें कांयच हें-तें
घेतलें ना... तरीय,
हांव पन्नशीचो जालों

पन्नशी वयले साकर कमी
आनी गॉड चड खाताले
पन्नशी वयले किसान आटा कमी
नासण्याचो भाकऱ्यो आनी
खुब्यांचें बोणया
दबदबीत खाताले
शिवराक बाप्पा सतू वरपिताले
भरपूर पियेताले आकंठ जियेताले

आशिकुशीक रोयताले
पोटभर खाताले
खोंपींत रावताले, वझऱ्यार न्हाताले
जमनीर न्हिदताले, पांयांर चलताले

हांवें वयार सान केल्लें आसुंये हेंच
तें फळ... हांव पन्नशीचो जालों.

जायत्या जाणाचो पिरायेर हे...
हार्ट फेल जाता.
किडणी फेल जाता.
हें सैल जाता.
तें घट जाता.
ब्रेन ट्युमर जाता.
क्रेन कमर जाता.
अल्सर जाता.
पल्सरूय जाता.
एक्स व्हाय...
झॉड लेगीत जाता.
तशें म्हजें कितें जालें ना.
तरीय हांव पन्नशीचो जालों.

आतां आतां म्हाका
अजाप दिसता

तकले वयल्यान गेले...
पन्नास गीम
खड्ड्या वयले सगळे...
केंस घेवन गेले.

आनीक कितले उल्ल्यात गीम
नउलगे... अमृत... महोत्सवी?

आनी व्हरतले कितें?
मुखार... मुखार...?

शूऽऽऽ!... कोणाक सांगूं नाका
केंसच न्हय खड्डो तरी खंय
उरला आतां जाग्यार?

लक्ष दिवचें:
हांव जाहीर करतां...
हांव पेरगांव घालतां....

हांव पन्नशीचो जालों!

(खऱ्यानीच?)

पन्नशीचो जावप...
म्हणचे?...



# दोन कविता

सु.म. तडकोड

१ )

हो जुंवो,
आवयचे मायेचें कुबेर्त पांगुरलें ताणें
कदीमकाळा सावन,
म्हज्या तना-मनाचेर...
जल्माची सार्थकताय भुंयेंत
जिणेची अस्मिताय सोंशीकपणांत;
जाका भूंय ना, ताका वळख ना,
जाका अस्मिताय ना, ताका आव्हानच ना
म्हूण शिकयलें ह्या जुंव्यान म्हाका...

हालसरीं, कितलेशेच सांकव पातळ्ळ्यात हिणयां-तिणयां
ह्या जुंव्याक सांदपी ते पलतडीक;
कांय सांकव बांदल्यात शासनान (तांकां ते *पूल* म्हणटात),
इंग्लिशीचीं मुळां सांसपुपी सगळीं जाणां तांका *ब्रिज* अशेंय म्हणटात,
कांय सांकव बांदल्यात वादिवांनी (तांकां ते *सेतू* म्हणटात),
ते दिश्टीक पडनात!

ह्या सांकवां वेल्यान पलतडी वचपा पासत कितलींशींच प्रलोभनां
म्हाका आवयच्या कुबेर्तांतल्यान भायर काडूंक सोदतात.
कांय जाण म्हाका थंयसर *सिलिकॉन व्हॅली* आसा म्हणपाचें सांगतात;
कांय जाण विश्वात्मक जावंक शिकयतात.
म्हाका बोध जायना. चित्त पिशांतूर जालां.

हांवें जुंव्यां वेल्यांक नियाळून पळयलें, तर साबार जाण एकोडे कशे,
हावेसाचे कळे मात गच्च काळजांत तांच्या.
हांवूच असो जुंव्याक दसून कसो
संस्कारशीळतायेचे तृप्तीचो हुंकार दीत...



२ )

हालसरीं कितलींशींच वाहनां ह्या जुंव्या वेल्यान यो-वच करतात.
कितलींशींच सपनां तातूंत मांडून दवरल्यांत हाडप्यांनी म्हजे पासत
एक एक वाहन म्हळ्यार मांड, हावेस वाडोवपाचो,
त्या वाहनांत बशिल्ल्यांक हांव नेणो...

बेस बरे न्हेशिल्ले, प्रभाव घालपी वाहन-चालक त्या वाहनांत,
जण एकलो वाहन-चालक म्हळ्यार चित्ताक मोहांत धुकलपी कसो,
तीं सपनां घेवपा पासत तो रिणांय दिता;
म्हज्या जुंव्या वेल्या पसऱ्यांनी ही मांडावळ ना,
कदीम काळांतलो पसरो एक एक, कुंडेकुस्कूर चर्या घेवन बसपी
*(जाय जाल्यार घे, ना जाल्यार धर मारग, म्हणपी)*

पलतडच्यान ह्या जुंव्याक जोडपी कांय सेतूं वेल्यान विचारांचीं मोडां येतात...
होय विचार बेस बरो, तोय विचार *ज्यानोत!*
कांय विचारांनी धकटो दिसता, तर तोय पिसो करता
कांय संन्यस्तांच्या आचरणांचो दुबावय येना

कांय वर्सां पयलीं म्हजेच कांय भाव पलतडी गेल्ले पोनेळांतल्यान
ते पोंवशेल्ल्या नुस्त्या भशेन विचारांची हिंवसाण घेवन येतात म्हजे सरीं.
जे देव हांव नेणो तसल्या देवांक भजूंक लायतात ते,
जो देश म्हजो न्हय त्या देशाक *म्हजो* अशें म्हणूंक लायतात ते,
जो फुडारी म्हज्या अस्करांतलो न्हय ताचो थातोमातो करूंक लायतात ते,
म्हजी मती भेरेल्या...

हो जुंवो भश्टुचो न्हय म्हूण
हातांत तांक नाशिल्ल्यान सळाबळा जाल्लों हांव,
हांवूच असो जुंव्याक दसून कसो
संस्कारशीळतायेचे तृप्तीचो हुंकार दीत...



# दोन कविता

**परेश नरेंद्र कामत**

## १) फुलांचे घोंस फुटून

झड.
गळय पिकिल्लीं
जुनाट लोळकीं पानां

आनी होराय
तन्न्या-पाचव्या
उजवाडाक

फुलांचे घोंस फुटून
वाऱ्यार धोलतल्या
तांबड्यागुंज गर्भरस्मी उज्याक...

## २) उत्सव

कवी
नागडोच आसता कवितेंत –

आनी
कविताय आसता नागडी
प्रतिमांचे हारशे पांगरून.

प्रतिमांच्या लखलखत्या हारशांनी
पळेत रावता कवी
आपल्याकूच
परत परत.

भोगीत
भोगीत कवितेक
मनयत रावता कवी
आपल्या नागडेपणाचो पारदर्शी उत्सव...

***

# कॉल सँटर आनी ती

**राजश्री सैल**

तिची रात विरगळटा
दिसांत
आनी दीस रातींत
कांय दोनूय सांडल्यात
ह्या मल्टीनॅशनल
कॉल सँटराच्या
गडगंज दरवट्यार
तिचें भारतियत्व
कॉल सँटराच्या
खुंटयाळ्याक
हुमकळटा आनी
पुरायेन मनान देहान
वाचेन कायेन
युरोपियन अमेरिकन
जावन
खुल जा सिम सिम
म्हणत ती एका अजब
अलीबाबाच्या भुंयारांत भितर
सरता
फांतोडेर जेन्ना तिची आजी
शेण शितुडो फांफडीत
कंवळीं सूर्य किरणां
आंगार घेत पयसुल्ले न्हंयच्या
धारेक पळेत थापताली भाकरी
त्याच वेळार ती टेलिफॉनार
कोप्प्यूटरार खंयच्या
खंयच्या सातां देशां पलतडच्या
मनशाच्यो घुस्पट्यो सोडयता
तांच्यो गाळ्यो खाता
पूण पुरायेन तना मनान
युरोपियन जावपाचो यत्न करता



ही दोट्टी जीण
कॉल सँटराचे
भायर भितर
भारतीय युरोपियन
ती जगता
जगपाचो यत्न करता
आनी मदले मदीं
आपल्याकच सांडत
वता खिणा खिणांत



# वर्सांचें
# बळीश्ट घटकराज्य

*२२ वर्सांचे प्रगतीचे यशसिद्धीचो आनी गोंयचे खाशेले वळखीचो ३० मे हो मानदंड*

## घटक राज्याचीं २२ वर्सां

चलात तर आमी सगळे मेळून आमी जोडिल्लें जैत मनोवया

एका जबाबदार लोकाभिमुख प्रशासनान आयज गोंयाक ह्या पावंड्यार पावयलां.
सगळे गोंयकार ह्या जैता कडेन अभिमानान पळयतात

### आदर्श, उत्तम नागरीक

भारतीय संविधाना प्रमाण समान अधिकारांची आनी कर्तव्यांची जाण आशिल्लो नागरीक जावपाचो लोका मजगतीं एक आत्मविस्वास निर्माण जाला.

### गोंयची वळख

१९६७ वर्सा जाल्ल्यो जनमतकौलान आनी १९८७ वर्सा जाल्ल्या राजभास कायद्यान १९८७ च्या घटक राज्याची वाट मेकळी केली. साहित्य अकादेमीची मान्यताय आनी आठवे वळेरींत कोंकणीचो आसपाव म्हणल्यार गोंयकाराचे साहित्य निर्मणेची आनी सृजनशीलतायेची एक नांदी.

### अदीक बरे सेवेची संद

लोकांक स्वताच्या प्रतिनिधीं वरवीं आपणाल्यो अडचणी सोडोवपाची संद दिवपाक आमदारांची संख्या २८ सावन ४० मेरेन वाडल्या. लोकांचे सोयी खातीर दोन महसुली जिल्ले लेगीत निर्माण केले.

### येवजण/विना अर्थसंकल्पांत वाड

राज्यांतले कल्याणभिमुख प्रकल्प चालीक लावपा खातीर व्हडा प्रमाणाचेर मदत जावची म्हूण येवजण/विना येवजण अर्थसंकल्पांत वाड.

### पर्यटन मुळाव्यो सुविधा

गोंय पर्यटन खात्यान कितल्याश्या आंतरराष्ट्रीय वेपार मेळ्यांत बरें थळ म्हूण पुरस्कार जोडल्यात. इंटरनॅशल ट्रॅव्हल संकेतथळ trip atlas.com. हांणी गोंय संवसारांतलें चवथें बरें परदेशी पर्यटन केंद्र म्हूण घोशीत केलां. पर्यटन, भलायकी पर्यटन आनी साहस पर्यटन हे नदरेन गोंय आज नांवाजतें जालां.

### भौशीक खाजगी भागिदारी (पीपीपी)

पायाभूत आनी मुळाव्यो सुखसुविधा निर्माण करचे खातीर भौशीक खाजगी भागिदारी प्रकल्प (पीपीपी) हातांत घेतल्यात.

### सांस्कृतीक पुनरुत्थान

गोंयांतल्या सगळ्या कला आनी सांस्कृतीक उपक्रमाचें यजमानपद जोडिल्ल्या कला आनी सांस्कृतीक खात्याच्या पालवान कला अकादमी आयज लोक कला, संगीत, नृत्य, नाटक, चित्रकला आनी हेर कला प्रकारांचें केंद्र जालां.

### बरी भलायकी जतनाय

राज्यांत निर्माण केल्ल्या भलायकी सुविधांक लागून राज्यांतल्या ग्रामीण आनी शारी ह्या दोनूय क्षेत्रांतल्या लोकांच्या भलायकी विशीं एक सकारात्मक चित्र निर्माण जालां.

### गोंय: चित्रपट चित्रिकरणाचें आदर्श स्थळ

चित्रपट निर्मात्यां खातीर गोंय एक संभाव्य क्रमांक १ चें आदर्श थळ जालां. आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवाच्या अस्थापनान संवसारीक पांवड्यार विश्वासार्हता मेळयल्या.

### उद्देगीक वाड

गोंयचे उद्देगीक वाडीन पर्यावरणीय पूरक, प्रदुशणविरयत अर्थीक वातावरणाच्या आपणाल्या ध्येयाची पुर्ती केल्या; पूण थळाव्या मनीसबळाची कुशळटाय वाडपा खातीर लेगीत खास नेट दिला.




Issued by
Department of Information and Publicity
Government of Goa



Published & Printed by Dr. J. B. Sardesai, owner of JAAG Monthly, 201 B, Saldel Apts., Rua de Saudades, Pajifond, Margao, Goa, and Printed at Rutu Offset Printers, Volvoi, Ponda -Goa. Editor : Madhavi Sardesai